# तीर सुवादीक

## दिलीप बोरकार

---

दिलीप धर्मा बोरकार (२ माय १९५७)

वर्गशत्रू, भरते-भार, आण्टीची गादी, आयज आमचें राज आयलें (नाटकां). कॅन्सर, एक शून्य प्रवास (एकांकी संग्रह). दर्यासुंदरी, अशांत सुशांत, मस्त्या गुंडूची नस्ती भोंवडी, पिन्टूची काळ भोंवडी, चड आस्त धरता तो बुडटा, रांवस पावलो दुबय, शाणो पाडको आनी पिसो लाडको (बालसाहित्य). रूक्षप्रस्न, बोरकारी, श्रेयार्थी (ललित). गोमाचल ते हिमाचल, कालसर्पयोग, क्रिशम (प्रवास वर्णन) अश्या गद्य साहित्याची निर्मिती आनी मेथये पावलां (काव्य संग्रह), मेटींग (कथा संग्रह).

आघात, जिमलेट, रूक्षप्रस्न (नवप्रभा) प्रहार (तरूणभारत) आंबट तीख (लोकमत) बोरकारी (सुनापरान्त) सारकीं वाचकांक प्रतिक्षा करूंक लावपी सदरां आनी 'बिम्ब' ह्या दर्जेदार मासिकाचें संपादन अशें पत्रकारितेंतलें कार्य.

डॉन बास्को हायस्कूल, कळंगूट. सांताक्रूज हायस्कूल, सांताक्रूज. कस्तुरबा मातोश्री हायस्कूल, पणजी आनी फा. आग्नेल कॉलेज ऑफ आर्टस् ॲन्ड कॉमर्स, पिलार हांगा विद्यादानाचें कार्य.

जाग, बिम्ब मासिकांतल्यान तीर-सुवादीक कॉलम, आयलें तशें गायलें, हायली फिलॉसाफिकल कॉलम सारकीं खुसखुशीत आनी चिंतनशील सदरां.

भरते भार (१९८२), गोमाचल ते हिमाचल (१९८५), कला अकादमी उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार. अखिल भारतीय नभोनाट्य पुरस्कार (१९८७, १९९१,१९९२), कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार, न्यू गोवन ओवरसीज पुरस्कार (१९९६), डॉ. टी. एम्. ए. पै फाऊंडेशन पुरस्कार (१९९९), **केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार (१९९५),** राज्य सन्मान (२००७) आदी सन्मानान भोवमानीत.

विद्यार्थी चळवळ, युवा आंदोलन, शिक्षक आंदोलन. रांपणकार, कामगार आंदोलन, कोंकणी प्रजेचो आवाज, गोवा बचाव आंदोलनात सक्रीय सहभाग.

'शेल्टर', 'रॅगींग', 'बाकीबाब', 'एम्. बॉयर' 'फलो ऑफ प्रॉस्पेरिटी' आनी 'पद्मभूषण, ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकार' आदी माहितीपटांची निर्मिती.



# तीर सुवादीक

**दिलीप बोरकार**





तीर - सुवादीक

दिलीप बोरकार

(ललित)

**Tir - Suwadik**

*by*

*Dilip Borkar*

*(Essays)*


**प्रकाशन क्र. ८२**





**पयली आवृत्ती**

एप्रिल २०११

**छापणावळ**

इम्प्रेशनूस

बी-२, 'अक्षर आर्केड'

३३६०/४, गोंधळी गल्ली,

बेळगांव - ५९० ००२

**अक्षर जुळणी**

बिम्ब प्रकाशन

**मुखचित्र**

दिलीप बोरकार

**प्रकाशक**

कामिनी किणी

'[illegible]'

सांत लॉरेन्स,

आगशे - गोंय ४०३ २०४.

₹ [illegible]०




तिरसुवाद गौंयकारांचें
तिरसुवादपण
पारखुपी आनी
अचूक चित्रावपी
शब्दचित्रकार
अनाक...




# तिरा फाटलों सुवाद...

**'ती**र-सुवादीक' हो म्हजो लेखांचो संग्रह. 'जाग' म्हयनाळ्यांतल्यान ऑगस्ट १९९८ सावन डिसेंबर २००० मेरेन सातत्यान दर म्हयन्याक तीर-सुवादीक कॉलम म्हूण म्हजें जें सदर चलतालें, त्या सदरांतल्यान वाचकां मेरेन जें म्हजें बरप पावलें तांचो आसपाव ह्या पुस्तकांत जाला.

सदराचें नांव हांवें तीर-सुवादीक कॉलम दवरिल्लें. तीर-सुवादीक म्हळ्यार कितें? आमचे कोंकणीत तिरसुवाद म्हण एक विशेशण आसा. ह्या उतरांतल्यान सभावगूण उकतो जाता. अना म्हांबऱ्यान आपल्या एका असल्याच जातकुळीच्या लेखांच्या संग्रहाक 'तिरसुवाद गोंयकार' अशें नांव दवरिल्लें. त्याच नांवान तांचे लेख उजवाडाक येताले. पूण जेन्ना पुस्तक रूपान ते लेख तयार जाले तेन्ना मात 'तिरसुवाद गोंयकार' हें नांव बदलून 'गोंयची अस्मिताय' ह्या नांवान तें उजवाडाक आयलें. नांव कोणे आनी कित्याक बदल्लें म्हाका खबर ना. अनान जें तिरसुवाद गोंयकार नांव दिल्लें तें गोंयकारांचो एकंदर सभावगूण पारखूनच. त्योच व्यक्तीरेखा ताणें तातूंत चित्रायल्ल्यो. म्हाका दिसता हें नांव बदल्लें तें रवीन्द्रबाबान वो सुमन्तबाबान. चड करून सुमन्तबाबानूच आसुये! रवीन्द्रबाबाक तिरसुवादपणा आवडटालो.

आता तिरसुवाद कोणाक म्हणप? जाचे भितर तिरसुवादपण भरलां ताका.

आता तिरसुवादपण म्हळ्यार तरी कितें? तो एक मनशाचो सभावगूण! ताका वायट म्हणप काय बरो म्हणप हें म्हज्यान सांगू येना. कित्याक तिरसुवादपण म्हळ्यार कितें हें म्हाकाय अजून मेरेन सारकें समजूंक ना. तिरसुवाद म्हळ्यार कुच्छीत्री न्हय. अवचीन्न न्हय. कोणाचें पाड घालपी न्हय. तसो विचार लेगीत ताका आफुडपाचो ना. तरीपूण ताका कोणाक तरी तुकलावप आवडटा. कुतां काडप आवडटा. कोणाक चड पिडनासतना तांचीं धोंगों पोंगां अचूक दाखोवपी असो मातसो मस्तखोर मनीस म्हळ्यार तिरसुवाद असो सो कितें म्हजो समज.

ह्या पुस्तकाक अनान प्रस्तावना बरोवची अशी म्हजी मनासावन इत्सा आशिल्ली. तशें तांका विनोवचें अशेंय म्हाका दिसतालें. पूण तांची भलायकी बरोवपा सारकी ना. बरोवन घेवंक कोणतरी जाय पडटा. म्हणटकच अनाक हांवें म्हणप आनी म्हज्या उतराक लागून ताणें तकालस घेवप, प्रस्तावना बरोवप हें दोगांयच्याय तिरसुवादपणाक बादपा सारकेंच अशें म्हाका दिसलें. जर अनान प्रस्तावना बरयल्ली जाल्यार तिरसुवाद म्हळ्यार अचूक कोण? आपल्या 'तिरसुवाद गोंयकाराक' मारून 'गोंयची अस्मिताय' कोणे दवरली हाचीय जाप मेळूं येताली. पूण हांवें तो मोह टाळ्ळो तेच पासत 'तिरा फाटलो सुवाद' म्हाकाच विस्कटावचो पडलो.

म्हज्याय भितर एक अना आसा. अना जें जें कितें बरयताले तें हांव सगळ्यांत पयलीं वाचतालों. म्हजे बोरकारींत जावं हेर बरोवपांत अनाचो प्रभाव जाणवता. पूण म्हजें असलें बरप अनामय न्हय. तातूंत म्हजें खाशेलेंपण आसा. तरी लेगीत हांव म्हज्या ह्या बरपाकडेन अनाचे नदरेन पळोवंक शकतां. तेच पासत हांवें म्हज्याय भितर एक अना आसा म्हळां. हेंय एक कारण जावं येता हांवें अनाक प्रस्तावने खातीर फोर्सार करूंक ना.

'बोरकारी' उप्रांत तीर-सुवादीक कॉलम आयलो. पूण ती बोरकारी न्हय. म्हाका अनाचो तिरसुवाद तिगोवपाचो आशिल्लो. कित्याक तीच गोंयची अस्मिताय. खाशेली अशी. तेच पासत रवीन्द्रबाबान ह्या सदराक तिरसुवादीक कॉलम अशें हांवें दिल्लें नांव बदल्लें ना. आरंभाक तें नांव 'तिरसुवाद बोरकारालो तीर-सुवादीक कॉलम' अशें आशिल्लें. मागीर तिरसुवाद बोरकार गळून पडलो

आनी उरलो तिरसुवादीक कॉलम. दोन वर्सां चलोवन हांवेंच तो बंद केलो.

तीर म्हण सुवादीक आसता? तीर वर्मार जर बसत जाल्यार मनीस वळवळटा. तरी लेगीत वर्मार बसूनय तो तीर सुवादीक कसो करूं येता हाची जतनाय हांवें घेवपाचो कुशळतायेन यत्न केला आनी म्हाका तो थोडोभोव न्हय तर बरोचसो सादला! तेच पासत हें सदर सुरू जावन तें हांवें थांबयसर रवीन्द्रबाबान ताचेर केन्ना एकूय उतर काडलेंना वो लेखांतलें एक्कूय उतर हांगा थंय केलेंना. काडून उडयलेंना. जशें बरयलें तश्शें छापलें. तरी म्हाका तांचेकडल्यान प्रतिक्रिया मेळटाली. उतरांनी न्हय. हांव तांकां लेख वाचलो काय विचारतालों आनी ते 'खूक्क' करून मुमुरख्यांनी हांसून म्हजेकडेन पळयताले. तांची ती त्या वेळची नुरा, प्रतिक्रिया, दोळ्यांतलें खट्याळपण, मुखामळावेले मस्त्या भुरग्याचे भाव... सगळें सगळें वेगळेंच कशें. अशे वेळार म्हजी तोखणाय करूंक उतरां कित्याक जाय... I loved that movement... फक्त भाग्यवानाकूच मेळटा असली प्रतिक्रिया. तेच पासत हांव बरयत रावलों तो कॉलम... तीर वर्मार बसूंक दिनासतना. लागलो तरीय तो ताका सुवादीक लागचो हाचें भान राखून हांव तीर सोडीत रावलों. तिरसुवाद उतराचो अर्थूच असो घुंवडायलो आनी सुवादीक तीर सोडिल्ले तेच एकठांय करून ह्या पुस्तकरूपी भात्यांत ते आतां दवरल्यात.

ताची गरज आशिल्ली? असोय एक प्रस्न येवं येता. कित्याक तर असले लेख प्रासंगीक आनी अल्पजिवी आसतात अशें कांय जाणांक दिसूं येता. पूण हांव तशें मानिना. हो दोश लेखांचो न्हय. आमची नेमाळ्यांविशींची नदर ही चुकीची आसता. नेमाळीं अल्पजिवी आसतात असो आमी चुकीचो अर्थ लायला. आमी आयचो पेपर आयजूच वाचतात. कालचो आयज मेळ्ळो जाल्यार वाचिनात. तो आऊटडेटेड जावन वता अशें आमकां दिसता. कित्याक तांतल्यो बातम्यो शेळ्यो जाल्यात अशें आमी म्हणटात. पूण तांतल्या हेर बरपाचें कितें? तांतले लेखूय शेळे जाले? जावंक फावना. पूण आमी मुल्यमापन करतात तें बातम्यावेल्यान. आयज पेपर आयलोना जाल्यारूच आमी कालचो पेपर वाचतात. तशेंच फाटल्या वर्साचो दिवाळी अंक ह्या वर्सा वाचिनांत. पोरणो मरे

तो म्हणटात. पूण संशोधक, अभ्यासक मात वाचतात. तातूंत कितलेंय बरें साहित्य आसल्यार लेगीत पोरणी नेमाळीं वाचपाची आमची तयारी नासता. तेच पासत ह्या नेमाळ्यांतलें साहित्य वेचून काडून, तें नव्या वेस्टनात गुठलावन नव्या वाचप्यां मुखार दवरप गरजेचें आसता. खूबशे लेखक तशेंच करतात. नेमाळ्यांतलें प्रासंगिक सर्वकालीक करपाचो होच एक मार्ग. ताका सगळ्या भासांतल्यान येवकार मेळटा. मेळूंक जाय. बऱ्यांतलीं बरीं पुस्तकां अक्षर साहित्य रूपान मुखार आयल्यांत तीं हेच प्रक्रियेंतल्यान.

तीर-सुवादीक कॉलमाक म्हाका खूबशा वाचकानी प्रोत्साहन दिल्लें. बरोवपाक मजा आनी नेट येता तो कोणेय प्रोत्साहन दिलें म्हणटकच. वाचप्यांची दखल ही खंयच्याय पुरस्कारा परस वयर आसता. उदय गुडेन तर 'तिरा तूं सणसणत राव' अशें बरोवनूय धाडिल्लें. पूण हें सणसणप पळोवन कितले फणफणले ताचोय हिशेब आनी कोंत ना. तरीपूण ताणीं म्हजे चडशे तीर सुवादीक मानून घेतले.

आयज रवीन्द्रबाब हें पुस्तक पळोवंक आमचे मदीं नांत. आशिल्ले जाल्यार तांच्या दोळ्यांतली अपुर्बायेची लिकलिकसाण पळोवंक मेळपाची. पुस्तक तयार जावन, छापून केऽन्ना तयार जाल्लें. पूण तें लोकार्पण करतलों तें रवीन्द्रबाबांच्या वर्सस्त्राध्दा दिसा तर्पण म्हूण! पळोवया तांचे मेरेन पावता जाल्यार अशें म्हणपा पासत न्हय तर रवीन्द्रबाब खासा येवन नदर घालतलो म्हूण! म्हाका खऱ्यानीच ते आसात हाचो भास जायत आसता. फट कित्याक मानुया?

१८ एप्रिल २०११

**– दिलीप बोरकार**

'धर्म-लक्ष्मी',
सांत लॉरेन्स,
आगशी – गोंय ४०३ २०४.
मो. : ९८२२१३६८८५



**मा**धवी मेळूंक आयलें. आषाढ म्हयन्यांतल्या भर पावसांत. आषाढ म्हयन्यांत बायलां चडशीं कुळारा वतात. चंद्रकांत केणयांचो आषाढ पांवळी हो निबंद वाचून तर वचनाशिल्लीं लेगीत वचूंक शिकल्यांत. आषाढांतली पयली पांवळी पडटा तेन्ना नवे व्हंकलेन मांवाचें तोंड पळयत जाल्यार तें गांवाक वायट अशें जाण्टेल्यांनी कितें तरी रूपक घडोवन दवरलां अशें त्या निबंदांत बरयत सावन मांवूच नवे व्हंकलेक कुळारा धाडटा खंय ! असल्या रूपकांचेर आतांच्या व्हंकलांचो विस्वास ना. तरी आपल्या मांवाचें वायट जावंचें म्हूण हांतल्यो कांय व्हंकलो आपल्या कुळारा वचनात ही वेगळी गजाल. खंयच्याय साहित्याचो जनमानसाचेर पडपी प्रभाव हाची ही जिती–जागती देख अशें मानूं येता. आषाढ पांवळी हो निबंद काय तो कथा हो एक वादाचो विशय. ताचेर गोंय विद्यापिठांत बारकायेन आनी खोलायेन संशोधन चल्लां. ताका निबंद म्हणत जाल्यार शीला कोळंबकाराचीं 'भुंयचाफीं' निबंद थरतात आनी कथा म्हळी जाल्यार घुस्पागोंदळ जाता.

म्हाका 'समकालीन कोंकणी कथा' आनी श्याम वेरेंकारान संपादीत केल्ल्या निबंद संग्रहांत गोंदळ निर्माण करपाचो ना. दत्ता नायक आनी रजनी भेंब्रे हांकां

लागून तो जाला तातून हांव समादानी आसां. तर सांगपाचें म्हळ्यार, आषाढांत माधवी आमगेर आयलें. कुळारा म्हूण न्हय तर कुळारच्या कामा खातीर. माधवीच्या कुळारच्यान जाग म्हणून एक म्हयनाळें येता. खूऽऽब वर्सां सावन. ताचेर हांवें केन्नाच बरोवंक ना पूण तें नेमान वाचलां. देखून तें तगलां आसूं येता. त्या म्हयनाळ्याचें माधवी वावुरपी संपादक. पयलीं दिसलें, तें जागाची वर्गणी व्हरूंक आयलां. हांवें बेगीबेगीन बोल्सांत हात घालो.

'सांगचे पयलींच तुवें तयार दवरलो?'

बोल्सांतल्यान हात भायर येवचे पयलींच माधवीचो प्रस्न.

'तयार दवरलो न्हय. तयार दवरली. वर्गणी.'

हांवें ताचें व्याकरण सुदारलें.

कोंकणीच्या भयण-भासांचो प्रभाव विद्यापिठांतल्या कोंकणी विद्यार्थ्यांचेर पडला हें समजूं येता. पूण तो माधवीचेर पडत अशें चिंतूंक नाशिल्लें.

हांवें वर्गणिचे पयशे बोल्सांतल्यान भायर काडले. तें हात फाटीं काडून दोळे फुडें करून पळयत रावलें. ताचो भौतेक विस्वास बसलोना जावंये. हांव नोकरी नासतनाय गाडी घेवन भोंवतां हाचेरूय जायत्या जाणांचो विस्वास बसना. शिवाय हालींसराक शंबरांच्यो-पांचशांच्यो नोटीय बोगस येतात.

'हांव वर्गणी व्हरूंक येवंक ना. लेख व्हरूंक आयलां. ऑगस्टाच्यान जागाक तुजो कॉलम जाय. हांवें सांगचे आदींच तुवें तो तयार दवरलो अशें हांव समजलें.' अशें म्हणत माधवी हांसलें.

ताका हांसपाक कारण लागना हें जरी खरें आसलें तरी तें आतां कित्याक हांसलें तें म्हाका कळूंक ना. म्हजे मुखार हें तागेलें दुसरे खेपे हांसप. पयले फावट म्हजे सामकार तें अशें हांशिल्लें १९९५च्या डिसेंबर म्हयन्यांत. म्हाका साहित्य अकादेमी पुरस्कार फाव जाला हें हांवें ताका सांगलें तेन्ना.

माधवी कारणाविरयत हांसता हातूंत जरी तथ्य आसलें तरी तें त्या वेळार हांसलें तातूंत म्हाका मालीश दिसलेंना. ताचें कारण म्हळ्यार तातो बुद्धाचेर अभ्यास करता हें हांव जाणा आशिल्लों. जेन्ना तातो ताचेर अभ्यास करता तेन्ना ताचो प्रभाव माधवीचेर पडूंकच जाय. हाचोच अर्थ, माधवीचेर बुद्धाचो प्रभाव पडला असो म्हजो समज. देखून तें जेन्ना हांसलें तेन्ना हांव धरून चल्लों, 'बुद्ध हांसलो.' बुद्ध पयले खेप हांशिल्लो पंचवीस वर्सां पयलीं जेन्ना इंदिरेन पोखरणांत

अणुस्फोट चांचणी केल्ली तेन्ना. माधवी पयले खेप हांशिल्लें म्हाका साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळा तेन्ना. बुद्ध दुसरे खेप हांसलो अटलजीन हालींच अणुचांचणी केली तेन्ना. त्या हांसपान जगभर बोवाळ जालो. तशेंच माधवी हालींच आषाढांत हांसलें. म्हजे मुखार. तेन्ना म्हाका भास जालो, हो हांसो कोंकणी जगतांत बोवाळ करपी बी न्हय मू?

'दिलीप. जागाक ऑगस्टाच्यान तुजो कॉलम जाय.'

माधवीन म्हळें आनी हांव भिलों. तसो हांव कोणाक भियेना. म्हाका कॉलम बरय म्हूण सांगूंक माधवीक धाडस कशें जालें? तो काय दत्ता नायक कॉलम न्हय. म्हाका कॉलम बरोवंक सांगप म्हळ्यार संपादकाकच न्हय, मालकाक लेगीत त्रासांत घालप. हे पयलीं तशें घडलां. अशें आसतना माधवीन रिस्क घेवप? हांव चिंतूंक पडलों. माधवी विद्यापिठांत परमनंट जालां आसूं येता! ऑलिव्हिनबाब पुर्तुगालाक गेला आसूं येता! वा डीन जाल्ल्याक गांधीवादी जाल्ला आसूं येता! वा कोंकणी विभागांतल्या बायलांनी एकवट केला आसूं येता! नातर माधवीक अशें उज्यांत हात घालपाचें धाडसूच जावपाचें ना.

'बरयता मरे? आनी तांचीं नांवां चड घेवं नाका.'

कोणाचीं नांवां घेवंक फावना हें हांव अणभवान जाणां आशिल्लों.

'पूण म्हाका एक सांग गो... तूंका जाग बंद बी करपाचो आसा?'

'हें ना. कित्याक?'

'ना. म्हाका बरोवंक सांगता म्हूण म्हणटां.'

'तें हांवें न्हय, तातोन सांगलां!'

माधवीन परत हांसत म्हळें आनी म्हजी ट्यूब लायट पेटली. तातो लोकांक तिडावन तिडावन थकला. तो लोकांक कुसां पुरता आनी मूस चवताळ्ळे म्हणटकच हांसत बसता. तांचे टिकेचो तातोचेर कांयच परिणाम जायना. आतां आपली गादी तो म्हाका चलोवंक सांगता आसुंये.

हांवें माधवीक म्हळें, 'चल बरयतां. पूण हांव बरयतलों तें असलेंच बरयतलों आं!'

'पूण तूं असलेंच कित्याक बरयता?'

'आगो, असलें बरोवप कोंकणींत कोणाक जमना. जमता जरी आसलें तरी तातूंत पुरस्कार मेळनात. गाळी मेळटात. असलें बरोवपी पयलीं फकत अना

आशिल्लो.’

‘मागीर तूं कित्याक भानगडींत पडटा? ताका बरोवंदी. न्ही रे राजूऽ?’ राजू नासतना लेगीत माधवीन ‘न्ही रे राजू’ म्हळें. म्हणूं. संवयेचो गूण.

‘आगो, हो साहित्याचो प्रकार. आतां साहित्य अकादेमी, नॅशनल बूक ट्रस्ट बी साहित्याचें संकलन करता.’

‘पुंडलीक नायक, श्याम वेरेंकार बी हांणी केलां तसलें म्हणटा मरे तूं?’

‘हय. फुडें समज उपहासात्मक साहित्याचें संकलन करपाचें थारायलें, जाल्यार अना फकत आपूण संपादक जावन आपलेंच साहित्य घेतलो. भानगडी नाकात म्हूण मदीं राम बा. प्रभू चोडणेकार आनी हरिश्चंद्र नागवेंकार हांचें साहित्य घेतलो. अनाक स्पर्धक जाय म्हूण हांव असलें बरयतां.’

‘तूं बरय रे. हांवें खंय नाका म्हळां . पूण म्हाका सांग, तुका साहित्य अकादेमी असलो असायनमेंट दितली?’

‘सांगू नज. दितय बी. आतां आमचो फेलीक्सबाब आसा न्हय गो... ताका दिल्ली टॅक्सीवाले सरदारजी फटयतात. अशें आसतना म्हाका असलें कितेंय मेळप कठीण न्हय.’

हांवें म्हळें आनी माधवी हांसलें.

आषाढांत माधवी मेळिल्लें तेन्ना खूबदां हांसलें जरी आसलें तरी तें हांव एकदांच धरतां. कित्याक तें एकदांच म्हाका मेळिल्लें. कॉलम बरय म्हूण सांगूंक!



**ऑगस्ट १९९८**



**डॉ.** किरण बुडकुलेचें पत्र आयलें. पत्र म्हळ्यार पोस्टकार्ड. हळदुवें. पोस्टकार्ड हालीं दोन रंगाचीं आसतात. एक हळदुवें आनी दुसरें मळबा कोराचें. हें निळें आसता तें मातशें म्हारग खंय! तें फकत वेवसायीक मळार वापरपाचें. म्हळ्यार, दूरदर्शनार कार्यावळी पळोवपाच्यो आनी तांणी विचारलेल्या प्रस्नांच्यो जापो सांगपाच्यो. मागीर ते ह्या कार्डांमदलें दोळे धांपून एक कार्ड काडटात आनी कोणाक तरी ते कार्यावळींतलें इनाम गावता. ही असली पद्धत योग्य अशें जेस फेर्नांडीसाचें मत. तीच रीत कोंकणीवाद्यांनी आपणावंक जाय खंय! ताचेंय खरेंच. हे कोंकणीवादी धड न्हय. पुस्तकांक पुरस्कार दिवपाच्या नांवान नाडेपेन्ना करतात. काळीज नाशिल्ल्या मनशांक परिक्षक नेमतात. उपरांत हे परिक्षक आपल्याक जाय ताका पुरस्कार दितात. असल्यांक खरें म्हळ्यार मिठा फारान मारूंक जाय. अशें जेस न्हय, हांव म्हणटां. तो कसो म्हणटलो? पुरस्कार कोणाक नाका जाल्यात? तर हांव सांगतालो किरणबायच्या कार्डा विशीं. कार्ड हातांत पडलें तेन्ना हांव मातसो घुसपलों. असलें कार्ड म्हाका खूब तेंपान आयिल्लें. खूब वर्सां पयलीं पुंडलीक नायकान घाल्लें. आपूण आकाशवाणीची सेवा सोडून साहित्यसेवा करतां म्हूण. मागीर आयलें तें कमलाकर म्हाळशीचें. म्हळें, हो कसली सेवा करूंक काणकोण सोडटा? तें आसूं. तें कळूंक म्हाका खूब वर्सां काडचीं पडलीं. आनी मुखार कितलीं काडचीं पडटलीं देवाक खबर! ह्या कार्डा भायर म्हाका आनीक कार्डां आयलीं बेळगांवच्यान. कवी शंकर

रामाणी मुजरत धाडी.

कार्डावेलो सगळो मजकूर वाचूंक येतालो. पूण तें कार्ड कोणाचें हें मात कळनाशिल्लें. हालींच माधव बोरकारान तें रामाणीचें म्हूण सांगलें. तेंय बी फकत मजकुरा खालची सय वळखून. हालींच रामाणीक साहित्य अकादेमी पुरस्कार फाव जालो आनी तांचीं कार्डां बेवपाचींय बंद जालीं. अशें अकस्मात कितें जालें तें म्हाका कळ्ळें ना. उपरांत कळ्ळें की तांणी आतां बरोवप बंद केलां. कोंकणी कविताच न्हय, कार्डां लेगीत. तेन्नाच हें डॉ. बुडकुलेचें कार्ड पावलें. म्हळें, हिका आनी विद्यापीठ सोडचें पडटा काय कितें ? काय तिच्या समिक्षेच्या पुस्तकाक पुस्कार बी गावला? पूण तसलें कांय नासलें. कार्ड तशें घरगुती! म्हाका काळजा थावन उपकारां पोसो भेटोवपी.

जाल्लें अशें. हालींच तांचें पुस्तक उजवाडा आयिल्लें. म्हाका आमंत्रण नासलें तरी हांव गेल्लों. तसो हांव आमंत्रणापासत अडून बसपी न्हय. तें काम पयल्या चंवराच्या लेखक-कवींचें. तरी हांव हालींसराक सट्ट करून खंय वचना. नागेशबाबा सारको न्हय आं! रवीन्द्रबाबा सारको. म्हाका ते पुस्तकांचे विमोचन सुवाळे हालीं पचनात. सुवाळ्यांक लागून लेखकांची मती भ्रश्ट जाता हें म्हजें मत. आनी ती करूंक जापसालदार आसतात ते उलोवपी. नंदकुमार आनी दत्ता आसले तर मागीर जालेंच. नंदकुमार तर लेखकांक सकयल दवरीच ना. व्हरून बसयता बद्द मार्केज, जिब्रान हांच्या कदेलार. ह्या बाबड्या लेखकांक ते कोण तें खबर ना म्हूण बरें. नातर गोंयांत अराजक माजपाचें.

पयलीं रस्त्यार फकत रवींद्रनाथ भोंवपाचो आशिल्लो.आतां गोंयभर असले विदेशी लेखक दिसपाचे. हालींच हांव काणकोणां असल्या सुवाळ्याक गेल्लों. महाबळेश्वर सैलाच्या 'अरण्यकांड'च्या विमोचनाक. दत्ता नायक त्या वेळार सामको भावनाविवश जालो. सैलाच्या पांयांचें तीर्थ पिवपाची भास उलोवंक लागलो. तेन्नाच्यान ड्युक्स मॅन्गोलांत म्हाका तेंच तीर्थ दिसूंक लागलें. म्हजी ही असली अवस्था जाता म्हूण हांव विमोचनाक वचना. गेलोंच जाल्यार कांयच आयकनासतना बसतां. जीव खेळोवपाक असल्या वेळार हांव वेगळेंच करतां. माचयेर बशिल्ल्यांक एकटक पळयत बसतां. तेन्ना म्हजी नदर सामकी पारदर्शक जाता. मास, रगत बी भेदून हाडांमेरेन पावता. मागीर तांचे कवटेची हालचाल पळयत रावतां. कवटेची अभिव्यक्ती म्हाका आगळेंच गिन्यान दिता. तेच खातीर

हांव 'साहित्य नियाळा'च्या उक्तावणाक गेल्लों. अशें आसतना लेखिकेन म्हाका उपकारां पोसो भेटोवप न्हय. वेल्यान तो हांवें तांकां भेटोवंक जाय आशिल्लो. कांय दुर्मिळ वक्तव्यां आयकुपाची संद दिली म्हूण! हेरांचें हांव नकळ, पूण म्हजो मात फायदो जालो. म्हाका नव्यान बरोवपाची उर्बा प्राप्त जाली. आमच्या सगळ्या लेखकांची कात नाजूक आशिल्ली. तांचीं पुस्तकां खपनाशिल्लीं देखून पयसो येना आशिल्लो. पयसो ना म्हणटकच आंगार कात येवंक खातले कितें?

म्हणटकच मात लेगीत टिका तांकां सोंसनाशिल्ली. हांगा कोणेंतरी म्हळें, आतां कात दाट करात. ते बरोबर सगळ्यांनी आंगार कात ओडून घेतली. कोणाकूय चिमटो काड. ताची कात दाटूच. ताचेवेल्यानूच तो लेखक-कवी म्हूण कळटालो. पयलीं असली कात राजकारण्यांचीच आसताली. बाबू सारक्यांनी सोडले बराबर ती लेखकांक येवंक जाय आसली. पूण तसो सल्लो तांकां कोणें दिलोच ना खंय! देखून हो इतलो कळाव लागलो म्हणटात. कितेंय जावं, म्हाका चिमटे काडूंक तरी मेळ्ळे.

चिमटे काडूंक मेळचे म्हूण हांव कला अकादमींत गेलों. लेखकांक चिमटे काडूंक मेळचे म्हूण थंय कार्यावळी राबयतात. म्हळें, महाबळेश्वर सैलाक बरेऽऽ चिमटे काडुया. ताची कात कशी आसा ती तरी पळोवया! पूण तो आयकता? तो तर कोंकणींतलो मैल. सैल म्हळ्यार कितें हें दत्ताराम सुखठणकाराक विचारात. सैलाक चिमटे काडपाची संदूच म्हाका मेळ्ळी ना. चिमट्यां जाग्यार बुचके काडीत म्हूण सगळे भियेले. थोड्यांनी म्हजीं नाखटांय काडपाचो यत्न केलो. तरीय म्हजो तिरसुवाद सभाव ओगी बसता? म्हजे हात म्हाका ओगी बसूंक दिनासले. म्हज्या शेजराक कोणतरी लेखिका बशिल्ली. कशें कितें हें हांव नकळ, पूण तिका चिमटो आयलोच. त्या बराबर ती फटक करून उसळ्ळी, 'मनोहरबाब, फकाणां पुरो आं!'

म्हाका आतां म्हजीच कात दाट करची पडली.



**सप्टेंबर १९९८**



**जा**गाचो दिवाळी आंक आयलो. आयलो म्हणचे! तो येवंकूच जाय आशिल्लो. दिवाळी आंक दिवाळेकूच येवंक जाय अशें कांय ना. तसो तो येवंचो असो नेम खंय आसा? म्हजो बिम्ब खंय आयला? हेमाचो चित्रंगी खंय आयला? तुकारामाचो कोंकण टायम्स आयला आसूं येता. पयलीं हे दिवाळी आंक आयल्यात हें सहज कळटालें. खंयच्याय सरकारी खात्यांत पासय मारल्यार पुरो आशिल्लें. पूण आतां सरकारानूच दिवाळें काडलां. वर्साक जायराती घालताले तेंय बंद पडलां. देखून चवकशेक खंयच्या खात्यांत वचप तें कळना. दत्तराज दिवाळे निमतान कोणा कोणाच्या हातार नेवेद्य उडयतालो. कोंकणी मळार यादवी सुरू जाली आनी ताणें आंग काडलें. हांगा आंग काडलें म्हळ्यार भियेवप न्हय. कोंकणीच्या मळार कितेंय जालें तरी तो भियेवंचो ना. आनी भियेवप कित्याक? तागेलें दिसाळें तर येताच. सांगपाचें म्हळ्यार दत्तराजान दक्षणा दिवप बंद केलें. तोच जर दिना जाल्यार बाकिचे तरी कित्याक दितले? म्हणटकच दिवाळी आंक आयल्यात हें कळपाचे मार्ग बंद जाले. तरी लेगीत एक कोंकणी मनीस म्हूण म्हाका खात्री आसा मळब लेगीत कोंसळ्ळें तरी दिवाळी आंक येतलेच. जाग आनी कोंकणी मातशे पयलीं येतात इतलोच फरक.

तर सांगपाचें म्हळ्यार जाग आयलो. तो आयले बराबर वाचक जागे जाले. सगळ्यांत पयलीं तांणी तो कचाकच चाळ्ळो. तशें करतना तांचेकडल्यान कांय पानांय पिंजलीं. पूण तांकां खंयच म्हजो कॉलम सांपडलोना. मागीर म्हाका तांचे फोनार फोन.

फोन कोणें कोणें केले तांचीं नांवां सागना. कित्याक, आवाजावेल्यान

वळखुपाची चूक जावं येता. फाटीं  पुंडलीकाच्या नांवान कोण तरी घरा फोन करी. घरच्यांक पयलीं पयलीं तें खरेंच दिसलें. पूण उपरांत तो कोंकणींतलो शकुनी म्हूण तांकांय कळ्ळें. तर फोनावेल्यान तिरसुवादीक चवकशी सुरू जाली. 'कितें रे? दोनूच कॉलमांनी बंद मरे कॉलम? हांवें सांगू नाशिल्लें तुका असलें लिखाण पचपाचें ना म्हूण? तांची कात आजून तितली दाट जावंक ना. काती सोडून सोडून तांचीं आंगां मोव पडल्यांत रे. जाग बंद पडचे परस तुजोच कॉलम बंद केल्यार बरो.'

हांचें हें चिंतप पळोवन म्हाका हांसपाक आयलें. कोंकणीवादी तरातरांनी चिंतूंक शकतात तें पळोवन बरें दिसलें. थोडे जाण म्हाका व्यक्तिगत मेळूंकय आयले. घरचो कोणूय खंवसल्यार पाचारूंक येतात तशे!

'तुवें जागार दिवाळेक टोपण नांवान बरोवंक ना मरे?'

प्रश्न आयकून म्हाका कच्च जालें. हांव टोपण नांवान बरयतलों अशें हाका दिसलेंच कशें? टोपण नांवान बरोवपाची परंपरा कोंकणींत आसा आनी ती गरजेप्रमाण कोंकणींत आयली हेंय खरें. कोण सरकारी नोकर म्हूण पोट भरतालो तर कोणाचे सरकाराकडेन बरे संबंद आशिल्ले. मागीर खाल्ल्या पानार हळशीक कशी करप! खावपाकूय जाय आनी हळशिकूय करूंक जाय. नातर कोठो इबाडून तकलेचें दुयेंस उप्रासता. ताचेर उपाय म्हणून कोंकणींत टोपण नांवाची परंपरा सुरू जाली. कोण 'हापशी' जालो तर कोण 'खा. के. ओरशे' कोण 'बेकार थवय' तर कोण 'दो. के. वांकडे'. रूपडीं वेगळीं वेगळीं चडयलीं म्हूण रूपां लिपोवंक आयल्यांत व्हय तर तांकां?

हीं रूपडीं सगळीं जायांचीं. भितरलीं रूपां स्पश्ट दाखोवपी. केन्ना केन्ना एकूच रूप दोन-तीन रूपड्यांतल्यान लोकांक दिसलां. म्हजे स्टायलीन कोणें बरोवंक बी ना मू! ह्या दुबावान हांवें जाग हातांत घेतलो. हांव म्हजो लेख आसल्यारूच आंक उगडटां आनी फकत हांवें बरयलां तेंच वाचतां. व्यासंगी वाचक म्हणटात तसलो म्हाका जावपाचोच ना. ती मक्तेदारी दत्ता, नारायण देसाय, नंदकुमार बी हांची. नातर ते बेठेच सभेमुखार तशें म्हणपाचे? हांवें 'जाग' हातांत घेतलो. हांवें 'जाग' दिवाळी आंक पुराय चाळ्ळो पूण तातूंत टोपण नांवान कोणेंच बरोवंक नाशिल्लें. म्हज्या बरोवपाकडेन लागीं अशे दोन लेख आसले.

एक शीला कोळंबकाराचो आनी दुसरो अनाचो. ते तर तांणी स्वताच खास

दिवाळी आंकाक बरयल्ले. तांचीं नांवां घेवन हांव-सो कित्याक बरयतलों? म्हाका बरोवंकूच जाय जाल्यार घे म्हूण नांवां आसात. पूण म्हजो एक मित्र डी. सतीश म्हणटा पणजे खंय एक टोपणशेट म्हूण वेपारी आसलो. त्या टोपणशेटी वेल्यान ही टोपण नांवाची परंपरा आयल्या. टोपण नांवान बरोवपी सगळे ताच्याच घराब्यांतले. म्हाका तो टोपणशेट आवडना, देखून टोपण नांव घेना. पूण ह्या सगळ्या बोवाळांत एक बरी गजाल घडली. शिलाचो 'पोजडीं उतरां' हो लेख वाचूंक पावलों. वाचून एक प्रस्न पडलो, ह्या शीलाक जालां कितें? साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार ताका मेळ्ळो ही बरी गजाल. ताका मान-भौमान, दुडू-बिडू सगळें मेळ्ळें. अशें आसतना आमच्या वांट्याक पोजडीं उतरां? 'साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळो की लेखक सोंपता' अशें झाडून सगळे म्हालगडे म्हणटाले. दुसऱ्यांक तो मेळचो न्हय देखून ते तशें म्हणटाले असो म्हजो त्या वेळार समज आसलो. शीलाचें बरोवप पळोवन तातूंत तथ्य आसा म्हणपाचें कळ्ळें. आतां दत्ता नायकाकूय तो मेळूंक जाय. म्हणचे आमचे सारके तरी त्रासांतल्यान सुट्टले.

शीलाचीं पोजडीं उतरां वाचून म्हजो एक फायदो जालो. म्हाका साहित्यिक वावरांत नवी ओपार मेळ्ळी.'सुनेचो तो धबधबो धुवेची ती चुळचुळी!' आपल्याचें तें बरें आनी दुसऱ्याचें तें वायट हें सागपा खातीर कोंकणीत फिट्ट ओपार नाशिल्लीच. 'आपल्यालें तें बायूल, दुसऱ्यालें तें रांडूल' ही कितले फावट आनी कोणें कोणें वापरची? ते परस शीलाची ओपार खरेंच लक्तुबायेची. डॉ. किरण बुडकुलेन तर ती वापरूंक सुरुवात लेगीत केली. 'मावज्याली ती चुळचुळी आनी बोरकारालो तो धबधबो' अशें भाई आनी दिलीप हांच्या साहित्याचेर बरयतना ताणें म्हळां. खरें काय फट तें छापून येतकच कळटलें.

तर सांगपाची गजाल म्हळ्यार जाग दिवाळी आंक. म्हणचे जागाविशी कांयच सांगपाचें ना. सांगपाचें आसा तें हांवें लेख कित्याक दिलो ना. तेंय बी वाचकांचो गैरसमज पयस करूंक. जागान म्हजो कॉलम बंद केलो असो तांचो समज. कॉलम बंद करूंक जाग सुनापरान्त व्हय तर?

तर हांत्रें बरोवंक ना ताचें कारण एकूच. तुमकां ह्या कॉलमाची तिश्टत लागची देखून



**नोव्हेंबर १९९८**



राण्याचें सरकार पडलें. विलीचें आयलें. विलीचें पडलें, लुईझीनाचें आयलें. आतां लुईझीनाचें पडटलें आनी तेरेझीनाचें येतलें.

हें तेरेझीन कोण हें म्हाकाय खबर ना. कित्याक, कोणाचें पडलें, कोणाचें आयलें, पडल्यां कोणाक? म्हाका ताचो लावूय ना आनी लुकसाणूय! हांव भाशा मंडळाचो उपाध्यक्ष. सरकारां पडल्यार अकादमीचीं अध्यक्षपदां बदलतात देखून तांच्या अध्यक्षांक कोण पडलो कोण आयलो हाचेर लक्ष दवरचें पडटा.

पूण भाशा मंडळाक ताचें मातूय सुख-दुख्ख ना. भाशा मंडळाचीं हीं पदां हक्कान वेंचून मेळयल्यांत. तेच खातीर आमी चिंतेविरयत मंडळ चलयतात. देखूनूच येवपी वचपी सरकाराची आमकां चिंता ना. अशें आसलें तरी थोडे लोक म्हाका मेळटाच. सरकार कशें पडलें, कित्याक पडलें तें सांगतात. आतां हेंच पळयात, विलीचें सरकार पडलें. हांव जाणां आसलों तें दयानंदान उडयलां. पूण एकलो मेळ्ळो ताणें म्हाका धक्कोच दिलो. विलीचें सरकार खंय साळगांवकारान उडयलें. ते खातीर ताणें खंय स कोटी रुपया खर्च केले. आयकून म्हाका हांसचें काय रडचें तेंच कळ्ळेंना. कोणूय सरकार हाडपा खातीर लाख मोडटा. मागीर त्या सरकारा खुस्तार कोटी करता. हांगा साळगांवकाराचें सगळेंच परतें. तरी बरें लुईझीनान नाडेपन्नां केलीं म्हूण! नातर आमकां बाबड्यांक सरकार ना जावपाचें. सामके कांठार साल्वार जाले आमी. हें सगळें खरें आसलें तरी म्हाका एक खरें दिसना. साळगांवकार सरकार उडोवंक दुडू मोडचोच ना. जर

तो मोडूंक शकतालो जाल्यार म्हज्या रिणांत रावपाचो? आता तो म्हाका रीण आसा हें तरी कोणाक खरें दिसतलें? कोणाचो म्हळ्यार कोणाचोच हाचेर विश्वास बसचो ना.

ताचें जालें अशें. तेन्ना हांव कस्तुरबांत शिकयतालों. कस्तुरबा ही मराठीवाद्यांची मराठी शाळा. मराठी शाळा म्हणटकच कोंकणीक विरोध जाय. मराठीक भुरगीं उणी म्हूण तांणी इंग्लेज सुरू केली. इंग्लेज माध्यमांत हिंदी शिकोवंक म्हाका नेमलो. एक कोंकणी मनीस मराठीवाद्यांकडेन हिंदी शिकोवंक लागलो. तो काळ कोंकणी प्रजेच्या आवाजाचे चळवळीचो. हांवें सकाळीं आनी रातची कोंकणी चळवळ चलोवप. दनपरां एक ते स मेरेन हिंदी शिकोवप. केन्ना केन्नाय सांगनासतना दोन-चार दीस वचप ना. मागीर हांवें हड्डें फुडें काडून शाळेंत वचप. हड्डें फुडें काडटालों म्हजो पेपरांचेर फोटो येता म्हूण. म्हजो फोटो पळयत मुख्याध्यापिकेन म्हजी वाट पळोवप. म्हाका शाबासकी दिवंक न्हय, गाळी घालूंक. मागीर ते शाळेंत म्हाका गाळी घालपाचो कार्यक्रम जातालो. ह्या सगळ्या गजालींक लागून हांव पिसो जावपाकडेन पाविल्लों. अशा वेळार म्हाका थाकाय दिताले ते पुंडलीक आनी शिवदास. 'तूं ती नोकरी सोड, आतां अकादेमी, सुनापरान्त बी जाला. तुज्या पोटाची वेवस्ता खंयीय जावं येता.'

तांच्या ह्या धिराच्या उतरांचेरूच हांव जियेतालों. अशा ह्या दिसांनी म्हाका एक दीस उदयबाबांचें पत्र आयलें. दत्तराजान ताच्या घराकडेन एक मिटींग आफयल्ली. सुनापरान्त कसो वयर काडूं येता हाचेर विचार करूंक. ते खातीर ताका कांय लेखकांची गरज आसली. म्हाका लेखक म्हूण मान्यताय मेळ्ळी म्हूण हांव धन्य जालों. सुनापरान्त वयर काडपा खातीर उदयबाबागेर गेलों. थंय भाटीकार, नागवेंकार, चंद्रकांतबाब बी व्हड लोक आयिल्ले. दत्तराजबाबाक पयलेच खेप हांव इतल्या लागिंच्यान पळयतालों. शिवाय तो म्हजे सारक्याकडेन भासाभासूय करतालो.

'सुनापरान्ताचो राष्ट्रमत केला अशें लोक म्हणटात.'

म्हाका उलोवंक सांगलें तेन्ना हांव हें एकूच वाक्य उलयलों. म्हजें विधान क्रांतिकारी आशिल्लें काय कितें तें नकळो पूण चंद्रकांतबाब तिडकलो. ताचेवेल्यान हांव चुकलों आसूं येता अशें म्हाका दिसलें. हांवें परतून उलोवपाचें

धाडस म्हणटात तें केलें ना. हय, जाय कोणाक त्यो भानगडी? म्हज्या पोटाचो प्रस्न आशिल्लो.

मागीर ते मिटींगेक हेरांनी कांड कांड कांडलें. तांचें आयकत हांव सोफार लवडून सपनां पळोवंक लागलों. गोंयचें पुराय वातावरण सुनापरान्तमय जालां. घरांघरांनी सुनापरान्ताचेर लोकांच्यो उडयो पडटात. सकाळीं सातांक सोदूंक वचत जाल्यार खंयच तो मेळना. फांतोडेर कारवार, मंगळूर, कोचीन हांगा जिपी भरून वतात.

'दिलीप आसा. ताका घेवया आमी ऑफीसांत.'

शिवदासाच्या आवाजान हांव सपनांतल्यान भानार आयलों.

'तो तयार आसा जाल्यार पयलीं कळूंक नाका?'

भाटीकारबाब म्हाका पळोवन विचारतालो.

'ताचो पे प्रोटेक्ट जाता जाल्यार हरकत कसली?' नागवेंकारबाबान म्हजे वतीन मान्यताय दिल्ली.

सुनापरान्ताक पूर्ण वेळ एक लेखक जाय आसलो अशें मत दत्तराजबाबान उक्तायल्लें.

आतां मालकाची इत्सा म्हणटकच नाका कशें म्हणूं येता! म्हाकाय ती शाळा सोडून दिवपाचीच आशिल्ली. हांवें एका पांयार उबो रावन मान्यताय दिवन उडयली.

'केन्नाच्यान जॉयन जाता?' चंद्रकांतबाबान विचारलें.

'हांव आतांच्यान जॉयन जावंक तयार आसां' अशें म्हणचें दिशिल्लें. पूण चडूच अकलेक येवप बरें न्हय. लेखकाचो मान लेखकानूच सांबाळूंक जाय. एक तारीक लागी आशिल्ली.

'एक तारकेच्यान येतां.'

हांवें ताका उत्तर दिलें आनी म्हजो हुमको मिटलो.

एक तारकेच्यान म्हजी आगशी-मडगांव वारी सुरू. सकाळीं स्कुटर घेवप मडगावां वचप, दनपरां हॉटेलांत जेवप, सांजे घरा येवप. मदल्या वेळार सुनापरान्तांत बसून रावप. सांजवेळचो मागीर चंद्रकांतबाब येतालो. आयले बरोबर म्हाका अग्रलेख घालतालो. तो हांव झपाझप बरोवन घेतालों. बाकीबाबाचें बरोवन घेवपाची म्हाका संवय आशिल्ली. तो अणभव आतां हांगा उपकारा पडिल्लो.

मदीं मदीं एक बायलमनीस थंय येताली. ती आयली म्हणटकच म्हाका पुराय दीस फ्री. संपादक तिकाच संपादकीय बरोवन घेवंक लायतालो. अशे तरेन म्हयनो कसो सोंपलो तें कळ्ळेंच ना. बाबली, मंगेश बी हांणी आपलो पगार घेतलो. म्हाकाय पगाराची गरज आशिल्ली. म्हयन्याचो दिसपट्टो खर्च भागोवंक उशणे दुडू घेतालों. म्हजे परस तांकांच पगाराचो हुसको आसलो. एक दीस चंद्रकांतबाब म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो. म्हळें, जावं आयज पगार मेळटा सो दिसता! संपादकान बोल्सांत हात घालो. पुडिची डबी काडली. चिमटी नाकांत घाली आनी म्हाका थंडसाणेन म्हळें, 'तूं मालकाचो मनीस, ताका मेळ आनी तुजें थाराय. ना तर गरजे भायर हांगा येवन बसून फायदो कितें?'

आयकून म्हाका धस्स जालें. हांवें हांगा थंय पळयलें. तरी बरें थंय आयकुपाक आनीक कोण नाशिल्लो. हांव मोन्यांनी उठून घरा आयलों.

दुसऱ्या दिसा सावन म्हज्यो आगशी-वास्को ट्रिपी सुरू जाल्यो. पूण दत्तराजबाब म्हाका कसोच मेळना. केन्ना मिटिंगेक आसता तर केन्ना जपानाक. आठ दीस पासयो मारून मारून थकलों. फोनार फोन करून बोल्सांतली चिल्लरूय सोंपली. आनी हांवें थारायलें, हो विशय तकलेंतल्यान काडून उडोवप. मालकाक, म्हळ्यार दत्तराजाक, रिणांत दवरप. धा वर्सां जालीं हे गजालीक आतां. कोणाचो विश्वास बसपाचो आसा? ना. स कोटिंचेर मात सहज विश्वास दवरतात.

शेवटीं कितें? दिलीपाचो धबधबो, दत्तराजाची चुळचुळी!



**डिसेंबर १९९८**



हो देवगडचो गोपाळराव मयेकार कॉमीक सो. तो ज्ञानेश्वरी बी वदतालो तेन्ना वरोऽऽ आशिल्लो. आमकां सगळ्यांक जाय जाय सो दिसतालो. तशें कोणाच्याय तोंडांतल्यान कितेंय वदोवं येता. पूण सगळेच कितें सगळ्यांक जाय जाय दिसनात. ज्ञानेश्वरान रेड्याच्या तोंडांतल्यान वेद वदयले. पूण आमकां रेडो थोडोच जाय जाय दिसता!

असें आसलें तरी आमकां गोपाळराव जाय जाय सो दिसताच. मात हे कोंकणीवादी ताचेर बेशटेच जळटात. गोंयांत फर्मागुडयेर हालींच मराठी संमेलन जालें. तें संमेलन आसलें अखिल गोमंतकीय साहित्य संमेलन. मराठी साहित्य संमेलन म्हणटकच तातूंत आमी आयलेच. रवीन्द्र केळेकारान गोंयांत भरपूर मराठी बरयलें. चंद्रकांत केणी तर दिसपट्टो मराठी बरयता. दिलीप बोरकाराचे समकाक दोन मराठी लेख आसतातूच. ते सगळे गोंयकार म्हळ्यार मराठींत 'गोमंतकीय'. तांचें बरप हें मराठी म्हणून संपादक मराठी पेपरांत छापतात. गोंयचे वाचक तांचें साहित्य मराठी म्हूणूच वाचतात. पूण गोमंतकीय मराठी साहित्य संमेलन तांकां लेखिना. संमेलनाचें सादें 'निमंत्रण' लेगीत तांकां वचना. बाबड्या त्या गोपाळरावाक हेंच कशें कळना काय? पाड पडूं! गरजेभायर शेंण काडून फायदो ना. शेंण काडचे परस तांची कॉमीक पळोवप बरी.

पयर म्हाका तो द.मा. मिरासदार मेळिल्लो. गोपाळराव ताका घेवन गोंय भोंवतालो. ताणें ताका हाडिल्लो गोंय भोंवडावन दाखोवंक. गोंयांत खंय खंय

ज्ञानेश्वर आनी तुकाराम आसात तें पळोवंक. ज्ञानेश्वर कोलवेकार आनी तुकाराम शेट फुलले. तांका दिसलें, हो आमकांच पळोवंक आयला. तुकारामान तर ताका आपल्या बालगीत निकेतनांत व्हेलो. बाकीबाबांची कविता ताका म्हणून दाखयली-

गोंय आमचें मूळपीठ कोंकणी आमची भास

कोंकणी संस्कृताय आमच्या जाणट्याली मिरास

मिरासदारान हातुंतलें मिरास हेंच उतर आयकलें.

'मिरासी' वेल्यान आपूण मिरासदार अशें तो समजलो. ताचेवेल्यान कोंकणी ही मराठीची बोली अशें ताचें मत जालें. बाकीबाब मात मोठो आं! ताची सगळेकडेन मिरास.

हो मिरासदार म्हाका गोपाळा वांगडा फर्मागुडयेर मेळ्ळो. हांवें म्हळें. 'तूं कॉमीक कथा बरयता पूण कॉमीक दिसना.' म्हज्या कॉमीक उतराक गोपाळराव कॉमीक हांसलो. तो असो हांसलो की ज्युस्त भाऊ बांदोडकार सो दिसता.

'तूं साहित्याचेर सोडून भाशेचेर उलयलो?' हांवें मिरासदाराक धारेर धरपा खातीर विचारलें.

ताका म्हजी मराठीची बोली व्हडलिशी समजली ना. ताणें हांवें खंयचे भाशेंतल्यान उलयता तें गोपाळरावाक विचारलें. गोपाळान सांगलें कोंकणी म्हूण. तें आयकून मिरासदार परतून गोंदळांत पडलो.

'तू सांगतालो न्हय रे, कोंकणी भास न्हय बोली म्हूण!'

द.मा. आतां दमो भरिल्लेवरी करून गोपाळाक विचारतालो. त्या प्रस्नान गोपाळ सामको 'कावरा बावरा' जालो. 'तूं अशें करशीत जाल्यार फुडले खेपे तुका आफोवंचोना आं.' गोपाळान ताका मराठींतल्यान दम भरलो.

तांची ती धुसफूस पळोवन म्हाका खातखुतल्यो जाल्यो. कितलोय जालो जाल्यार द.मा. हो एक साहित्यीक. एक साहित्यीक ह्या नात्यान ताका सांबाळपाचें म्हजें कर्तव्य. गोपाळ मराठी मराठी करीत एक दीस मरा-ती म्हणटलो. मिरासदारां सारक्यांक गोंयांत हाडून लजेक घालतलो.

फाटले खेपे तांणी त्या विद्याधर गोखलेक हाडलो. हांव, सुबोध बी ताका

घेवन आमच्या कामाक गेले. दोन पेग ताच्या पोटांत गेल्यात मात, विद्याधराची विद्या विद्याधराकूच फळ्ळी. गोंयच्या मराठीवाद्यांची ताणें रेवडी उडयली. मिरासदाराचीय गत गोखलेपरस वेगळी खंयची? हांवें ताका म्हळें, 'बाबा तूं मराठींतलो एक साहित्यीक.' गोंयांत आपल्याक कोण तरी साहित्यीक मानता म्हूण तो फुल्लो. गोपाळाक सोडून बद्द म्हाकाच दसलो.

'तूं ह्या लफड्यांत कसो फसलो?'

म्हज्या प्रस्नान तो फुस्स करून हांसलो.

'म्हाकाय ह्या दिसांनी खंय तरी वचूंक जाय आसलें. हे गोंयांत आफयतात म्हूण म्हळें, गोंयांत या. तुमी आफयल्ले जाल्यार हांव तुमकां येवपाचों.'

'मागीर तुवें कोंकणीक मराठीची बोली कित्याक म्हळी?'

'तुमी आफयल्लो जाल्यार हांव मराठी कोंकणीची बोली म्हणपाचों.' मिरासदार उलोवंक मात कसोच आयकना आशिल्लो.

'तुकां हें अखिल गोमंतकीय साहित्य संमेलन कशें लागलें?'

मुकेश थळयान मुलाखत घेवंची तसो म्हजो प्रस्न. बाबड्याक हें संमेलन खंय जालें तेंच खबर नाशिल्लें. फर्मागुडयेर जाल्लें तेंच संमेलन हें हांवें ताका सांगलें. तसो तो सामको कोफुसांवांत पडलो.

तें अखिल गोमंतकीय मराठी साहित्य संमेलन हें तो नकळो आसलो. ताका दिशिल्लें, तो विश्व हिंदू परिशदेचो मेळावो म्हूण.

'हीं असलीं नाडेपेन्नां गोंयांत कितलो तेंप चलतलीं?'

तांचें मत जाणा जावन घेवंक हांवें सहज विचारलें.

'तो विष्णू वाघ आनी सुदेश लोटलीकार आसात म्हणसर!'

'ते तर आयचे पिळगेंतले समर्थ कोंकणी भक्त.'

मिरासदारांचो कितें तरी गैरसमज जाला आसूं येता. आनी जावंचोना कित्याक? तो करून दिवपीय आसात न्हय? हांगा नांवां कोणाचीं म्हूण घेवपाचीं? तींच तींच जातात. मराठीवादी नांवां घेवपा सारके आसात तरी कितले? आसून आसून आसत निमाणे अशे धा-बारा. मराठीच्या नांवान सरकार तांचे मुखार कितें तरी उडयता आनी मागीर हे करतात मानिफेस्तां, संमेलनाच्या नांवान. हे कोण गोंय पळोवंक येतात तेय खूश, फुकट सगळें म्हूण. नातर तांकां महाराष्ट्रांत वो हेरकडेन कोण व्हरता? व्हरपा सारके महाराष्ट्रांत कितलेशे व्हड मनीस आसात.

ते असल्या दाणापुरी संमेलनाक वचनात. गेल्यारूय खरें कितें फट कितें तें तर्जून पळोवन उलयतात. पूण आमच्या मराठीवाद्यांक सांपडतात तितलीय संवंगा. विष्णू आनी सुदेश मराठी चळवळिचे खांबे खंय! मराठींतल्यान बरयलें आनी मराठी संमेलनाक गेले म्हूण कोण कितें मराठीवादी जाता व्हय तर? हांव मराठींतल्यान बरयतां मागीर जालों मराठी? हांवें तें त्या मिरासदाराक सामकें नेटान विचारलें. तसो तो गोंयच्या मराठीवाद्यांकडेन पळोवन हांसलो. आपणें आनी कसलो अप्रूप सोद लायला ह्या अर्थान.

'हांव कोंकणी आनी गोंयचे आड उलयलों तेन्ना ते ओगी कित्याक रावले तर?'

अशें म्हणत प्रस्नार्थक नदरेन म्हजेकडेन पळोवंक लागलो. म्हाका जाप नाशिल्ली. सुदेशाचें हांव समजूंक शकतां. ताका ते माचयेर कसलें तरी बक्षीस घेवपाचें आशिल्लें. पूण निदान विष्णून तरी आक्षेप घेवपाचो न्हय? ताचे फाटल्यान तर आतां कोणतरी स्वामी आसा. नेटान शेंडयेक गांठ मारपाची आनी माटोव सोडपाचो. गोंयच्या युवक कॉंग्रेसच्या अध्यक्षपदाचो मान उरपाचो. आतां हें सगळें येवजून फायदो कांयच नाशिल्लो. हे आसात म्हूण ह्या भायल्या लोकांचें फावता. गोंय म्हळ्यार आपली मिरास अशें धरून चलतात. आमचेंच नाणें खोटें. तेन्ना आमी तरी कितें करतले?

हांवें मात मिरासदाराक हें सांगूंक ना आं! सांगिल्लें जाल्यार, चलना जाल्यार आपल्याक दी म्हणपाचो. हे लोक कसलींय नाणीं चलोवपाक भोवच हुशार. गोंयच्या मराठीवाद्यांक जाय तशे चलयनात तर ते?



**जानेवारी १९९९**



'दिलीप, बेळगांवां या बरें ऽऽ घोस्त काडुंया'

राजू नायकान बरें ऽऽ घोस्त काडीत म्हळें. परिशदेक गेल्ले तेन्ना न्हय आं. ताचें आदलें खेपे गेल्ले तेन्ना. आता राजू म्हणटा तेन्ना म्हळें. या गाडी तर आमचेच म्हजी. ते भायर कोंडय म्हारग जाल्ले. येतना तेय हाड्‌ं येताले. कांद्यांचें नांट्रन दियात. वचपाक आनीक एक कारण आसलें. राजूक भाषा मंडळांत बेळगावच्यान पत्र आयिल्लें. ताचेर हांवें चंदा पै म्हूण एक नांव वाचिल्लें.

नांव सुंदर आशिल्लेंच. म्हणटकच तेंय सुंदर आसचें पडलें ना? अशे सुंदर लोक आसले म्हणटकच संमेलनां, परिशदो बऱ्यो सोबतात.

'राजू, हें चंदा पै कोण रे?'

म्हाका चलयांचो व्हडलोसो इंटरेस्ट ना अशें भासयत विचारलें. राजू आपली मान सकयल वयर हालयत हांसत रावलो.

'बेळगांवा योच तूं. कळटलें तुका. बरें ऽऽ आसा.'

राजूचें 'बरेंऽऽ' आमी नकळो तर!

ती माधवीकूय बरें ऽऽ म्हणटा. भाशा मंडळूय बरें ऽऽ चलता म्हणटा. आतां हेंच पळेयात. म्हाका चलयांचो तसो इंटरेस्ट ना. किल्यात तर वय जाला. म्हजें न्हय, म्हजे बांगडच्या चलयांचें. देखून हांव कोणाचकडेन वांकडे नदरेन पळयना. पळोवचेंच जाल्यार सरळ नदरेन पळयतां. हांवें 'बबलूचीं पत्रां' बरयलीं. तीं सरळ नदरेन. पूण म्हज्या एका वाचकवर्गान मात तीं वांकडे नदरेन घेतलीं. हो

वर्ग म्हज्या बरपाकडेनूच न्हय, म्हजेय कडेन वांकडे नदरेन पळयता.

तर हांव तुमका सांगतालों ती बेळगांवची खबर. तसो हांव हे पयलीं बेळगावां खूबदां गेलां. पूण पयले खेपे हांवें बेळगांवचो धसको घेतिल्लो तो अजून आसा. कॉलेजांत शिकता आसतना म्हजो एक इश्ट म्हणूंक लागलो, बेळगांवां या.

तो हुबळीचो जाल्ल्यान बेळगांव ताका संवकळिचें. हांव बेळगांवां पयलीं केन्ना पावंक नाशिल्लों. तो आफयता तेन्ना म्हळें या आनी फोल्ग मारूंया. म्हज्या बोल्सांत तेन्ना फकत चार आणे. तेय घरा वचूंक बसीक दवरिल्ले. अर्दे टक्के सवलतिचे. ह्या चार आण्यांनी गोंयच्यान बेळगांव कशें वचप? तर तो इश्ट म्हणूंक लागलो, खर्च आपूण करतां. जालें, ताचे वांगडा हांव बेळगांवां आयलों. म्हाका थंय सगळेंच नवें. गोंयच्यान पयलेच खेपे हांव भायर सरिल्लों. त्या इश्टावांगडा हांव बेळगांवां फोल्ग मारतालों. बेळगांवां फोल्ग मारप म्हळ्यार हॉटेलांत रावप. तो जें कितें कोप मारता तें हांवें मारप. आनी मागीर वचून सिनेमा थिएटरांनी बसप. बेळगांवची ही मजा पयल्या दिसाच सोंपली. दुसऱ्या दिसा अशेंच जेवन आमी सिनेमाक वचपाचे आशिल्ले. म्हज्या इश्टान चिकन बिर्याणी मागयली. पूण म्हजी तर चिकन-मटणाकडेन दुस्मानकाय. बेळगांव येवन मात्सो सुदारूंया म्हूण हांवें 'एग मसाला' घेतलो. चपातेक लावन हांव तो रूचीन खातालों. इतल्यान म्हाका ठसको बसलो. गळ्याक कसलो तरी कुडको घट्ट बसलो. तांतयाचो कुडको काय असो बसूंक शकनाशिल्लो. गळ्यांत कितें आडखळ्ळां तेंच कळना जालें. उलयतलों म्हळ्यार तोंडांतल्यान उतरां येनांत.

हांव फकत तोंडान ऑऽ ऑऽ करीत रावलों. बोवाळ आयकून सगळे वेटर म्हजे भोंवतणी जमले. कोण गळो पोशेता तर कोण फाट थापटिता. कोण उदकाचो घोंट घे म्हणत ग्लास तोंडाकडेन हाडटा. म्हजो तर जीव वचपाकडेन पाविल्लो. जो तो आपले परीन कितें ना कितें प्रयोग करतालो. इतल्यान कोणे तरी म्हजे फाटीर धपको घालो आनी म्हज्या तोंडांल्यान कितें तरी मेजार पडलें. तो दांत काय आसूंक शकनाशिल्लो. हातांत काडून पळय जाल्यार बोटभर हाडा कुडको.

हे आदी हांवें तशीं तातयां खाल्लीं. पूण तांकां हाड आसता हें पयलेच खेपे अणभवतालों.

'हें हाड कसलें?'

हांवें दोळ्यांतलीं दुकां पुशीत वेटराक विचारलें.

'चिकनाचें!'

तोंडार निर्विकार भाव दवरून ताणें म्हळें. म्हाका हाडां लेगीत वळखूंक येनांत देखून तो अजापलो. पूण एग मसालांत हाडां पावलींच कशीं? तर खंय ते चिकनाचो रस्सो घेताले आनी तातूंत आदींच उकडून दवरिल्लीं तांतयां सोडताले. हांवें चिकन खालां हें कळानाफुडें म्हाका धवळून आयलें. हांव थंयच्यान धांवत बेसिनाकडेन गेलों. खाल्लें तितलेंय पोटांतलें भायर आयलें. हें आदींच घडिल्लें जाल्यार गळयांतलें हाड तरी भायर सरपाचें. त्याय प्रसंगार म्हाका महाबळेश्वरबाबाची याद जालेबगर रावलीना. महाबळेश्वर बोरकार असोच मंगरूळाक ओंकतालो. आमकां थंय टी.ए. पै मामान व्हडली पार्टी दिल्ली. बाकीबाब बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय बी आसले. तांचे वांगडा आमीय स्कॉच घेताले.

हांव काय चिकन-मटन खायना म्हणटकच शादूर आशिल्लों. म्हजे खातीर तळिल्ल्यो नगल्यो येताल्यो. जेवणाक सगळ्यांनी कितें कितें मागयल्लें. तें ते आवडीन खाताले. पूण महाबळेश्वरबाबाक पाडी बुद्द सुचली. आपणें खालां तें कसलें मास काय म्हूण ताणें चवकशी केली. तेन्ना ताका तें बीफ म्हळ्यार गायचें मास म्हणपाचें कळ्ळें. ताच्या गिन्यानांत भर पडल्या मात, तो बेसिनाकडेन धांवलो. ताळ्यांत बोटां घालू-घालून बीफ भायर काडूंक लागलो. मनोहरबाबान म्हळें, 'पोटांत गेलें मरे? पावन जालें. आतां पोटांतलें काडून जीब कित्याक विटाळता?' मनोहरबाबाचीं तितलींच उतरां हांवें गांठीक मारिल्लीं. पूण बेळगांवच्या प्रसंगार काय तीं म्हाका पावलिनात. त्या दिसा पिक्चर बी कांय नाका जालें. सरळ उठून आमी गोंयची वाट धरली. तेन्नाच्यान हांवें बेळगांवचो घेतिल्लो धसको अजून आसा.

राजून बेळगांवां या म्हणटकच पयली याद जाली ती ह्या हाडाची. तरीपूण आमी बेळगांवची वाट धरली. बेळगांवां चंदा पै गेर परिशदेची बसका आसली. हे बसकेंत परिशदेचो हांव वांगडी न्हय देखून एका कोनशाक बसलों. म्हजी नदर चंदा पै क सोदीत आशिल्ली. पूण बसका सोपूंक आयली तरी ताचो पत्तो ना. बसकेंत अध्यक्ष म्हूण पुंडलीक नायकाचें नांव आयलें. पुंडलीक नायकाची निवड जाली.

एका जाणट्या मनशान निर्णय दिलो. सगळ्यांनी ताळयो मारून निर्णयाक

येवकार दिलो.

'चंदामामाची निवड ही योग्यची आसा.' व्ही.व्ही. शणैमामान म्हळें आनी हांवें अजापून पळयलें. चंदा पै म्हळ्यार हरिचंद्रमाम पै आशिल्ले तर. हांव इतलो वेळ भलत्याचीच वाट पळयतालों. हांवें तिडकीन राजूकडेन पळयलें. राजू आपले पांय हालयत गुणगुणटालो, 'चंदा ओ चंदा, किसने चुराई तेरी मेरी निंदिया.' बेळगांवां येवन म्हाका लागिल्लो हो दुसरो धक्को.

तरी हांवें तो कोंकणी पासत सोंसून घेतलो: कोंकणी पासत म्हजे सारक्याक कितें सोंसचें पडलेंना? कोंकणीचे फुडारी सदांच म्हणटात, आमकां कोंकणी पासत खूब सोंसचें पडलें. पडलें आसत गा सोंसचें! ना कोणें म्हळां? पूण म्हजे इतलें सोंसलां व्हय तर तांणी? हांव आदीं भुरगेपणा सावन मराठीवादी. गोंयचे विलिनीकरणाचे चळवळींत हांवें वांटो घेवंना जायत. पूण हांवें हातांत गुलाब घेवन 'झालाच पायजे' म्हळां! काश्टी सांबाळीत 'जेय जेय म्हारास्ट माजा' म्हणत मराठीवाद्यांच्या गाड्यां फाटल्यान धांवलां. एक दीस आकाशवाणीचेर मराठी जाय म्हूण गेल्ल्या मोर्चांत हांवें वांटो लेगीत घेतला.

तेन्ना आल्तिनची चडटी काडटा आसतनाच म्हाका उतरती कळा लागली. मोर्चांतल्यान ल्हवूच फाटीं देंवून हांव कोंकणी कळपांत आयलों. कितलो विश्वासघात केलो हांवें मराठीवाद्यांचो! अशा वेळार म्हज्या काळजाक कितें भोगलां आसत हाची कल्पना करात. हांव उपरांत कोंकणी विश्वांत रिगलों आनी पुराय कोंकणीमय जालों. म्हाका कोंकणींत केदे व्हड व्हड मनीस पळोवंक मेळ्ळे. लक्ष्मणराव, रवीन्द्रबाब, पंडितबाब, बाकीबाब आनी हेर कितलेशे बाब.

मराठीकडे आशिल्लों तेन्ना थंय फकत बोब आशिल्ली. म्हजो कोंकणीचो वावर सुरू जाल्लो तोच कोचीन संमेलनान. म्हाका कोंकणीचो दिश्टावो जाल्लो. हांव कोचीन वचूंक भायर सरलों. कोचीन वचूंक मेळटा म्हूण जायते गोंयकार तयार जाल्ले. गोंयची बॉर्डर हुपून कर्नाटकाक पावले तेन्ना हांव फॉरेनाक पाविल्ल्याचो भास म्हाका जालो. हांव थंयचीं झाडां, थंयचीं मनशां, थंयचे फातर सगळें अप्रुप नदरेन पळयतालों. तेय परस म्हाका चड अप्रुप दिसलें तें आमच्या म्हालगड्यांचें. गोंयची शीम हुपले बराबर सगळ्यांक कन्नड येवंक लागिल्ली. हांचे हे गूण म्हजे सारक्याक नवे आशिल्ले. म्हज्या पूर्वाश्रमीच्या लोकांक म्हळ्यार मराठीवाद्यांक तर मराठी लेगीत धड येना आशिल्ली. मनोहरबाब

जंय गाडी रावता थंय कन्नड मारतालो. कोणाक इल्ले बा म्हणटालो तर कोणाक इल्ले होगू. 'बा' म्हळ्यार यो हें म्हाका तेन्ना कळ्ळें.

हांव घराकडेन कोंबयाकूय आपयतना 'बा, बा' म्हणटालों. आमच्यो गोंयच्यो कोंबयो खंय कन्नड शिकल्यो काय? मनोहरबाब भौभाशीक हें एक समजूं येतालें. पूण महाबळेश्वर बोरकाराक लेगीत कन्नड येवप? म्हजी म्हालगड्यांविशिंचो आदर द्विगुणीत जालो. उपरांत आमी कर्नाटकाची शीम हुपून केरळाक पावले. गाडयेंतले म्हालगडे खंय खंय पावले तें सांगताले. तांणी हे आदीं भरपूर प्रवास केल्लो आसूंक जाय! म्हाका तर म्हज्या गांवचे वाडे लेगीत खबर नाशिल्ले. हांव बारकायेन गांव पळोवन ते लक्षांत धरतालों. म्हालगडे सांगाताक नासतना भुरग्यांचेर इंप्रेशन मारूंक बऱ्याक पडपाचें.

कोचीक पावलों तेन्ना हांव म्हज्या म्हालगड्यांकडेन आशेन पळयतालों. ते आता थंय पावना बराबर मल्ल्याळी उलयतले म्हूण. पूण थंयच्या कोंकणी फुडाऱ्यांकडेन हे भलतीच कोंकणी उलोवंक लागले.

थंय के. के. पै आनी पुरुषोत्तम मल्ल्या म्हूण म्हालगडे मेळ्ळे. तांकां भेटना बराबर चंद्रकांतबाबान तांची कोंकणी सुरू केली.

'मल्ल्यामाम, सगल्लें भाऽऽरी जालां न्हय वे?'

'आनीक भाऽऽरी कित्तें जावका वे?'

ही सगळी नविदाद हांव म्हज्या दोळ्यांनी, कानांनी साठयतालों. ह्या सगळ्या मामां वांगडा म्हजी वळख जावंक लागली. आमचे गोंयचे सगळे बाब थंय पावतांच माम जावन गेल्ले. हांवूय म्हजे परीन तांकां माम बी म्हणटालों. असोच एक कोण तरी माम म्हजेकडेन आयलो. ताच्या सांगाताक एक सोबीत चली आशिल्ली. त्या वेळा कोणूय सोबीत दिसपा सारकी म्हजी पिराय.

'हांव गोविंद पै आनी ही मिगेली चली विद्या. तुमगेलें नांव कित वे?'

'दिलीप बोरकार' हांवें नेटान सांगलें.

तेन्ना हांवें दोन चार कविता बरयिल्ल्यो. त्यो हांगा थंय छापुनय आयिल्ल्यो. पूण म्हज्या नांवाचो तांचेर कांयच परिणाम जाल्लो दिसलोना.

'तुम्ही कोंकणी न्हय वे?'

आतां हें कितें विचारप जालें? कोंकणी म्हणुनच तर हांव परिशदेक आयिल्लों.

हांवें नेटान हय म्हूण सांगलें. गोंयांत तेंच सांगपाक हांव लजपाचों.

'म्हळ्ळ्यारी तुमी जीएसबी?'

ते चलयेन आपले लिकलिकीत दोळे दोन-चार खेपे बिटबिटायत विचारलें. जीएसबी हो प्रकार म्हजे खातीर नवो आशिल्लो. कितें जाप दिवस हेंच म्हाका कळ्ळें ना. तेन्ना तिच्या बापायनूच तिका जाप दिली.

'बोरकार म्हळ्ळ्यारी जीएसबीच आसका.'

तेन्ना म्हाका हांव जीएसबी म्हूण कळ्ळें.

उपरांत खंयच्याय मामान 'बोरकार म्हळ्ळ्यारी कोण वे?' अशें विचारना बराबर हांवें जीएसबी म्हूण सांगूंक सुरुवात केली. कोची परिशदेक तें विद्या तर म्हजेच भोंवतणी घुटमळटालें. आपल्यागेर जेवपाक येवपाक फोर्स करतालें. म्हाका दिशिल्लें तें, हांव एक कोंकणी मनीस, एक कवी देखून तशें करता. पूण तें घुटमळटालें वेगळ्याच कारणाक लागून! कोंकणी मनीस, कवी, लेखक जावंचे परस जीएसबी जावपांत कितलो मान आसा हाचो साक्षात्कार म्हाका जाल्लो. तोच मान घेवपाक हांव पुरायेन जीएसबी जाल्लों. एक दीस महाबळेश्वर बोरकारानूय म्हाका प्रस्न केलो.

'दिलीप, तुजो देव खंयचो?'

ह्या देवा बाबतींत म्हाका सदांच कोफुसांव. त्या वेळार सांगाताक बाकीबाब आशिल्लो. ताका महाबळेश्वरबाबाच्या प्रस्नाचो हेतू कळ्ळो जावंक जाय. ताणेंच ताका सांगलें, 'बोरकार शांतादुर्गेचे हें खबर ना रे?'

इतलें आयकून ओगी रावल्यार तो महाबळेश्वरबाब कसलो? ताणें म्हाका म्हजें गोत्र विचारलें. हांव परतून घुसपलों. बाकीबाबानूच ताका जाप दिली. 'ताचें गोत्र वत्स रे'.

त्या वेळार म्हाका परतून साक्षात्कार जालो. फकत जीएसबी आसून उपकारना. ताका देव, गोत्र बी सांगूंक येवंक जाय.

तर इश्टांनो. कोंकणीच्या नांवान कोचीन, मुंबय, मंगळूर अशी म्हजी भोंवडी जाली. हे परिशदेच्या निमतान हांव परतो बेळगांवांय पावलों. ह्या सगळ्या प्रवासांत हांव अणभवी जालां. आदल्या संमेलनां-परिशदांक हांव वांगडा हांथरूण हाडून खंयच्याय माटवांत लवंडटालों. म्हालगडे गाडयो घेवन येवन हॉटेलांत रावताले तें लक्तुबायेन पळयतालों. आतां हांव गाडी घेवन येतां आनी हॉटेलांत रावतां. हेरांक 'तुमी कशे चमकून आयल्या वे' म्हूण विचारतां. कोणाचेंय नांव कळटकच

'तुमी जीएसबी वे?' म्हूण चवकशी करतां. शणैमामाकूय हांवें विचारलें, 'शणैमाम, तुमी जीएसबी वे?' तर तांणी म्हळें, 'न्हय बा. त्या जीएसबींक कसल्ली गोत ना. कोंकणीक गोत आसा. हांव कोंकणी.' आनी म्हाका बेळगांवांत हो तिसरो धक्को बसलो.

(१५ जानेवारी १९९९ दिसा बेळगांवां भरिल्ले २२ वे अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेंतले सांस्कृतीक कार्यावळींत 'बोरकारी' ह्या नांवान सादर केल्लो एकपात्री प्रयोग.)



फेब्रुवारी – १९९९



**को**णूय खंवसलो जाल्यार म्हाका मात्तूय रडूंक येना. तातूंत तो कवी, लेखक बी असलो कोणूय आसलो जाल्यार घात. म्हाका भितरले भितर हांसूंक येता. आनी मागीर म्हजे म्हाकाच सामको भंय दिसूंक लागता. सगळे लोक रडटात तेन्ना हांव एकदम हांसत म्हूण! म्हज्या ह्याच सभावाक लागून लोक म्हाका निगरगट्ट म्हणटात.

आता म्हजो सभाव असो कित्याक जालो म्हाकाय समजना. भोवतेक हांवें चडशीं मरणां किरिस्तांवांचीं केल्यांत म्हूण जावंये! भटवाड्यार कुकड तसो म्हजो राबितो किरिस्तांव वाड्यार. म्हणटकच अदी मदी तांच्या मर्णाच्या कार्यक्रमाक वचप जाता. ताचें कारण म्हळ्यार कोणाचो तरी आयकल्लो सुविचार. 'एक वेळ कोणाच्या लग्नाक वचना जाल्यार चलता पूण मरणाक वता तांचीं घरचीं तें मरसर विसरनांत.' तातूंत हांव पडलों एक ल्हानसोच राजकारणी. फाटीफुडें गांवांत मतां मागूंक गेल्यार तोंड नाका? 'मर्णाक आयलो ना, आतां मतां मागूंक आयला पळय?' असो कोणाच्या मनांत विचार लेगीत आयल्यार हांव सोंपलों. देखून हांव दुस्मानाच्या मर्णाक लेगीत वचून तोंड दाखयतां. ताका लागून दुस्मानूय सुखी आनी हांवूय सुखी.

एक खेपे हांव असोच एकल्याच्या मर्णाक गेल्लों. पळयत जाल्यार मेल्ल्या घरांत रडप ना आनी कुलकुलाटूय ना. सगळ्याक शांतताय पळोवन म्हाकाच प्रस्न पडलो हो मेला म्हणपाचें म्हाका बेश्टेंच दिसलें काय किंतें? वो मेल्या

उपरांत तो पुनर्रजिवीत बी जालो काय? हांव दुबावानूच त्या मरणा घरांत भितर सरलों. काशांवा भोंवतणी बसलेल्यांची नदर म्हजेर पडल्या मात, सगळ्यांनी एकाच वांगडा बोब मारून कुलकुलाट केलो. 'बाबा, मातशे दोळे उकते करून पळय कोण आयला तो, पुता, दिलीप बोरकार कोंकानीचो फुडारी येयला मुरे. तेच्यो कोविता तू आतां केन्ना वाचतलो रे पुऽताऽऽऽ? तुजें कालसांव तो व्हरोन घालतालो रे पुताऽऽ!'

असल्यो कितल्यो तरी गजाली काडून म्हज्या नांवान रडप जालें. जमिल्ले लोक बाबडे काकुटेचें तोंड करून म्हाका पळोवंक लागले. त्या वेळार हांव कवी न्हय म्हणपाचें हांव तांकां सांगूंक शकनाशिल्लों. तशें मेल्ल्याचें कालसांव हांवें फकत एकदां- एका नाटकाखातीर व्हरून घाल्लें हेंय स्पश्ट करूंक शकनाशिल्लों. तांचें त्या वेळावयलें दुःख आनी मानसशास्त्र म्हाका समजतालें. देखून त्याय वातावरणांत म्हाका भितरल्यान हांसूंक येतालें.

म्हाका मरणा वेळार हांसूंक येता तशें शोकसभे वेळारूय येता. ह्या दोनूय प्रसंगार वातावरणांत व्हड लोसो फरक नासता. शोकसभेंत मात ते घडणुकेचो हिरो (मड्या रूपान) हाजीर नासता. असल्या सभांनी सभेक आयिल्ले, गेल्ल्याच्या नांवान शोक करतात आनी सभेक हाजीर आशिल्ल्यां मुखार आपलें व्हडपण आपुणूच गायतात. पयर म्हाका अशेंच एके शोकसभेचें 'निमंत्रण' आयलें. मराठींतले एक ज्येश्ठ आनी थोर साहित्यीक शिरवाडकर भायर पडले. खरें म्हळ्यार कवी, साहित्यीक बी म्हजे नदरेन केन्नाच मरनात, पूण म्हज्या ह्या असल्या विचारांकडेन कोणूच सहमत जायनात. आनी हांव ह्या असहमतांकडेन सहमत जावन निमंत्रण घेतां. शिवाय सगळे साहित्यीक, कवी बी जातीन हजर जाले आनी हांवच जाती भायलो जालों जाल्यारूय घात!

हांगा म्हज्या साहित्यीक जातिच्या अस्तित्वाचो प्रस्न उप्रासता. कोणाचें साहित्य मानप, कोणाक पुरस्कार दिवप हें हांगाच थरता. साहित्यीक चड भावनावश जाता तेन्नाच निर्णायक जाता म्हणटात. अशा वेळार तांच्या सान्निध्यांत रावप फायद्याचें खंय!

जेन्ना विनायक नायकान शोकसभा घेवया म्हळें, तेन्ना हांवें फटक करून घेवया अशें म्हळें. पूण कोणाची, कोण गेलो हें म्हाका कांयच खबर नाशिल्लें. याद जातकच हांवें दुबावान कोणाची काय विचारलें. गोंयच्या कोणाक देवान

याद केल्ल्याचें हांव नेणा आशिल्लों. आनी तशें घडल्यार हांकां व्हडलेंशें पडून वचचें नाशिल्लें. तांणी म्हाका दुखेस्त तोंड करून कुसुमाग्रज गेल्ल्याचें सांगलें. कोणूय गेलो म्हणटकच कोणाकूय वायट दिसप सभावीक. पूण म्हाका कुसुमाग्रज कोण हेंच कळ्ळेंना. मुळांत म्हजें मराठी वाचन सामकें कमी. हांव इंग्लेज, फ्रांसेज, पुर्तुगेज बी लेखक वाचतां. भारतीय जायच जाल्यार बंगाली, तेलगु, कन्नड चाळटां. मराठी न वाचपाचें कारण म्हजो मराठी द्वेष न्हय. मराठी वाचलें जाल्यार म्हजेकडल्यान कोंकणीचेर अन्याय जाता. कोंकणी साहित्य मराठीच्या खंयच्या साहित्याची कॉपी तें कळटा. ते परस कोंकणी साहित्य वाचून मराठीची रूच घेवप बरें.

हांवें तकलेक ताप दिवन मराठी लेखकांची याद केली. पुष्पाग्रज अशें नांव हांवें काव्यक्षेत्रांत आयकल्लें. एक-दोनदां मेळपाची खंय तरी संदूय लाबिल्ली. विनायक नायकाची बातमी आयकून हांव चुरचुरलों. 'भुरगो मरे तो' अशें म्हणत केन्ना गेलो, कसो गेलो बी विचारलें. म्हजें अज्ञान पळोवन तोय म्हाका चुरचुरलो. आपलें बॅग उकतें करून ताणें एक पुस्तक काडलें. खूब पयलीं घेतिल्लें आसूंक जाय, पूण नवें ताल्ल दिसतालें. तें वि. वा. शिरवाडकरांचें 'नटसम्राट' नाटक आशिल्लें. 'ह्या, ह्या नाटकाचो लेखक आमकां सोडून गेलो.' म्हाका दिसलें, तो आतां भळभळून रडूंक लागतलो. हांवें नटसम्राट वाचिल्लें आनी लेखकाकूय वळखतालों. हांवच कित्याक, तांकां सगळे गोंयकार वळखताले. ताणीं गोंयकारांक 'काळोखाचे पुजारी' म्हणिल्लें खंय! कारण कितें तर खंय गोंयकार आपली भास कोंकणी म्हणटाले. तेन्ना कोंकणीवादी भोवच खुबळून गेल्ले, आयजूय रस्त्यार कांय खुबळिल्ले कोंकणीवादी दिसतात. ताच्या मुळाक हेंच एक कारण आसूंक जाय.

पूण म्हाका मात 'काळोखाचे पूजारी' म्हणिल्लें वायट दिसूंक ना. म्हाका काळोख खूब आवडटा. केन्ना एकदां दीस पडटा आनी काळोख जाता अशें जाता. त्या काळखांत मागीर हांव विशाळ ब्रह्मांड पळयतां. त्या ब्रह्मांडांत आमची पृथ्वी कितें तें कळटा. शिरवाडकरान आमची तांक ज्युस्त वळखली आनी तशा मनशाक आमी श्रद्धांजली ओपप ना? हांवें विनायक नायकाचें निमंत्रण तेच पासत स्वीकारलें. दिल्ल्या वेळा आदीं कला अकादमीच्या कृष्णकक्षांत गेलों. वातावरण निर्माण जावपा खातीर शोकसभा थंय दवरिल्ली. भितर सरना बराबर

फातरा कळजाचो लेगीत हांगा हालता. भितर मयेकार, कोमारपंत, घवी, सोनटक्के बी मान सकयल घालून बाशिल्ले. ते खातीर वातावरण चडूच शोकाकूल दिसतालें. तें पळोवनूच म्हाका खुक् करून हांसूंक आयलें.

म्हजो हो सभाव म्हाका नडत म्हणपाचो भंय दिसतालो. हांव जाता तितलो चेहरो गंभीर करपाचो यत्न करतालों. तशेंय करपाक हांव मनांतल्यान भितालों. म्हजो चेहरो गंभीर जालो आनी लोक ताका हांसले जाल्यार!

लोकांची वाट पळोवन पळोवन अखेरेक शोकसभेक आरंभ जालो. गोपाळराव मयेकार खूब खूब कितें उलयलो. हांव देहभान विसरून म्हणटात तशें आयकतालों. शोकसभेंत कोणें टाळयो बी मारूंक फावनांत खंय! पूण उलोवप्याक दाद दिवपाची एक पद्धत आसताच. मयेकार जेन्ना आपलो लेंस बोल्सांतल्यान काडटालो तेन्ना आयकुपींय आपापलो काडटाले. तांचें आयकून म्हाकाय दोन उतरां सांगचीं दिसलीं. पूण हांव कोंकणीवादी. म्हाका अधिकार नाशिल्लो. थंयच कित्याक, हेरकडेन तरी तो खंय आसता? महाराष्ट्रांतले म्हजे कितले तरी साहित्यीक मित्र येतात. तांकां हे मराठीवाले कित्याक न्हय कित्याक आपयतात. तांकां मेळचें म्हूण हांव मनासावन यत्न करतां.

मेळपूय चोरयां करचें पडटा. कित्याक तर ते मराठी म्हणटकच फकत मराठीवाद्यांचेच. शोकसभाय जाताली ती फकत तांचीच आसली. हांवें म्हजी उलोवपाची उमेद मारून उडयली. शोकसभा सोंपली तशे सगळे भायर आयले. सगळ्यांचे दोळे सामके तांबडेच जाल्ले. म्हजेय जाल्ले. कृष्णकक्षांत तशी लकण रोखडीच लागता. शिरवाडकरांविशीं जाणून घेवंचें म्हूण हांव मनीस सोदूंक लागलों. दोतोर अजय वैद्य हाका ताका फोटो दाखयत भोंवतालो. तो म्हजेकडेन आयलो तसो हांवें फोटो बारकायेन पळयलो. कुसुमाग्रजांनी दोतोरा वांगडा आपलो फोटो काडिल्लो. म्हाका दिसलें हांवेंय त्या फोटयांत खंय तरी आसूंक जाय आसलें! निदान ह्या वेळार तरी ताचो उपेग जावपाचो.

हांव खंती जावन मयेकाराकडेन गेलों. पुराय शिरवाडकर वाचचो म्हूण पुस्तकाचीं नांवां मागलीं. ताणें याद करून एक नांव सांगलें. पूण तें पुस्तक पुष्पाग्रजांचें आशिल्लें. दोतोर सोनटक्केक विचारलें तेन्ना तो डायरी चाळूंक लागलो. घवीक खबर आसतलें म्हूण विचारूंक गेलों. पूण घवी हेरांक भलतेंच सांगत सुटलो. 'साहित्य अकादमी पुरस्कार घेतलेले माझे चार विद्यार्थी आहेत.'

आयकले बराबर सगळे कोण कोण म्हणत एकठांय जाले.
‘त्यातला हा आमचा दिलीप पण एक आहें’
तें आयकून जमिल्ले सगळे आसा तशे पयस जाले.
‘कुसुमाग्रजांक तो खूब आदीं मेळ्ळो. म्हाका हालींच.’
हांवें अशें म्हणुं नाका, सगळ्यांचीं तोंडां शोकाकूल जालीं.
‘त्यात काय झाले! तो कुणालाही मिळू शकतो.’
मयेकरान तोंड वांकडें करीत म्हळें आनी म्हाका रडूंक आयलें.
शोकसभेंतलें हें म्हजें पयलेंच रडप.



**मार्च १९९९**




**शि**वदासाक पन्नास वर्सां जालीं हें खरेंच दिसना. ताका पन्नास वर्सां जालीं म्हूण तशें अजापूय न्हय म्हणा! दरेका दिसा जायत्या जाणांक पन्नास वर्सां भरतात. पूण शिवदासाचें अजाप इतले खातिरूच की ताचे चाळे पंचविशिंतले. ताच्या पन्नास वर्सांत ताणें शंबर कथा बरयल्यो अशें लोकवेद संशोधिका जंयतीन संशोधन करून बरयलें आनी कमलाकर म्हाळशीकूय त्यो सोदतां सोदतना सांपडल्यो. पूण शिवदासाच्या कथांतल्यो आडकथा मात कोणें हिसपांत धरल्यो नात. चंद्रकांतबाब पळयात कश्यो आपल्यो आडकथा कथिका म्हूण छापता. तर, हांव गजाल सांगतालों ती आमच्या शिवदासबाबाच्या जल्मदिसाची. सतरा मार्चाक ताची पन्नाशी मनयली.

ताचो जल्मदीस म्हूण हांव मुजग्त वेळांत वेळ काडून गेलों. पूण म्हाका ताचो तो जल्मदीस सो दिसलोच ना. ताच्या फाटल्या कितल्या तरी जल्मदिसांक हांव गेलां. सतरा मार्च हो दीस शिवदासबाब शेतकार दीस म्हूण मनयतालो. कांय शेतकारांक हाडून तांचो सत्कार बी करतालो. देखून म्हाका शिवदास राष्ट्रीय पातळेवेलो फुडारी दिसतालो. पंडित नेहरूचो जल्मदीस लोक बाल दिन म्हूण मनयतात, डॉ. राधाकृष्णाचो जल्मदीस हो शिक्षक दिन. इंदिरा गांधींच्या नांवान आमी संकल्प दिन पाळटात. राजीव गांधींचो जल्मदीस हो कोंकणी राज्यभास दीस. ह्याच दिसा राजीव गांधीन कोंकणी आठवे वळेरेंत घाल्ली. तसोच शेतकार दीस म्हळ्यार शिवदासाचो जल्मदीस. आता ताणें ह्या दिसा शेतकारांक कित्याक

त्रासांत घाले हें हांव नकळ. 'देवळां खुली करा दीस' हेंच नांव खरें म्हळ्यार शिवदासाच्या जल्मदिसाक समर्पक आशिल्लें.

शिवदास कांय गजाली चुकयता तो असो. तर, शिवदासाच्या पन्नाशी सुवाळ्याक हांव पर्वरी गेलों. कोंकणी मनशाक पन्नास भरलीं म्हणटकच हांगा सुवाळो जाता. रमेश वेळुस्काराचो जालो, दोतोर तानाजी, प्रकाश पाडगांवकार ह्या मानेस्तांचो सुवाळो ह्याच आझाद भवनांत जालो. आनिकूय थोडयांचो जावपाचो पूण दोतोर ओलिव्हीन्य बी वर्सांच लिपयता. हाका लागून कांय पन्नाशी सुवाळे आमकां चुकतात. शिवदासाच्या पन्नाशी सुवाळ्याक म्हाका उलोवंक कोंबार काडलो. हेर सगळे कितें उलोवंचें तें खोलायेन येवजून आयिल्ले. थोड्यांनी हारशा मुखार उबे रावन येसाय लेगीत मारिल्ली. म्हाका उलोवपाचें नाशिल्लें देखून हांवें तयारी करूंक नाशिल्ली. समवयस्क वा सर्तींत आशिल्ल्यांचेर हांव उलोवप टाळटां. कित्याक, लोकांचे भिडेक लागून बरेंच उलोवंचें पडटा. आनी आयकतल्यांक म्हजे परस तोच व्हड दिसूंक लागता. हांव ना म्हणटां तरी म्हाका कोंकणी अकदेमीचो अध्यक्ष जावंक जाय. शिवदास उपाध्यक्षपदार समाधानी आसलो तरी ताकाय जावंक जाय. अशा वेळार हांव उलयलों जाल्यार ताका आयती संद मेळ्ळी ना? दुसरी गजाल, ताका वेंचणुकेक रावंक जाय आनी म्हाकाय जाय. आता ताचो मतदारसंघ वेगळो आनी म्हजो वेगळो हें बरें आसा. पूण पक्षान एकाच लेखकाक तिकेट दिवंचें थारायलें जाल्यार? जाल्यार घात! शिवदास आपुणूच चान्स मारतलो.

कारण कितें सांगतलो तर दिलीप लेगीत आपल्याचें बरें उलयता. ते परस पंच्यात्तरी जाल्ल्यांचेर उलोवप अदीक बरें.बरें उलयल्यारूय त्रास ना आनी वायट उलयल्यारूय ना. सद्या पंच्यात्तरींत तीग जाण म्हालगडे आसात. एक भांगीबाब, दुसरो मनोहरबाब आनी तिसरो रवीन्द्रबाब. हांचेर म्हाका कोणेंय उलय म्हूण सांगलें जाल्यार हांव उलयतलों. तांचे बरेऽऽ गूण गायले म्हूण ते वेंचणुकेक रावपाचे नांत. कोंकणी अकादेमीचेर वचपाची तर पिराय सोंपल्या. म्हणटकच ते म्हजे वांगडा सर्तींत देंवपाचो भंय ना. आनी समजा हांव बरें सोडून वायट उलयलों तरी लुकसाण ना. ते म्हाका साहित्य अकादमी पुरस्कार दिवंचेनांत हो भंय ना. तो मेळून एक हुसको सासणाचो सोंपलो. ज्ञानपीठ मेळपाचो आसा पूण तो दिवपाचो, ते तत्त्वची वेगळे. गोंय विद्यापिठांत नोकरे खातीर वचपाचो काळ

सरलो. जेन्ना काळ आशिल्लो तेन्ना म्हाका थंयच्यान हुंवाळून घालो. आता वचपाचें आसत जाल्यार डायरेक्ट कुलपती म्हूण वचप. कित्याक, थंय वचूंक कूल लागना तेच वांगडा कोणाचो पती तेंय लागना. तर असो हांव निर्भिड जावन भयाविरयत मिरयतां. पन्नाशी सुवाळ्याक शिवदासान शेतकारांक नासले तरी फुलकारांक वयर काडले.

शिवदासाचे पन्नाशीचे निमतान कमलाकरान संद सादली. ताचो बरोऽऽ कथां झेलो गुंथून काडलो. आनी भांगरा उत्सवी वर्सा ताचें विमोचन दवरलें. म्हाळशीन शिवदासाचो कथासंग्रह कित्याक छापचो हाकाय कारण आसा. म्हाळशीक सोदता-सोदतना एक गजाल सांपडली. दोतोर दत्ताराम सुखठणकाराक साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळा तोय तांच्या एकल्या एकसुऱ्या अपुरबायेच्या पुस्तकाक. दोतोराक पुरस्कार मेळ्ळो तो मेळ्ळोच, वांगडाच आनीक एक गजाल रुढ जाली. साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळटकच लेखक सोंपता म्हणपाची. शिवदासा भितरलो लेखक सोंपचो न्हय ही सगळ्यांची इत्सा. देखून ताका पुरस्कार मेळूंक ना इतलो कळाव लागला. खरें म्हळ्यार ताका तो म्हजे पयलींच मेळूंक जाय आसलो. पूण ताचें त्या वर्साचें पुस्तक नाशिल्लें. तशें पळोवंक गेल्यार पुरस्कार मेळपी लेखक हो अशें दिसल्या बरावर कितलेशे प्रकाशक मुखार सरतात. राजहंस आसा, अपूर्बाय आसा, जाग आसा. पुस्तक छाप, पुरस्कार घे. हें थरलेलेंच आसता. आतां पुरस्काराच्य पायलेक पंचवीस जाल्यात हें वेगळें. तातूंतल्या काय पुरस्कारांची रक्कम तर साहित्य अकादमी परस्पुय चड. एकाच पुस्तकाक जर हे सगळे मेळत गेल्ले जाल्यार ती रक्कम ज्ञानपीठा परस चड जातली. पयर गुरुनाथबाबाक हांवें कोणाची तरी रक्कम मेजतना पळयलो. पणजेचे पंचवीस, मंगळुरचे पंचवीस, दिल्लीचे पंचवीस अशें करीत बोटां मोडटालो.(बोटां मेजपा खातीर मोडटालो, कोणाच्या नांवान मोडिनाशिल्लो.) पूण कुडल्या वर्सा दिल्लीचे पन्नास जातात हें ताका खबर ना. कळिल्लें जाल्यार बेकार थवय लाखाधनी म्हणत हांसपाचो.

दिल्लीचे पन्नास हजार जातात ही खोशयेची गजाल खरी. पूण तेच वांगडा गोयांत गोंदळ जावपाचीय शक्यताय आसा. भोंगदंड दिल्लीचे वाटेन तुफान धांवडांव करताच. तातूंत आनी आतां शिवदास दंड थोपटून दवता. हालींच भाशा मंडळान नवोदितां खातीर पुरस्कार दिले. दिनेश मणेरकाराचे नदरेन हे

पुरस्कार ल्हान आसले तरी तांकां राष्ट्रीय दर्जो फाव जाला हें कोणाक खबर ना. तांकां राष्ट्रीय दर्जो दिवपाचें व्हड काम प्रभाकर भिडेन केलां. हो पुरस्कार मेळपी पुस्तकांच्यो हजार प्रती शिक्षण खातें घेता. घेता म्हळ्यार तशी वेवस्ता फुडाराक करून दवरल्या.

येन्नादर खूबशे लेखक लक्षाधीश जावपाचे. पूण सरकाराकडेन येवजण चालीक लावपाक दुडू ना. जे आसात ते पगारच घालता म्हणसर सोंपतात. बाबडी शिक्षण संचालिका पेडणेकार सामकी थकल्या. संचालिका जावनूय नव्यो येवजण्यो राबोवंक मेळनात. फकत पगार घालपी एक कारकून केल्या तिका. तर, दिल्लीचेर नदर दवरून म्हाळशीन शिवदासाचें पुस्तक छापलें. शिवदासान फोंड्यां मतदार संघाचेर नदर दवरून पुस्तकाच्या विमोचनाखातीर रवीक आपयलो. विमोचनाक पयलेच खेपे समाजांतले सगळे लोक आयले. तांकां पळोवन शिवदास भुरकुटलो आनी उलोवंक लागलो. जावपाचेंच, कितलोय जाल्यार तो कोंकणीवादी निजाचो. आपल्याक बऱ्याक पडटा तें कोंकणीच्या बऱ्याक आनी आपल्याक वायटाक पडटा तें कोंकणीच्या वायटाक अशें मानपी. मडगांवकारां भशेन.

समजा एके संस्थेच्या अध्यक्षाचेर कोणेंय आरोप केलो तो संस्थेचो दुरूपेग करता वा अध्यक्षपद सोडिना म्हूण. घे मागीर, वातावरण निर्मिती करूंक बोव्वाळ. पळय पळय पळय, तो कोंकणीचो दुस्मान.समजा दुडू ना म्हण एखाद्रया लेखकाचीं सरकारान पुस्तकां घेतलीं नात. जाल्यार सरकारच्या नांवान बोबो आनी हुयेली.

हें सरकार म्हळ्यार कोंकणीचें दुस्मान, तें उडोवन कोंकणीचें सरकार हाडूंक जाय. म्हणचे हाचीं पुस्तकां विकती घेवपी सरकार. मागीर ह्या लेखकाच्या प्रभावान दिपकावल्ली नवी पिळगी उठ्टा. अशें? कोंकणीचें दुस्मान? मागीर शिकोवया ताका बुद्द. मागीर ते चार पांच जाण एकठांय येतात. ते दोन चार वाड्यांवयले आसतात. पूण पेपराचेर छापून येतना गोंयच्या खांचीं गोंयड्यांतल्यान म्हूण येता. पूर्णानंद सारको कोंकणीच्या जैताचें अपूर्णशें एक गीत बरयता. त्या गीताच्यो येसायो जातात आनी तें मागीर समरगीत जावन संमेलनाचे वेदीर गाजता आनी बुद्द शिकोवपाची चळवळ मागीर थंयच शेळेता. अशा ह्या वातावरणांत शिवदासान एक उपाय सुचयलो. तो आपल्या पुस्तक विमोचना वेळार उलयतालो. मुखार गर्दी करून खूबशे अनवळखी लोक बशिल्ले. ते साहित्य

मळार सोडात, चळवळीच्या वेळारूय नशिल्ले. चड करून चर्चीलाच्या हाताक ते ते वेळार सापडूंक नाशिल्ले आसुंये. आज तांकां आझाद भवनांत पळोवन शिवदास सोडाच प्रकाशक म्हाळशी लेगीत भुल्लुसलो. आपणें पुस्तकाच्यो चड प्रती हाडूंक ना म्हूण चिटमिटलो.

लोकांनी आतां खंयूय वतना फुलां व्हरचीं न्हय तर पुस्तक विकतें घेवन व्हरचें. फुलांचे सुवातेर पुस्तकां भेटोवचीं. शिवदासान उलयतना मुद्दो मांडलो. पन्नाशिंतल्या शिवदासाचो सोंपत्या शेंकड्यांतलो केदो व्हडलो क्रांतिकारी विचार! सुवाळ्याक आयिल्ले ते अनवळखी लोक लेगीत भारावले. हे लोक कोण ते आतां सांगूंक जाय. रवी नायक विमोचन करूंक येता हें पेपरार आयलें. तें तिकेटीक इत्सूक आशिल्ल्या लोकांनी वाचलें. रवीक मेळपाची हीच संद म्हूण तांणी गर्दी केली. शिवदासाक दिसलें, ते सगळे विमोचन सुवाळ्याक आयल्यात. देखून ताणें फुलां जाग्यार पुस्तकां हो विचार मांडलो. पूण रवी नायकाक मात तो विचार मानवलोना. ताचेंय तशें बरोबरूच म्हणूक जाय. फाल्यां समजा रवी नायक निवडून येवन मुखेलमंत्री जालो. ताचें अभिनंदन करूंक फोंडेकार सगळे भायर सरले. आतां फोंड्यां पुस्तककार लागीं म्हळ्यार शिवदास. सगळ्यांनी शिवदासाचीं पुस्तकां व्हरून ताचेर घालीं जाल्यार? मागीर रवीच्या बाबड्याच्या घरांत घरभर वाळटी. ते भायर चडशीं देवळां ह्याच म्हालांत आसात म्हणटकच देवळांत वतनाय फुलां जाग्यार पुस्तकां.

म्हणटकच सगळीं फुलकारां पाटल्यांत पुस्तकां घालून भायर बसतलीं. मागीर अंत्रुजे भायलो आनी भितरलो हो थळावो वाद सुरू. अंत्रुजेंतले लेखक अंत्रुजे भायल्यांच्या पुस्तकांक विरोध करतले. देखून फुडाराचें चिंतपी रवीन ह्या विचाराक विरोध केलो. फुलांची सुवात पुस्तकां केन्नाच भरून काडूंक शकनांत म्हळें. ते खातीर ताणें अत्यंत वेव्हारीक उदाहरण दिलें. ताका लागून शिवदास दुखावलो हातूंत दुबाव ना. शिवदासच कित्याक? सगळे लेखक प्रकाशक दुखावले आसतले! तोंडाकडेन आयिल्लो पुस्तकांचो खप असो पोक जालो न्हय! रवीन म्हळें, 'एके बायलेक फुलां माळपाचीं आसतात तेन्ना तिका कितें पुस्तकां व्हरून माळपाचीं?' लोक खो खो करून हांसले तरी तातूंत तथ्य आशिल्लें. थोड्यांचीं पुस्तकां तर सामकीं जाडजूड, वजनदार. एके गुरुवार बायलेक तीं माळपाचीं थारायलीं जाल्यार घात. ते खातीर गर्दी पडटली ती अभयकुमाराच्या पुस्तकांक,

भिडेच्या बालसाहित्याक आनी रामभाऊच्या कवनांक. सगळेच कितें बारीक पुस्तकां काडटात अशें न्हय. शिवदासाचो विचार बरो आसलो तरी तातूंत लाव-तुकसाण आशिल्लेंच. फुलां माळपाच्या सुवाळ्याक लागून लेखक गिरेस्त जावपाचे पूण लेखिका गरीब जावपाच्यो.

एके लेखिकेक आपल्याकूच फुलां माळपाचीं आसत जाल्यार ती दुसऱ्या लेखकाचीं पुस्तकां घेतली? ना. आपलींच पुस्तकां आपल्याकूच माळटली. रवीन हो विचार भायरायलो तें एक बरें जालें. तरी हो विचार वेगळे तरेन चालीक लावं येता. किरिस्तांव जावं हिंदू मड्यार मुजरत फुलां घालतात. त्या जाग्यार पुस्तकांचो वापर जालो जाल्यार बऱ्याक पडपाचें. प्रकाशकांची आलमारिंची चिंता आपसूक पयस जावपाची.

आसूं. फुलकार समाज जसो आयज संघटीत जाला तसो पुस्तककार समाज एक दीस संघटीत जातलो. तांचे खातीर खाशेल्यो राखीव सुवातो फाव जातल्यो. खूबश्यो लेखिका फुलकारां वांगडा पुस्तकां विकूंक देवळांत भायर, वोतांत बसतल्यो. हाका लागून समाजांत समानताय वाडीक लागतली. शिवदासाचो पन्नाशी सुवाळो खंयीय पावूं, पूण हो ताचो विचार मूळ धरीत जाल्यार क्रांती जातली. तेच क्रांतिची आमी वाट पळोवया.



एप्रिल -१९९९





**हां**व काँग्रेसींत भितर सरलों आनी सगळ्यांक धक्को बसलो. सगळ्यांत चड बसलो तो आमच्या कोंकणीवाद्यांक. हांव असलीं अवचिन्नपणां करीत अशें ताणीं चितूंक नासलें. सपनांत लेगीत चितूंक नासलें अशें हांव हांगा म्हणिना. कित्याक तर असल्यो राजकी घडणुको तांच्या सपनांत येनांत. तांचीं सपनां लिमीटेड-मर्यादीत.

कोंकणी अकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ वो राजभास विभाग, चडूच जालें जाल्यार मागीर मराठीवादी आनी मराठी अकादमी. ह्या मराठीवाद्यांनीच तांची न्हीद सामकी उणी केल्या. देखून जितली पडटा तातूंत तांकां सपनां दिसतात तीं इतलींच. म्हणटकच म्हज्या काँग्रेस प्रवेशाची अपेक्षा आनी तांच्या सपनांत कशी बाळगूं? अशें जरी आसलें तरी तांकां धक्को बसलो हें मात खरें. कांय वर्सां आदीं तांकां असलोच जबरदस्त धक्को बशिल्लो. कोंकणीवाद्यांचो एक व्हडलो जथो तेन्ना अकस्मात काँग्रेसींत गेल्लो. तो कसो आनी कित्याक गेल्लो हें गेल्ल्यांकूच खबर नासलें. आनी मागीर तो थंयच्यान खंय गेलो हाचोय कोणाक पत्तो ना. कोण म्हणटात, ते आजून थंयच आसात तर कोण म्हणटात नांत. तांचे वांगडा तेन्ना हांवूय गेल्लों जाल्यार बरें जावपाचें.

काँग्रेसीक लागून कोंकणीवाद्यांक दोन धक्के बसचे नशिल्ले. पूण आदीं गेल्ले तांचे भितर आनी म्हजे भितर फरक आसा. ते गेल्ले ते कसलीच अपेक्षा बाळगिनासतना काँग्रेस सुदारूंक आनी हांव गेल्लों तो म्हाका काँग्रेसची उमेदवारी

मेळची म्हूण. आतां हेंच पळेयात काँग्रेस म्हणटात तो सर्वसमावेशक पक्ष. ताणें गोंयच्या सगळ्या घटकांक उमेदवारीचे वांटे घाल्यात. तातूंत किरिस्तांव बामण, हिंदू बामण, उबे-आडवे आसाच. ते भायर धनगर, क्षत्रीय, मराठा, बायलो, दादलेय आसात. पूण ताणीं आयज मेरेन प्रतिनिधित्व दिलें ना तें लेखक जमातीक. खरें म्हळ्यार सगळो दोश ह्या कोंकणी लेखकांचोच. ताणीं ही मागणी हे आदींच संघटीतपणान करूंक जाय आसली. तें करपा बदला ते आपले मर्दीच पांय ओडीत आसतात. चडांत चड संघटनाधीश आपलें सादोवन मेकळो जाता. अशे वेळार लेखकांचे हितसंबंद म्हाकाच सांबाळचे आसले.

निदान एक तरी लेखक निवडून आयल्यार तांचें कल्याण जावपाचें. तांचीं पुस्तकां खपय, तांकां पुरस्कार दी असलीं कामा जावपाचीं. पूण म्हजो हो उदात्त हेतू एकाय कोंकणीवाद्याक कळ्ळो ना. ते फक्त म्हज्या काँग्रेस प्रवेशाचेर धक्के खायत बसून रावले. तांच्या धक्क्याचें सोडात, ह्या प्रवेशान म्हजे म्हाकाच धक्को बसलो. हांव काँग्रेसींत वतलों अशें हांवें सपनांत लेगीत चितूंक नासलें. अजून म्हाका ती गजाल सपन कशी दिसूंक लागल्या.

हांव अर्ज भरपाखातीर काँग्रेस भवनांत गेलां. काँग्रेस पक्षाचो सेक्रेटरी आर्थर सिकैर थंय झेमेता. पक्षाध्यक्ष शांताराम नायक पयस खंयतरी नदर लावन बसला. ती दिल्लीय म्हूण कळना आनी कुंकळ्ळये म्हूण कळना. हांव भितर सरलों तें पळोवन पयलीं तो गडबडलो. ताचे ते धांदलीवेल्यान तो कोंकणीवादी म्हूण कळटालें. नाजाल्यार राणे, लुईझीन, दयानंद बी हांकां पळयात. मात लेगीत हांगा थंय थतरवितर जावप ना. सामके थीर.

'तुवें राजिनामो हाडला?' भानार येवन शांतारामान विचारलें.

'ना. हांव प्रवेश अर्ज घेवन आयलां' गोंदळून हांवें म्हळें.

हो म्हाका वळखूंक बी ना काय? म्हाकाच प्रस्न पडलो. म्हाका सगळे वळखतात असो हांवें समज केला तेंच चुकलां.

'हांव दिलीप बोरकार. हांव तुमचे काँग्रेसींत येवंक सोदतां.'

तसो तो हांसलो. ताचें तें गूढ हास्य भांग्याचे कविते सारकें दिसलें. न समजुपी, आकलन न जावपी, भंय दिसपा सारकें कशें. सगळे पक्ष सोडून वतात आनी तूं कित्याक मडसरेक आयला? अशेंच कितें तरी विचारता असलें तें हांसप दिसलें म्हाका.

'सगळ्या बऱ्या लोकांनी पक्षांत येवन आतां पक्ष घटमूट करूंक जाय.' हांव तिकेटिच्या मोगान न्हय, पक्षाच्या मोगान आयलां हें दाखोवंक सोदतालों. पूण हें सगळें तिकेटी खातीर हें तो जाणा आसलो.

'आसूं, तें कळ्ळें म्हाका आनीक कोण कार्यकर्ते बी हाडल्यात?'

'ना. हांव एकटोच आयलां. कार्यकर्त्यांचीं कित्याक तीं नाटकां?'

'हरकत ना. पूण हांव घालतां पेपराचेर दोनशीं कार्यकर्त्यांसयत कॉंग्रेस प्रवेश केलो म्हूण.'

'दोनशीं? नाका.'

हांव मात्सो आवाक सो जालों. दीपा मुरकुंडेक पुरस्कार मेळ्ळा हें कळटकच तें जाल्लें पळय तशें.

'कित्याक? चड घालूं? घालता. फरक कितें पडटा?'

प्रेस नोट काडटां काडटां शांताराम नायकान विचारलें. ताका फरक पडनाशिल्लो. फरक पडटालो तो म्हाका. फाटले खेपे म्हाका मेजून सवायशीं मतां पडिल्लीं. आतां दोनशीं कार्यकर्ते म्हजे फाटल्यान आसात म्हूण कळत जाल्यार म्हजो आदलो पक्ष कारण नासतना जितो जातलो. म्हजे कार्यकर्ते म्हळ्यार कोंकणीचे कार्यकर्ते अशें लोकांक दिसतलें. पुर्णानंद च्यारी तर आपली अस्थायी समिती स्थायी करतलो. तीं लफडीं नाकात म्हूण म्हाका तो कार्यकर्त्यांचो आंकडो नाका आशिल्लो. शिवाय इतले दुडू खंयच्यान जाले काय म्हूण इनकमटॅक्सवाले फाटीक लागपाचे. तरी पूण तिकेट बिकेट मेळटली जाल्यार असले कार्यकर्ते गरजेचे आशिल्ले.

'तुका खरेलेंच कार्यकर्ते जाय जाल्यार दोन दीस राव. तांचे वांगडा रावन तुजो फोटो-बिटो काडून पेपरांत घालुंया.'

शांतारामान म्हाका मर्दीच अॅडवायज दिलो. तो कितें सांगता तेंच म्हाका कळनाशिल्लें. खरेंच कॉंग्रेस पक्ष हो गहन पक्ष म्हणटात तें फट न्हय. म्हाका असो रानांत पडिल्लो पळोवन ताणेंच म्हाका सांगलें. दोन दिसांनी वासू पायक गांवकार आपल्या समर्थकां सयत कॉंग्रेसींत भितर सरपाचो आसा. तो येतना आपले पैंगीणचे समर्थक हाडपाचो आसा. तांचे वांगडा हांव रावल्यार म्हाका आपसूक समर्थक मेळपाचे. आता पैंगीणचे वासूचे समर्थक म्हळ्यार थंयच्यो धनगर बी समाजांतल्यो बायलो. तीं पणजे बी येतना हळदुवीं-तांबडीं, पांचवींच

कापडां देठलेन न्हेसतात. माथ्याक आंबाडोभर आबोलीं झीग बी घालून माळटात. पळयतल्याक दिसता तो लोकनाचाचो मेळ म्हूण! अशा समर्थकां वागडा रावन हांवें फोटो काडलो आनी तो म्हज्या आगशीच्या समर्थकांनी पळयलो जाल्यार हांव मेलोंच! आशिल्लीं नाशिल्लीं सवायशीं मतांय ना जावपाचीं. तांचे वांगडा फोटो काडप रामभाऊ जुवारकाराक बी सोबता. नेहरू युवा केंद्रांत तो आसतना लोकनाचाचीं पथकां दिल्ली बी व्हरतालो. तांचेमदीं आपूण रावन रंगीत फोटो काडटालो. मदीं रामभाऊ आनी ताच्या फाटल्यान तीं रासभर रंगीत बायलां. फोटो पळयतल्याक रामभाऊ फाटल्यान आशिल्लो तो मोराचो फुलयल्लो शेंपाडो काय दिसतालो. हांवें शांतारामाक सांगलें, हांव एकटोच आसां तोच बरो आसां. ताका म्हज्या पिशेपणाची काकूट दिसल्या जावंक जाय!

'म्हाका तिकेट बी मेळूं येता मरे?'

प्रवेश अर्ज भरून जातकच हांवें अशें बेठेंच म्हूण विचारलें. तिकेट बी मेळटली जाल्यार अशें लागीं गेल्ल्या सारकें दाखोवचें पडटा खंय!

'तें म्हजेर एकट्याचेर खंय आसा? राणे, चर्चिल बी आसात.'

'तूं सांग मरे चर्चिलाक.' हांवें आनीक लागोळेपणा केलीं.

'शी! हांव उलयना चर्चिलाकडेन.'

आंगावेली पाल उडोवंची तशें शांतारामान म्हळें. ताची ती भुरग्या भशेनची अभिव्यक्ती म्हाका भोवच आवडली. पळोवन म्हाका हांसुंकूच आयलें.

'शांतारामबाब, पक्षांत म्हूण अशीं झगडीं धरून बसूं येतात?'

समेट जाता जाल्यार म्हजो थोडो आदार लाबचो म्हूण हांवें म्हळें.

'कितलींय जालीं जाल्यार हीं पक्षीय झगडीं. पक्षाक लागून हांगा घराघरांनी झगडीं जातात, आमचें खंय घेवन बसला?'

'हय, हांव जाणां. पक्षाक लागून गांधी घराणे काबार जालां.'

काँग्रेस घराण्याविशीं हांव खूब कितें जाणां हें दाखोवंक हांवें म्हळें.

'हांव आमच्या घराण्याविशीं म्हणना. तूं सुबोधाक वळखता?'

नेहरू-गांधी बी घराणी पुरसोबाब आपलीं मानतालो. आतां शांतारामूय आपलीं म्हणूंक लागिल्लो. पूण सुबोधाक वळखता काय म्हूण ताणें म्हाका कित्याक विचारलें तें कळ्ळेंना. हांगा राजकारणांत कोण कोणाक वळखता म्हणपाचें सांगपाचें नासता. सांगतलो जाल्यार कोण कोणाचो हें पयलीं जाणा

जावन घेवचें पडटा. जाका पक्षाची तिकेट घेवंची आसा ताणें तर सामको शादूर रावचें पडटा. समजा कोणेंय विचारलें, 'राणे तुका कसो रे?' आनी हांवें बडाय मारून 'इ' तो सामको घट म्हाका' अशें म्हळें आनी तें लुईझीन वो चर्चिलाक कळ्ळें जाल्यार मागीर तिकेट मेळपाचें सोड पक्षूच नाका जावपाचो. तशेंच हांव चर्चिल, रवी वो हांचो अशें राणेक कळ्ळें जाल्यारूय तीच गत.

देखून हागा वगें येता तशें सूप धरचें पडटा. थंय तीं कोंकणीवाद्यांचीं भुरगेपणां आनी पचपचीतपणां उपकारनात. चंद्रकांत म्हजो, उदय म्हजो, रवीन्द्र म्हजो, भाई म्हजो, काका म्हजो वो म्हणपाचीं. कांय काळा आदीं तें कोंताक येतालें. आतांच्या काळान हांगा अमको अमक्याचो म्हूण कळ्ळें जाल्यार आनीक आनी रावपाचें ना. साहित्य अकादेमीचो सोड, पै फाऊंडेशनचो लेगीत पुरस्कार मेळचोना.

सुबोधाचें नाव शांतारामान घेतलें आनी हांव शादूर जालों. म्हजे राजकीय संबंद जाणा जावन घेवपा खातीरूय हो प्रस्न आसूं येतालो. सुबोधाचे शक्ति सिन्हा, वाजपेयी हांचेकडेन बरावे संबंद आसात हें हांवच न्हय, आखखे गोंयकार जाणांत.

सुबोध वाजपेयी वांगडा हिमाचलाक लेगीत वचून आठ दीस राविल्लो.

'हो सुबोध आनी कोण?'

हांवें म्हजें अज्ञान प्रकट करीत शामळूभशेन शांतारामाक विचारलें.

'सुबोध. सुबोध केरकार. कळंगुट आसता. पयलीं दोतोर आशिल्लो. आता चित्रकार जाला.'

म्हज्या अज्ञानाक हांसत शांतारामान म्हाका सांगलें.

'तातूंत कितें जालें? पयलीं विली दोतोर नाशिल्लो? आता पळय तो कसो ए वन राजकारणी जाला!'

नाका आसतना म्हज्या तोंडांत विलीचें नाव आयलेंच. राजकारणांत इतलो म्हत्व जाव आसून उपकारना हें म्हाका केन्ना कळटलें देव जाणा!

तरी बरें, शांतारामाचें विलीकडेन कोंत्रसाव ना. हांव सुबोधाक वळखना हाची ताका खात्री जाली.

'तूं ताका तसो वळखुचोना. तूं त्या मडगांवच्या दोतोर जयवंत सरदेसायाक वळखता न्हय! ताची एक चली पळय त्या राजू नायकाक दिल्या. राजू रे. पयलीं

सुनापरान्ताचो संपादक बी आशिल्लो.'

म्हाका भितरल्यान 'हय' म्हणचें अशें दिशिल्लें. पूण तिकेट मेळसर कोणाचीच वळख नाका अशें हांवें सामकें थारायल्लें. हातूंत आनिकूय भंय आशिल्लो तो म्हळ्यार हो म्हाका वळखी विचारीत वता आनी हांव वळखना म्हूण सांगत गेलों आनी हाणेंच जर मुखार म्हळें, 'तूं हांकां वळखना जाल्यार तिकेट कित्याक मड्याक मागता? असल्यांनी निवडून येतलो तूं?'

'बरें, तूं विजय सरदेसायाक वळखता?'

हांवें हय म्हळें. सगळेंच ना म्हणप बरें नाशिल्लें.

'बरें आसा, ह्या विजयाची एक भयण राजूक दिल्या आनी दुसरी भयण सुबोधाक. आतां कळ्ळें तुका सुबोध कोण तो?'

तोंडार उबगण हाडून शांतारामान म्हळें. हांवें हय म्हूण मान हालयली आनी शांतारामाक सूऽ जालें. एकदांची म्हाका वळख पटली म्हूण ताच्या तोंडार खोस परगटली.

'हो सुबोध भाजपांत भितर सरलो आनी तांच्या घराब्याचीं झगडीं सुरू.'

'जातलींच न्हय. विजय काँग्रेसींत आनी सुबोध भाजपांत म्हणटकच विजयाक वायट दिसूंक फावोच.'

'शे! तो भाजपांत गेला म्हूण ताका वायट दिसलें ना. आपूण काँग्रेसींत आयलों हाचेंच ताका चड वायट दिसलां. तें आसूं! विजयाक सुबोधाचें वायट दिसलें तें सुबोधान सोनियाक  हिप्पीण म्हळी म्हूण.'

'दिसपाचेंच. सुबोधाचें हें नाका जाल्लें. ताका ताचे गॅलरींत येवपी हिप्पिणीय सारक्यो आनी सोनिया गांधीय सारकी. ताका काँग्रेसमॅनांच्यो भावना वळखूंक येनात.'

हांवें शांतारामाचे भावनेक हात घालीत म्हळें.

'म्हणजे तूं सुबोधाक वळखता?'

दुबावान म्हाका पळयत शांतारामाचो प्रस्न.

'च्ये! सुबोध कळंगुटचो अशें तुमीच म्हणटाले न्हय. कळंगूट म्हणटकच हिप्पीणी आयल्योच.'

'बरें आसा. विजयान सुबोधाच्या वक्तव्याचो जाहीर निशेध केलो. तो सुबोधाचे बायलेक आवडलोना. तिणें ते खातीर विजयाचे बायलेक कितें तरी

म्हळें. तें दोगांयच्या भुरग्यांनी आयकलें. तीं झगडलीं. एकमेकां वांगडा खेळपाचें लेगीत ताणीं सोडलें. तातूंत जाण्टेलीं मदीं पडलीं. आतां तूंच पळय, राजकी झगडीं तळागाळा मेरेन कशीं पावतात तीं.'

'तेंच कित्याक? हाका लागून जातीय-धर्मीक दंगली लेगीत जाल्यात.' शांतारामाच्या वक्तव्याक तेंको दिवंक हांवें म्हळें. शेवटाक म्हजे तिकेटिचो प्रस्न आशिल्लो.

'हय मरे! मागीर चर्चिलाचीं आनी म्हजीं झगडीं जाल्यार व्हडलेंशें कितें जालें?'

चर्चिलाच्या साद्या उल्लेखाक लागून म्हाका येदें व्हडलें रामायण आयकुचें पडटलें हाची म्हाका खबर नाशिल्ली.

'बरें वच तूं आता. तिकेटिचें पळोवया. तुजेखातीर म्हजे प्रयत्न आसाच. कामाक लाग तूं.'

ताणें म्हाका कसल्या कामाक लाग म्हळें तें म्हाका कळ्ळें ना. चड करून मतदारसंघांत भोंवपाच्या अशें आसतलें म्हूण हांवें मतदारसंघांत धांव मारली. म्हाका तिकेट मेळ्ळी म्हूण गांवार घालें. हांव पावचे पयलीं बाकिचेय उमेदवार आपल्याक तिकेट मेळ्ळी म्हूण माराण बी मारताले. शांतारामाच्या एकल्याच्या उतराचेर हांव भरवंसून रावंक शकनाशिल्लों. सरकारी नोकरेंत निवड समितिकडेन वशिलो लावप म्हळ्यार अपात्र थरप अशें कायद्यान थारावन लेगीत व्हडा प्रमाणांत वशिलो चलता, थंय हांगा वशिलो लायलोना जाल्यार कशें जावपाचें! निवड समितीच्या सगळ्या लोकांक हांव मेळ्ळों आनी सगळ्यांनी म्हाकाच तिकेट दितां म्हूण सांगलें. राणेन तर एका परस चड उमेदवार आसल्यार सगळ्यांची मुलाखत घेतलों आनी निवड करतलों अशें म्हाका उतर दिलें.

मुलाखत म्हणटकच भंय दिसलो. मुलाखतीक हांव सदांच फेल जातां. म्हजेकडेन फावो ती सगळी पात्रताय आसता. तज्ञ विचारता त्या सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो हांव जुस्ताक जुस्त दितां. पूण म्हजी निवड मात्र केन्नाच जायना. तरी पूण हांवें म्हळें, तुमी केदीय व्हडली मुलाखत घेयात. सगळ्यांपरस हांवच वयर आसतलों. पूण हांव जाणा आशिल्लों मुलाखत जावपाची नाच. म्हाका लागपी दुसरो उमेदवारूच ना. सोनियान बऱ्या उमेदवाराक तिकेट दिवपाचो हट्टूच धरला. मागीर म्हणू तिका सुबोधान हिप्पीण! ती बऱ्या त्याच उमेदाराक तिकेट

दितली. पूण म्हज्या मतदारसंघाचो प्रस्न बरे तरेन सुटावो जालो ना. शेवटाक सिदाद द गोवांत मुलाखतीक वचचेंच पडलें. थंय एका रुमांत आमच्यो मुलाखती दवरिल्ल्यो. भायर आमी सगळे उमेदवार बांकार बसले. मुलाखतीक आयिल्ल्या जायत्या जाणांनी आपलो वशिलो लायला, कांय जाणांनी दुडूय खावयल्यात हें हांव जाणां आसलों. त्याच नेटार ते सगळे वावुरताले. पूण म्हजेकडेन पात्रताय आसा ती तांचेकडेन खंय आशिल्ली? एकएकल्या उमेदवाराक भितर आपोवन व्हरताले. थोड्या वेळान ते भायर सरताले आनी वताले. थोड्यांच्या तोंडार हांसो आसतालो तर थोड्यांक रडूंक आयिल्लेवरी जाल्लें. तोंडार हांसो आशिल्ल्यांचें तोंड पळोवन म्हाका कलकलतालें आनी रडकें तोंड पळोवन हांसो येतालो.

शेवटाक म्हजी पाळी आयली. हांव म्हजें सगळें घेवन भितर गेलों. सगळें म्हळ्यार हांवें बरयल्लीं डजनभर छापिल्लीं पुस्तकां. तितलींच हस्तलिखितां. आयजवेर बरयिल्ल्या लेखांचीं गठ्ठ्यांनी कात्रणां, चळवळींत वांटो घेतिल्लो त्या फोटवांचे आल्बम, म्हजेर घाल्ल्या केशींचीं चार्जशिटां.

हांवें खांदार मारून हाडिल्लो साक पळोवन रमेश चेन्नीतलाक तो दुडवांचो साक दिसलो. लुईझीन, चर्चिलाक हांवें हॉटेलांतल्यो वस्तू फारायल्यात शें दिसलें. राण्याक हांव हॉटेलांतलो कचरो पुंजावपी भंगारवालो दिसलों.

कोणाकूय कितेंय दिसूं. हांव नेटान वचून कदेलार बसलों. म्हजेमुखार डजनभर लोक बशिल्ले. मदीं प्रदेश काँग्रेस पक्षाध्यक्ष शांताराम, उजवेवटेन केंद्रीय समितीचे सचिव चेन्नीतला, ताचे कुशीक चर्चिल, चर्चिलाक तेंकून लुईझीन. ताचे दावे वटेन राणे. जॉन फेर्नांडीस, शिवराम आजगांवकार, सुलोचना काटकार, निर्मला सावंत,रवी नायक, सार्दीन आनी विष्णू वाघ. सगळे म्हाका खंयच्यान खावंक सुरवात करची तें पळयताले.

'तो साक कित्याक हाडला रे तुयें? बाटल्यो पुंजावंक?'

म्हाका भितर सरतासतनाच फालेरोचो प्रस्न. तशे सगळे हांसले. हांसूं. हांसतल्यांचे दांत दिसतात. राणेक म्हजी काकूट आयली. कितलोय जालो तरी तो भारतीय संस्कृतायेंत वाडिल्लो मनीस. एका लेखकाचीं फकांडां ताका आवडलीं नात. साकांत पुस्तकां आसात हें ताणें वळखल्लें. हे आदीं तो मुखेलमंत्री आसतना जायते लेखक पुस्तकां विकतीं घे म्हूण असल्याच साकांनी घालून

ताचेकडेन गेल्ले.

'तुका पक्षाची तिकेट कित्याक जाय?' राणेन आपलें तोंड गंभीर करून प्रस्न केलो.

'म्हाका मतदारसंघाची सेवा करूंक जाय.'

'खूक्' चर्चिल हांसलो.

'तुका सेवा करूंक कोणें आडायला? तिकेट नासतनाय करूं येता ती.' रवी नायकाचो सल्लो.

'पूण लोकप्रतिनिधी म्हूण चड अधिकार मेळटात.'

'खूक् खूक्'. चर्चिल पर्थून एकदां हांसलो.

'आयज वेंचणूक दुड्डू नासताना जायना. तुजेकडेन कितले आसात?' लुईझीन.

'पक्ष दितलो न्हय. ताचेर भागयतलों.'

चर्चिल पर्थून हांसलो. 'खूक्,खूक् खूक्.'

'तुमी बोरोयणार हे भानगोडीन कित्या पोट्टाय रे? बोरोयाय आनी गोंयचें नांव वोयर काडाय.'

इतलो वेळ ओगी आशिल्लो सार्दीन उलयलो.

'तूं खूब बरयता न्हय?' निर्मलाचो प्रस्न.

आयकून म्हाका बरें दिसलें. हांवें साक उगडलो. रमेश चेन्नीतला साकांत कितें आसा तें पळोवंक उठलो. चर्चिलान ताका हाताक धरून सकयल बसयलो.

'कागदां तीं धोंयीं. पांचवीं न्हू.'

चर्चिलाची कोंकणी चेन्नीतलाक अचूक कळ्ळी. तो ओग्गी बसलो. हांवें दिल्लीं पुस्तकां निर्मलान चाळ्ळीं. थोडीं सुलोचनाताईन घेतलीं. दोन शिवराम आजगांवकारान. हांवें एक एक रवी, लुईझीन, चर्चिल बी हांका दिलीं. कितेंतरी अपवित्र हातांत घेवचें तशीं तांणी तीं घेतलीं.

'चल तूं, पुस्तकां वाचून तुका कळयतां.' सगळ्यांनी निर्णय दिलो आनी हांव साक घेवन भायर सरलों. साकाचें थोडें वजन उणें जाल्लें तें पळोवन बरें दिसलें. तिकेट म्हाकाच हाची म्हाका मनांतल्यान खात्री जाली. घरा वतना वाबोंळच्यान या म्हळें. कित्याक, तो वाटार म्हज्याच मतदारसंघांत पडटा. वता आसतना मतदारसंघांतलो दौरो जावपाचो. पूण वाटेंत म्हाका परतून परतून एक भास जातालो. म्हजी ही मुलाखत हे आदीं कोणेंतरी घेतल्या. पूण तें कशें शक्य

आसा? सपनांत बी काय! आसूं येता. अशेच तज्ञ लोक बसल्यात. तांचे मुखार हांव बसलां. ते लोक म्हाका भलतेच प्रस्न करतात. हांव फटाफट जापो दितां. च्चे! भास तो. हांव गोंय विद्यापिठाकडेन पावलों. पूण तकलेंतलो मुलाखतीचो विचार वचनाशिल्लो.

आनी म्हाका याद जाली. आरेच्या! असली मुलाखत म्हजी गोंय विद्यापिठान घेतिल्ली. कोंकणीच्या लेक्चरर पदा खातीर. गोंय विद्यापिठांत अशीच मुलाखत घेवंक कुलगुरू दुभाषी बशिल्लो. जसो आयज लुईझीन बशिल्लो. निवड समितीचो अध्यक्ष म्हूण राणे बशिल्लो तसो ऑलव्हीनबाब बशिल्लो. हेर वांगडी म्हूण काशिनाथ महाले, पांडुरंग भांगी बी आशिल्ले आनी भायलो तज्ञ हांगा चेन्नीतला आशिल्लो तसो कोणतरी तलगिरी म्हूण आशिल्लो. उमेदवार म्हूण त्या वेळार धायेक लोक आशिल्ले. सगळ्यांत निमणो म्हाका आफोवन व्हेल्लो.

आयज जो साक घेवन गेल्लों तसोच त्याय वेळार हांवें व्हेल्लो. तेंच सामान तातूंत आशिल्लें. हांव ते कुडींत भितर सरलों.

'तुमी कॉलेजांत शिकयतात. थंय कोंकणी पुस्तकां लायल्यांत ते विशीं तुमचें मत कितें?'सगळ्यांत पयलीं म्हाका पद्माकर दुभाषीचो प्रस्न.

त्या प्रस्नान हांव धर्मसंकश्टांत सांपडिल्लों. तीं पुस्तका ऑलव्हीनबाबान वेंचून काडिल्लीं. तीं वायट म्हळीं जाल्यार तो म्हजी निवड करचो ना. बरीं म्हळीं जाल्यार म्हजें साहित्यांतलें 'गिन्यान' सिद्ध जावपाचें. हांवें सत्याचो पाखो घेवपाचें थारायलें. त्या पुस्तकाचेर हांवें पंदरा मिनटां भाशण दिलें. म्हजी नोकरी गेली हें तेन्नाच निश्चित जालें.

'तुका हांगा कितें शिकोवंक आवडटलें? भाशाशास्त्र काय समिक्षा?' भांगीबाबाचो प्रस्न.

भांगीबाब तर म्हजोच मनीस. म्हजो वावर पळोवन तो म्हजी तुस्त करपी. जाली, म्हजी नोकरी पक्की, हांवें मनांत म्हळें.

'हांव समिक्षा करतां. तो म्हजे आवडिचो विशय. म्हाका समिक्षा शिकोवप आवडटलें. तशें भाशाशास्त्र म्हाका आवडटा. हांव ताचेर पुस्तकूय बरयतां. पूण तो विशय मात्सो किचकटीचो. पयलीं शिकून भुरग्यां मुखार वचूंक जाय.'

'पयलीं शिकतलो आनी मागीर वतलो? शिक्षकान सदां तयार आसूंक जाय.' भांगीबाबान म्हळें. म्हजी नोकरेची आस्त आनीक देंवली. भांगीबाब इतल्यारूच

रावलोंना तर कोंकणीवादी कसलोच अभ्यास करे करिनात हाचेर ताणें पोटभर भाशण दिलें.

'तुका भाशाशास्त्र आवडटा?' त्या कोणतरी तलगिरीन प्रस्न केलो.

'हय. म्हाका खूब आवडटा तो विशय.' हांवें जाता तितले नम्रतायेन जाप दिली.

ताच्या कोंकणी उलोवपांतल्यो व्याकरणी चुको काडपाची इत्सा जावनूय हांव नम्र रावलों.

'मागीर म्हाका एका भाशाशास्त्रीचें नांव सांग.'

'तुमकां खंयचे भाशेंतलो जाय?'

'कोंकणींतलो.'

'कोंकणींत कोणूच भाशाशास्त्री ना. तशे शणै गोंयबाबान, रवींद्रबाबान कांय लेख बरयल्यात.'

'तुमी कत्रेचें नांव आयकलां?'

'हय. एस्. एम्. कत्रे. तांणी द फॉर्मेशन ऑफ कोंकणी म्हूण एक इंग्लेज पुस्तक बरयलां.'

'तो कोंकणींतलो भाशाशास्त्री न्हय?'

'इंग्लेज पुस्तक बरोवन कोण कोंकणी भाशाशास्त्री जाता?'

म्हज्या प्रस्नान तलगिरीक राग आयलो.

'आमी ताका भाशाशास्त्री मानिनात' अशें म्हूण तलगिरी ओगी जालो. तो ओगी जाले बराबर महाले मुखार सरलो.

'तुमी १९८८ सालांत कोंकणीचे बाबतींत एक मनमनाटी बातमी छापून आयल्या ती वाचल्या?'

'तश्यो दिसपट्ट्यो जायत्यो बातम्यो येतात. खंयच्यो म्हूण याद दवरप?'

'तुमी बरयतात न्हय?'

'हय. तुमचेरूय हांवें बोरकारींत कितलें बरयलां.'

बोरकारींचीं कात्रणां आनी पुस्तकां दाखयत हांवें म्हळें. म्हजीं पुस्तकां पळोवन तो ओगी बसलो.

'तुमकां कितें विचारूंक जाय?'

दुभाशीन ऑलव्हीनबाबाक विचारलें. ताणें फकत ना म्हूण तकली हालयली.

‘तुमी नेट परिक्षा पास केल्या?’ दुभाषीचो म्हाका प्रस्न.

‘हय, पयलेच खेपे जे लोक बशिल्ले तातूंत सात लोक पास जाल्ले. तातुंतलो हांव एक.’ हांवें हड्डें मुखार काडून म्हळें.

सगळ्या उमेदवारां मदीं हांवच ती परिक्षा पास जाल्लों. ते बराबर इतलो वेळ ओग्गी देव कसो बशिल्लो ऑलव्हीनबाब उसळ्ळो.

‘फटी मारता, फटी मारता. तूं कसो पास जातलो?’

तो तशें म्हणटा जाल्यार म्हाकाय खरेंच दिसलें. हांवें दाखलो भायर काडिल्लो तो भितर घालो. साक उखल्लो आनी घरा आयलों.

आतांय हांव तोच साक घेवन घरा पावलों. गांवांत फोगट्यांचो गडगड. कोणतरी सिल्वेरा म्हणटात ताका तिकेट दिल्ली. ते खातीर ताणें बरेच दुडू मेजिल्ले खंय!



मे १९९९



खूब तेंपान डॉ. नंदकुमार कामत मेळ्ळो. हातांत आपली ब्रिफकेस घेवन ताकतिकेन वतालो. हांवें ताका खंय वता काय म्हूण विचारपाचे त्रास घेतलेनांत. तो वामन भाटेल्या वर्षां बुक स्टॉलार वता हें जाणा आशिल्लों. कित्याक, हांव थंय गेल्लों तेन्ना वामन सामको चिंताग्रस्त दिसतालो. नंदकुमार एक दीस येना वो ताका येवंक कळाव जालो जाल्यार तो भिता. ताची अदृयापरस चड अर्थवेवस्ता नंदकुमाराचेर आसा. तेच खातीर भाटे हेर गिरायकांची व्हडलीशी पर्वा करिना. तुमकां जाय जाल्यार पुस्तकां व्हरात अशें म्हणत तांकां किकोंत करता. भाटेगेर वचपाचे ताकतिकेंत आसूनय नंदकुमार गवलो.

'आरे, तुजो जागांतलो कॉलम खूब बरो आसता आं!'

ताच्या कॉमेंटा परस तो बऱ्या मुडांत आसा म्हूण म्हाका बरें दिसलें. म्हजो कॉलम बरो आसता हातूंत दुबाव नाशिल्लो. हांव कोंकणीवादयांक चिमटे काडटां तेन्ना मराठीवादयांक खातखुतल्यो जातात आनी ते कॉलमाची तोखणाय करताले. तेन्ना कोंकणीवादी कॉलम सामको 'फूच' म्हणटात. हांव मराठीवादयांक चिमटे काडटां तेन्ना कोंकणीवादयांक खातखुतल्यो जातात. बरें बरयता आं तूं! असोच बरयत राव. (म्हळ्यार, मराठीवादयांच्यो गाळी आनी मार खायत राव) म्हणटात. बऱ्या -वायटाचें हें लफडें चलतना एक दीस शणै गोंयबाब मेळ्ळो. म्हणूंक लागलो, 'हीं सगळीं बाबत कुळां. तांचे वांटेक कित्याक वता?' हांगा शणै गोंयबाब म्हळ्यार वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार न्हय. पंदरा वर्सां पयलीं हांव साबुदरीर आयलों तेन्ना ताणेंय म्हजो नाद सोडलो. आतां तो खंय कोंकणीवादयांच्या कांट्यार बसून काम करून घेता. आतां हो कोंकणीवादयांचो

कांटो म्हळ्यार कितें तें हांव नकळों. हांवें पळयला तागडेक आसता तो कांटो.

हेर कांट्यांर तसो कोण केन्ना बसूंक शकना. पूण तागडेच्या कांट्यार बसल्यार मात दालीं सकयल वयर जावन लाव करून घेवं येता वो दिवं येता.

त्या वेळार 'वजन आनी माप खातें' संजय बांदेकाराकडेन आसल्यार लेगीत चिंता ना.

तागडेकार कांट्यार केन्ना नियंत्रण दवरूंक जाय तें बेस बरें जाणा. असल्या तागडेच्या कांटयार शणै गोंयबाब लक्ष दीत सो म्हाका दिसना. आसू! तर हांव शणै गोंयबाब म्हणटालों तो दोतोर राजेंद्र हेगडेक. दोतोराचो कोंकणीवेलो मोग पळोवन म्हाका दोतोर हेगडो म्हळ्यार शणै गोंयबाब दिसता.

ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें दरेक उतर म्हळ्यार शणै गोंयबाबाचो मंत्र अशें दिसता.

देखून हांव कोंकणीच्या हिताविशीं दोतोर जें कितें सांगता तें शणै गोंयबाबाचें उतर मानून जिकून घेतां. कांय काळा पयलीं अशोक भोंसलो म्हाका शणै गोंयबाब दिसतालो. त्याचे बोलणे, त्याचे वागणे, त्याचे चालणे, वा!

कोंकणी खातीर तो आपली नोकरी लेगीत सोडूंक तयार. बाकिचे लोक कोंकणीच्या नाड्यार नोकरी घेवंक सोदतात. आनी हो आपली आशिल्ली सरकारी नोकरी त्यागूंक पळयता. म्हळें, कोंकणीच्या फुडाराची चिंता करपाची आतां गरज ना. पूण कथाकार अशोकबाब शंकर भांडाऱ्याच्या प्रभावाखाला आयलो आनी पुरायेन शंकर भांडारी जावन गेलो.

आंतोनबाब मोरायस ही आनीक एक कोंकणी व्यक्ती. ताची कोंकणी भास आयकून होच शणै गोंयबाब अशें म्हाका दीस! ताच्या तोंडांतल्यान शणै गोंयबाबूच उलयता असो म्हाका दिश्टावो जाल्लो. पूण इतली शुद्ध भास सावरकराकूच सोबताली अशें म्हाका कोणें तरी म्हळें आनी हांवें मोरायसबाबाचो नाद सोडलो.

आतां म्हजे मुखार एकूच आदर्श आसा तो दोतोर हेगडो. म्हज्या मनांतलें ताचें स्थान कोण हालयत अशें म्हाका दिसना. देखून जेन्ना ताणें ह्या बाबत कुळांचे वाटेक वचूं नाका म्हळें, तेन्नाच्यान हांवें खऱ्यानीच तांची वाट सोडली. पूण मडगांवा वतना जशें कुठ्ठाळे लागता वो पणजे वतना शिरदोन लागता तशें कितेंय तीर-सुवादीक बरयतना ह्या बाबत कुळांक आपटतां तेन्ना करप कितें?

खऱ्यांनीच सांगतां, उपाय नासून आफुडचें पडटा. आतांच पळयात, नंदकुमार मेळ्ळो. मेळ्ळो आनी म्हणूंक लागलो, तुजो कॉलम बरोऽऽ जाता. तो उदय गुडे लेगीत पोरा तूं फणफणत राव म्हणचें तशें 'तिरा तूं सणसणात राव' असो सल्लो दिवन तोखणाय करता. पूण ताचे तोखणायेन भुल्लुसपाक हांव सुदेश लोटलीकार थोडोच! बाळकृष्णजी कानोळकार वो शिवानंद तेंडुलकार हांणी तोखणाय केल्ली जाल्यार वेगळी गजाल. आयज तेच गोंयचे सर्वमान्य समिक्षक वो टिकाकार अशें निश्चीत जालां. तांकां म्हज्या कॉलमाचेर बरोवंक उसरपत मेळटली तेन्नाच म्हजें नशीब फळफळटलें. ते मेरेन हांवें नंदकुमार कामतीचेरूच समादान मानपाचें. पूण हांगा नंदकुमार कामतीन आपल्या विधानाक आनीक एक विधान जोडलें.

'तुजे सारको श्रेश्ठ साहित्यीक गोंयांत दुसरो ना अशें म्हजी बायल म्हणटा.'

नंदकुमाराचें आदलें विधान एकवेळ सोंसपा सारकें आशिल्लें. नंदकुमार बकच्छायो करता. पूण मर्यादेन. पूण ताचें दुसरें विधान म्हळ्यार गोंयांत धुस्पट घालपी. हे गोंयचे मातयेंत कितल्यो म्हान लेखिका आसात. ताणी गोंयचींच न्हय तर हेर राज्यांतलीं लेगीत इनामां हातासल्यांत. तरी ताणी चुकून लेगीत केन्ना खंयच्या लेखकाची तोखणाय करूंक ना. देल्यान लेखकांक आनी तांच्या लेखनाकडेन कुच्छित्रीपणानूच पळेलां. अशा वातावरणांत नंदकुमाराचें विधान तांच्या कानार गेल्यार कितें जातलें?

ह्या शांत आनी सुशेगाद गोंयांत एकदम यादवी माजतली. गोंयच्यो लेखिका लेखकांचेर पयलीं सावन जळत आयल्यात. तांचें म्हणणें, तांचेर सदांच दादल्यांनी अन्याय केला. साहित्याक पुरस्कार दितना टक्केवारीचें संतुलन केन्ना सांबाळूंक ना. साहित्य अकादमीचो पुरस्कार दितना तो एक वर्स दादल्यांक आनी एक वर्स बायलांक दिवंक जाय आशिल्लो. पूण तें अजून मेरेन कोणें मनार घेवंक ना. चंद्रकांत केणी आपल्या साहित्यांतल्यान बायलांचे प्रस्न समर्थपणान मांडटा अशें बायलांच म्हणटात. पूण होच प्रस्न तांच्या हातांतल्यान कसो सुटलो हें तांकांय खबर ना. ते साहित्य अकादमीर इतलीं वर्सां रावले त्या वेळार तांणी हो प्रस्न घेवं येतालो. पूण त्या वेळार बायलांच्यो अपेक्षाय उण्यो आसू येतात. त्यो वाडल्यो आनी ज्युस्त त्या वेळार फेलीक्सबाब कार्दोज अकादमीर पावलो.

साहित्य अकादमीचें सोड, कला अकादमीन तरी बायलांक खंय न्याय दिला?

एके कोंकणी लेखिकेक तरी तांणी प्रतिनिधित्व दिवंचें आसलें. प्रतिनिधित्व ना तें आसूं. निदान पुरस्कारा खातीर तरी आरक्षण दवरूं येतालें. पयलीं कोंकणी पांच आनी मराठी पांच अशे पुरस्कार आशिल्ले. संख्या चड जाल्ल्यान एक दोन बायलांचो विचार जावं येतालो. पूण कोणें तरी अक्कल लडयली आनी त्या पुरस्कारांत मोठ्या प्रमाणांत कपात केली.

पांचांवेल्यान एकदम एका-एकाचेर पुरस्कार हाडलो. मराठीचो वांटो मराठी घेवन गेली. कोंकणीच्या वांट्याच्यो मात भोयो भोयो. दादल्यांकूच वांटणी करता म्हणसर नाका शेवट. थंय बायलांकडेन कोण लक्ष दिवंक वता? बरें! गोमंत शारदा दितले म्हळ्यार तसले तांकिची बायल कोंकणीच्या मळार खंय आसा? तांकिची आसतूय पूण पिरायेची आसूंक नाका? नाय म्हळ्यार कमलाबाय देशपांडेचो विचार करूं येतालो. पूण तिका दिल्यार बायलां बायलां मदीं वितुश्ट येवपाची शक्यताय आसा. तें टाळपा खातीर कला अकादमीच हे भानगडींत बायलांक ओडूंक सोदिना खंय!

अशी ही गोंयची विचित्र परिस्थिती आसतना नंदकुमाराची घरकान्न म्हज्या साहित्याचेर बरें मत उक्तायता. तिका साहित्य पारखुपाची जाण आसा आनी तिचें मत शुद्ध आसा हें मान्य करूं येता. पूण तिणें आपलें विधान जाहीरपणान मांडलें जाल्यार गोंयात उजो पेट्टलो. किरण, चंद्रलेखा, तडकोड हीं साहित्य समिक्षेंतलीं दिग्गज विनाकारण तोडफोड करतलीं. आदींच एके बायलमनशेन देशांत गोंदळ माजयला. देशी दादल्यांचें हे विदेशी बायलेकडेन आकांताचें झूज चल्लां. तिच्या रागान देशांत आसात ते थोडे म्हूण नवे पक्ष तयार जावंक लागल्यात.

गोंया भायर कितें जाता तें जावं आशिल्लें. तांचें ते पळोवन घेवपाचे. पूण ती गोंयांतूय आयली आनी सगळें राजकारणूच इबाडून उडयलें. कितल्याशा जाणांच्या सपनांचो गोबोर केलो. सांगलें आसत गोंयच्या भाजपान गोंयच्या लोकांक, आमी आठूच जाणांचें मंत्रीमंडळ घडयतले. गोंयांत भाजपाचे आठूच लोक निवडून येतले म्हूण तांकां खबर आशिल्लें. ते तांकां मंत्री करूं वा आनीक कितेंय करूं. तुका शितापुडें मीठ खावन स च मंत्री करतलीं म्हणपाचें कित्याक उलोवंक जाय आशिल्लें? भाजपाची तुळा तूं तुजे कॉंग्रेसी कडेन करता? ते बाबडे नवेच वेंचून येवपाचे. तांकां मंत्री जातकच कितें कितें जाता हें खबर

नाशिल्लें. म्हणटकच कोणाकूय मंत्री केल्यार कोणाच्या पोटांत दुखपाचें नाशिल्लें. वो पक्षांतर्गत धुसफुसूय जावपाची नाशिल्ली.

तुज्या पक्षांत तर आदींच पांच मुखेलमंत्री जावपाचे लायकिचे फुडारी आसात. हेर कांय जाण हे आदीं कितलोसो काळ मंत्री जावन जियेताले. हाची तांका आतां इतली सवंय जाल्या की तांकां मंत्री म्हूण जगपा बगर जगुंकच जमना.

अशा वेळार त्या भाजपाक लागून मंत्रीमंडळाक वंय घालप? गोंयचे आदले मंत्री रस्त्यार पडपाकडेन पावल्यात आनी तेय बी तुज्या उतरांक लागून. तूं जावेद अख्तराकडल्यानूच भाशणां बरोवन घेवन वाच वळोवया. गोंयच्या लुईझीनाचें आयकून किल्याय कितें उलोवं नाका. ताणें आपलो आनी हेर पांच जाणांचो फुडार पळयलो. सोमनाथ, मॉवीन, सुभाष हांचें कितें जातलें हें मात लेगीत चिंतलें ना.

आतां सोमनाथाचेंच पळयात. ताका मंत्रिमंडळांत सुवात दिली ना ही गजाल पळोवंक अशी॰॰ दिसता. पूण ताका लागून ताणें कोणाचो कोप ओडून घेतला हें ताका खबर ना. पांच वर्सांचो इतिहास काडून पळयत जाल्यार तें कळटलें.... हें सगळें घडूंक पावलें, एके बायलेन जाहिरपणान केल्ल्या विधानाक लागून. तिणें फुडाराचें चिंतून जिबेर नियंत्रण दवरिल्लें जाल्यार परंपरे प्रमाण चौदा मंत्री करूंक मेळपाचे. हेरांक वेवस्थेंत म्हामंडळां मेळपाचीं. म्हणटकच कोणाचीच धुसफूस नासपाची. कोण फुटून वचून सरकार उडयत हाची भिरांत नासपाची. कॉंग्रेसचें सरकार पुराय पांच वर्सां तिगून उरपाचें. लुईझीनाकूय पांच वर्सां सुस्त न्हीद पडपाची. म्हजे मारक्याकूय तिकेटी फाटल्यान लागपाचो पांच वर्सां तरी हुसको नासपाचो. निदान हांव ह्या पांच वर्सांत ज्ञानपीट नदरे मुखार दवरून कितें तरी बरें॰॰ बरोवंक पावपाचों. सगळी वाट लायली ती एके बायलमनशेन. नाका जाल्लें विधान करून. देखून खंयचेय बायलेन म्हज्या साहित्याचेर विधान केलें जाल्यार हांव भियेतां.

विनाकारण कोंकणी समाजांत धुसपट जावंची न्हय हेच शुद्ध भावनेन.



जून – १९९९



म्हज्या बरोवपाच्या मेजासामकार एक जनेल आसा. आतां मेजा सामकार जनेल काय जनेलाक तेंकून मेज? खरें म्हळ्यार घर बांदतना कुडीक जनेल दवरिल्लें. उपरांत हांवें ती कूड म्हजे खातीर अभ्यासिका केली. येतल्या वतल्यांक हांव तो म्हजो स्टडीरूम म्हूण सांगतां. पूण आतां हांव जाणविकायेन कोंकणी उतर वापरतां. कोंकणी उतरां आसतना इंग्लेज कित्याक काय म्हूण न्हय. तितलो कट्टरपंथी जावन बसूंक म्हाका मातूय आवडना. ती मक्तेदारी आमी दामोदर घाणेकाराचेर सोंपयल्या. कांयच घडलेंना तरी निदान कॉलम तरी भरतात. पानां भरपाची संपादकांची चिंता पयसावता आनी आमचे सारकेल्यांक भाशेची गिरेस्तकाय कळटा.

हालींच आनीक एक खुशालकायेची गजाल म्हाका कळ्ळी ती कोंकणी दिसाळ्याच्या बरेपणान. हांव गांवांत भटवाड्यार कुकड कसो एकलोच कोंकणी वाचपी. देखून बाबडो तो पेपरवालो सुनापरान्त हाडून म्हज्या घरा उडयता. कितें तरी करूंक जाय म्हूण हांवें तो उगडलो. तर भितरल्या पानार प्रभाकर भिडेचो लेख. म्हळें, बरें जालें. कोंकणीक आनीक एक लेखक मेळ्ळो. पयलीं भिडे हो फकत एक प्रकाशक आशिल्लो. मागीर रमेश वेळुस्कारान राजहंसाचें संपादकपद सोडलें. प्रकाशक भिडे भिडेक पडनासतना संपादक जालो. देखून आतां भिडे एक लेखक जालो जाल्यार अजाप न्हय. डार्वीनच्या उत्क्रांतीवादाक मरण ना हेंच खरें.

भिडेंचो लेख हांवें बारकायेन वाचून काडलो. बारकायेन वाचपाचें कारण म्हळ्यार तो पुरस्काराखातीर नाशिल्लो. तो वाचून म्हज्या गिन्यानांत भर पडली ती अशी. भिडे, दामोदर घाणेकार आनी मुकेश थळी हांका घेवन एक कोंकणी इंग्लेज शब्दकोश तयार करता. तसलोच एक गुरूनाथ केळेकारान करूंक घेतला. गुरूनाथबाब कितें करता हें केन्नाच कोणाक कळ्ळेंना. तशें तें हे फावट प्रभाकर भिडेकूय कळ्ळें ना. तें कळिल्लें जाल्यार भिडे डिक्शनरीक हात घालचोच नाशिल्लो. घाणेकार आनी थळी हांका तो हेर कामाक लावपाचो. कोंकणीच्या मळार कोण कितें करता हें एकामेकांक कळूंक जाय. कित्याक तर हो लाखांनी रुपयांचे गुंतवणुकीचो प्रस्न आसता. ते पासत प्रत्येकान एक गुप्तहेर दवरप गरजेचें आसा. जो तत्परतेन भितरल्या गोपांतली बातमी काडटा. पूण जंय भारतीय गुप्तहेरांनी आपलें नांव होगडायलां थंय हांणी आपल्या गुप्तहेरांचेर कितलें पातयेवन रावप होय एक प्रस्न आसा.

कारगीलाक लागून जितलें लुकसाण जावंक ना तितलें हांचें जावपाचें. आतां कोंकणीचे उदरगतीक डिक्शनरी जाय हें खरें. आनी ती कोणूय करूंक शकता हेंय तितलेंच खरें. पूण ती कोणें करची हें कोण थारायतलो? तातूंत आनी आतां ह्या दोगांनीय काम सुरू केलां. दोगांयच्यो डिक्शनरी म्हजे सारको कोण विकत्यो घेवंचोना. घेतलो जाल्यार बरी आसा ती एकूच कोणूय घेतलो. मागीर कोंकणीपासत कश्टपी एकलो बुडचोना? ताचेर म्हजे नदरेन उपाय काडूं येता तो असो. कोंकणीची जितली उतरावळ आसा तिचे वांटे घालप आनी दोगांकूय डिक्शनऱ्यो छापूंक लावप. ना तर डिक्शनरी बरोवपाची एक सर्त घेवप आनी पुरस्कार मेळिल्ल्याक ती छापूंक लावप. म्हणचे, कोणें पेंवचें आनी कोणें तडीक रावचें हो प्रस्न सुटटलो. हांव परिक्षक आसल्यार गुरूनाथबाबांची निवड करीन. ताकां हे आदिंचो इंग्लेज-कोंकणी डिक्शनरीचो अणभव आसा म्हूण. तेन्ना गुरूनाथबाब पेंवतालो आनी भिडे तडीक आशिल्लो. निवड करपाचें दुसरें कारण म्हळ्यार हांवें ती डिक्शनरी वाचल्या. स्टडीरूमाक अभ्यासिका हें कोंकणी उतर हांवें थंयच्यानूच घेतलां. आतां हांवें ह्या कॉलमांत वापरलां तें तांतलेंच. म्हणटकच ह्या उपकाराची थोडी तरी परतफेड करूं नाका? तर हांव हालींसराक स्टडीरूमाक अभ्यासिका म्हणटां. पूण तें आमचे वावराडेक, शेंवतूक नि[illegible] आवडना. आई ताका सांगता. 'आगो च्या व्हरून अभ्यासिकेंत दी गो[illegible]र तें

ना म्हणटा.

'स्टडीरूमान जाल्यार करून दितां' म्हणटा. तें अशें कित्याक वागता तें म्हाका कळना.

ताका हांवें तें इंग्लीश-कोंकणी शब्दकोश वाचतना पळोवंक ना. मागीर ताचो अभ्यासिकेचेर खुन्नस कित्याक तें कळना. हांवें ताका ताचें कारण विचारलें.

'तूं थंय अभ्यास खंय करता?' शेंवतून विचारलें.

'मागीर हांव थंय बसून कितें करतां तर?'

'हांव जाणां' एक मागको भायर रस्त्यार पळयत रावता.'

'भायर रस्त्यार कोणाक पळयतां?'

'शेतांत काम करपी कामेल्यांक पळयता.'

हांवें डायलॉग इतल्यार बंद करप शाणेपणाचें थारायलें. हांव स्टडी रूमांत मेजाकडेन बसून भायर पळयतां हें खरें! हांव शेतांतल्या कामेल्यांक पळयतालें हेंय मत. पूण हांव तांका साहित्यीक नदरेन पळयतालों. पूण शेंवतूची एक गजाल म्हाका आवडली आनी पटली. कसलोच अभ्यास करिनासतना कुडीक हांवें अभ्यासिका म्हणूंक फावना. हांव कितेंय बरयतना ताचो केन्नाच अभ्यास करिना तसो करूनय ह्या संवसारांत कांयच फायदो ना. आमचे कथाकार कथेचो अभ्यास नासतना कथा बरयनात? मागीर हांवेंच तो अभ्यास म्हणटाल तो कित्याक करप! कश्टाविणें फळ मेळटा जाल्यार घेवप. जी गत अभ्यासिकेची तीच स्टडीरूमाची. अर्थ तोच आसुनय शेंवतूक स्टडीरूम म्हणप आवडटा. ताचें म्हणणें, असल्या उतरांक एक मोठेपण आसता. तेच पासत तें अदींमदीं आवयचेरूय फणफणटा.

पयर आवयन ताका कितें तरी न्हाणयेंत दवरूंक सांगलें. तर तें तिका सांगता 'न्हाणयेंत? न्हाणयेंत कितें? बाथरूमांत म्हण.' हाणें आमची घरांतली संस्कृताय भश्ट केल्या. तरी करतलों कितें? सोसपाचें आसता एक एकल्याचें नशीब! तातूंत कवी-लेखक हांकां तें चडूच सोंसचें पडटा. आतां हेंच सुरवेक सांगिल्लें तें कोकुसांव पळयात. म्हजें बरोवपाचें मेज जनेलाकडेन आसा काय मेजामुखार जनेल? खरें म्हळ्यार हांवें म्हजे सोयीखातीर मेज थंय दवरलां. पूण सांगतना म्हणटां, मेजामुखार एक जनेल आसा. अशें म्हणटना हांव धडधडीत जनेलाक दुय्यम लेखतां. आतां सगळेकडेन हें अशेंच चलता म्हूण बरें! आमचीं गोंयचीं म्हामंडळां आनी संस्था घेयात. म्हामंडळा आमदारांखातीर काय आमदार

म्हामंडळाखातीर? आमगेल्या म्हामंडळांक आमदारांबगर अस्तित्व ना. आमच्यो अकदमीच घेवया. त्यो आसात कित्याक? नोकरवर्ग सांबाळपाक काय वावर करूंक? जेन्ना हें सगळें म्हाका जळामळाक दिसता तेन्ना हाव म्हज्या जनेलाचें ओगीच गगन करतां. मेज पयलें काय जनेल पयलें हाका अर्थ ना. हांव मेजार बसून बरयतां आनी जनेलांतल्यान भायर पळयतां. हाका अर्थ आसा.

मागीर शेंवटू म्हणू हांव भायर चलयांक पळयतां. आतांय हांव मेजार बसलां आनी भायर पळयतां. भायर आतां चलयो नांत, सांज जाल्या. हांवें मेजावेलो टेबललॅम्प पेटयला. कुडींत उजवाड जाला. उजवाड जायना बराबर जनेलाच्या हारशाचेर एक पाल येता. दिव्याकडेन येवपी पिसोळीं खावपाक. हांव फाटले कितले तरी दीस तिका मारतलों म्हणटां. पूण तिका हांवें पयली पळयली तेन्ना ती मामकी ल्हान आसली. आतांच जल्मल्ल्या भुरग्यावरी.

म्हाका असलीं ल्हान पोरां पळोवंक खूब आवडटात. मागीर तीं पालिचीं पोरां आसूं वो दुकराचे पेटे. तांकां मारचें, धांवडावन गालचें अशें म्हाका दिसना. पूण तीं व्हडलीं जालीं म्हणटकच म्हाका तांची वीट येता. तीं म्हाका दिनेश भरणेल्या कार्टुनांतलीं सवंगां दिसतात. तर, पालीक मारतलों म्हूण हांवें म्हज्या पायांची व्हाण लेगीत काडिल्ली. पूण येदीशी माणकुली पाल, माणुकलो राजकुंवर कसो. तिका म्हूण व्हाणांनी मारप म्हजे सारक्याक सोबता? पालेकारा सारक्या माजी कोंकणी फुडाऱ्याचें काम तें. भाशा मंडळाची वेंचणूक जावं परिशद ते व्हाणांनी मारूंक वताले. देकून पायांची व्हाण पायांक दवरून बडी हातांत घेतली. मारूंक वतनाच ती पाल खंयचेकडेन नाच्च जाली. म्हळें आसूं, भृणहत्त्या नाका, मातशी व्हडली जातकच मारूंया.

दीस सरले आनी पाल केन्ना व्हडली जाली तेंच कळ्ळेंना. सकाळीं म्हायती खात्यांत गेल्लों थंय तिची याद जाली. हांव म्हायती अधिकारी दास नायकाकडेन बशिल्लों. तो मामको तावातावान कारगील प्रस्नाचेर उलयतालो. सरकारी कर्मचारी अशें पोटतिडकीन उलयतात तेन्ना म्हजें हड्डें राष्ट्राभिमानान भरून येता. आमचो देश आतां गुलाम जावपाचो ना हाची खात्री पट्टा. अटल बिहारीन घुसखोरांकडेन दुर्लक्ष केलें हाचो ताका राग. नियंत्रण रेशेर लक्ष दवरून पयल्याच घुसखोरांक मारिल्लो जाल्यार युद्धाची परिस्थिती येवपाची नाशिल्ली अशें ताचें मत. देखून तो सद्याचे परिस्थितीक वाजपेयीक जापसालदार धरतालो. ते खातीर

ताणें मुदयेर थीक कशें उदाहरण दिलें. आपल्या नव्या फ्लॅटार समजा एक जल्लो भितर सरलो. ताचेकडेन हांवें दुर्लक्ष करून ताका समजा सोडलो जाल्यार मागीर जल्ल्यांची रास फ्लॅटभर जातली. तेन्ना ताका जापसालदार कोण? हांव न्हू? हांवें हय म्हळें. तशें ताचें मनापासून समाधान जालें. ताणें आपल्या फ्लॅटांतल्या जल्ल्यांची तुळा घुसखोरां लागीं केली ती म्हाका भौच आवडली.

तेन्नाच म्हाका म्हजे कुडींतले पालिची याद जाली. तिका जर आतांच चेंचलिना जाल्यार घात जातलो. म्हजे कुडभर सगळ्याक पालीच पाली जातल्यो. आनी ते घडणुकेक पुराय जापसालदार हांवच थरतलों. जसो आयज कारगील प्रकरणांत वाजपेयी थारला.

म्हायती खात्यांतल्यान घरा आयलों तोच एका ध्येयान. आयज कशीय करून ते पालीक ना नपयत करप. तिचीच वाट पळयत हांव म्हज्या मेजार बसून आसां. मेजा सामकार जनेल आसा आनी जनेलाक हारसो. (आतां मेजाकडेन जनेल काय जनेलाकडेन मेज हो वाद आनीक नाका. नातर परतून हेर भानगडी वयर सरतल्यो. तो वाद हांगाच सोंपोवया.) हांव हातांत बडी घेवन पालिची एकाग्रतेन वाट पळयतां. मदींच भायल्यान वावराडी शेंवतू पासय मारता. हांव जनेलांतल्यान भायर पळयतां हें ताणें पळयलें जावंक जाय. ताणें दुबावान एक खेप म्हाका पळयलें आनी मागीर फुडल्या घरांत. तें घर बंद दवरून घरमालक मुंबय खंय तरी रावता. हालींच तो मुंबयच्यान गोंयां येवन थंय रावतालो. वांगडा येतना ताणें गुबगुबीत बायल आनी दोन पोरां हाडिल्लीं. पूण ते पालीक लागून हांव तांचेर लक्षूच दिवंक पावंक नाशिल्लों. पूण शेंवतूचें लक्ष मात म्हजेर आशिल्लें. असल्या लोकांची कारगील, द्रास हांगा खरी गरज. तरी हांवें ताका देशहीत पळयनासतना आमगेर हाडलें. आतां जनेलाच्या हारशार एक पिसोळें बशिल्लें आनी ती ऐन वयार आयिल्ली पालूय थंय आशिल्ली. पिसोळ्याचेर नदर थिरावन आपली शेपडी वयर काडटाली. केन्ना दाव्या उजव्यान हालयताली. हांवें एकाच किंवाट्यान बडयेचें पोंत तिचेर हाणलें. खळ्ळ आवाज जालो. पाल खंयचे खंय नाच जाली. जमनीर मात जनेलाच्या हारशाच्यो कंवच्यो पातळ्ळ्यो. पाड पडूं! नवोच हारसो हाडून बसयिल्लो. आतां तो घालूंक आनीक पांचशे रुपया घालचे पडले. म्हयनोभर कॉलम बरोवन चारशें हातांत आयिल्ले ते कारगील जवान फंडाक दिवचे असो राष्ट्रवादी विचार तकलेंत आशिल्लो. पूण पाल विरोधी

वॉरांत म्हाका प्रचंड तूट आयिल्ली.

हारशाचो आवाज आयकून शेंवतू धांवत आयलें.

'कितें फोडलें गो?'

आवयन भितरल्यान विचारलें.

'अभ्यासिकेचो हारसो फोडलो.'

जनेलाकडेन पळयत ताणें म्हळें.

हांव फुटिल्ल्या हारशाच्या कंवच्यांकडेन पळयत रावलों. त्या कंवच्यांनी पालीची शेपडी तडफडत आशिल्ली.



जुलै १९९९



**‘मी** काय रे तसलां? पोटाक पाड पडलां म्हणान करतय.’

हीं उतरां भुरगेपणासावन म्हजी फाट सोडिनात. आमच्या गांवांत गवंडीपण करूंक कांय लोक येताले. तांच्या सांगताक एक बायलूय आसताली. तिणें शिमीट कालोवप, रांदप बी असलीं कामां करप. म्हाका ती वनवासाक आशिल्ल्या पांडवांची द्रौपदी कशी दिसप. काम करतना, जेवतना त्या गवंड्यानीं तिचीं फकांडां करप. ताणी तिचीं फकांडां केलीं की तिणें लजप आनी म्हणप, ‘मी काय रे तसलां? पोटाक पाड पडलां म्हणान करतय.’ उपरांत ती बायल, ते गवंडी खंय गेले तें हांव नकळ. पूण वतना मात म्हजे खातीर हीं उतरां सांडून गेले. आतां आमचे म्हालगडे लेखक मात तशे खरेले भाग्यवंत. ताणी पुर्तुगेज पाकले वा फिरंग्यांची समर्थ जीण पळयल्या. तांचे गिरेस्त संस्कृतायेक, दायजाक बी ते साक्षी आसले. शंकर भांडारी, अना, लक्ष्मणराव हांणी ती साहित्यांत हाडली. पूण म्हज्या सारख्या कर्मकट्ट्याक मात ती गावली ना.

म्हाका समजूंक लागलें तेन्नाच तांणी पळ काडलो. ह्या साहित्यिकांनी न्हय. त्या पाकले आनी फिरंग्यांनी. फकत म्हाका वाचूंक मेळ्ळें ‘ते फिरंगी गेले आनी ते उंडेय गेले.’ आतां, ह्याच उंड्यांचेर, पदेरांचेर, फिरंग्याचेर हांवें कशें जगप? ज्ञानपिठाखातीर म्हजें साहीत्य काय तांचेर तोर्राद जावंचें ना. ते पासत म्हाका कितें तरी आतां थळावेंच सोदूंक जाय. तेच सुप्त इत्सेन, म्हाका दिसता, तीं उतरां म्हाका घट्ट दसल्यांत. थोर साहित्यिकांक लाबिल्लो हो देवाचो वर आसूंक जाय. म्हज्या जिविताचें आंग जाल्लीं हीं उतरां मदीं मदीं वयर सरतात. ती

आयदनांत वता खरी. पणजे बाजारांत भोंवतना म्हजी नदर तशी भोंवताली. तेच वांगडा म्हजेर कोणाची तरी नदर भोंवता असो म्हाका भास जातालो. म्हजो भास खरा आशिल्लो. अंजू खंवटे म्हाका पळयतालें. सादें भुरगें. ताका हांव कितें सोदतां तें कळचेंना म्हूण म्हाका सूऽ जालें.

'खंय गो अंजू? कॉलेजीक?'

'ना. हांव आयज परिक्षक आसां.'

परिक्षक म्हणटकच हांवें आंग काडलें आनी म्हाका बरेंय दिसलें. पयलीं मेळटा तेन्ना दोतोर तानाजीच हें वाक्य म्हणटालो. आतां नवी पिळगी म्हणटा तेन्ना बरेंऽ दिसता.

'परिक्षक? कसली स्पर्धा आसा तर?'

'कोणेंतरी प्रेमपत्रां बरोवपाची सर्त दवरल्या रे. हांव एक परिक्षक आसां.' सर्त कसलीय आसूं! पूण परिक्षक कोणेंय जावप? तशी गोंयांत ती नविदाद न्हय. गोंयांत सर्ती चड आनी परिक्षक उणे. कला अकादमी कितल्योशो स्पर्धा वर्सभर घेता. तांच्या परिक्षकांचीं नांवां काडून पळयात. हे सगळे तज्ञ इतलीं वर्सां खंय लिपून आशिल्ले होच प्रस्न पडटा. तेन्ना अंजून परिक्षक म्हूण वचप कितलेंशें बरें. पूण हांवें आंग काडलें तें सर्तीचो विशय पळोवन.

'अंजू, प्रेमपत्रां म्हळ्यार कितें तें जाणा मुगो तूं?'

'कित्याक विचारता रे?' ताचोच म्हाका प्रस्न.

'तुवें कितलीं प्रेमपत्रां बरयल्यांत, कितलीं वाचल्यांत हें खबर ना म्हूण विचारतां.'

'परिक्षक जावंक प्रेमपत्रं बरोवंक, वाचूंक जाय अशें कितें आसा?'

'आगो विशय खबर ना म्हणटकच तूं अन्याय करचेंना कोणाचेर?'

'कांय जायना अन्याय. हीं बक्षिसां साहित्य अकादमी पुरस्कार न्हय.'

अंजून फटक करून थोमणो मारलो. इतल्यारूच तें ओगी रावलेंना.

'हांव तरी पत्रां वाचून परिक्षण करपी. कितल्याश्या व्हडल्या व्हडल्या इनामां खातीर पुस्तकां वाची लेगीत नासतना परिक्षक आपणालो निर्णय दितात.'

अंजून म्हळें, आनी तें ताकतिकेन चलत रावलें.



**आगस्ट १९९९**



**प्रो**सोर सुरेंद्र शिरसाटांची म्हाका काकुळट दिसली. खरें पळोवंक गेल्यार हांव महाराष्ट्रवाद्यांची काकुळट करिना. पूण म्हाका सिरसाटांची मात दिसली. पयर म्हाका प्रोसोर हातांत कसलो तरी गठ्ठो घेवन धांवतना दिसलो. त्यो विद्यार्थ्यांच्यो उत्तर पत्रिका नासतल्योच हें हांव जाणा. विद्यार्थ्यांची अपुरबाय करपी प्राध्यापक आतां कमीच. तातूंत तो शिक्षक राजकारणी आसलो जाल्यार मागीर जालेंच.

उत्तर पत्रिका न्हय जाल्यार तें दुसरें कितें आसूं येतालें?

हो महाराष्ट्रवादी गोपाळ मयेकार आशिल्लो जाल्यार गजाल वेगळी. ताच्या हातांतलें तें बाड गोंयच्या मराठी साहित्यिकांचें आसूं येतालें. साहित्यात मोलाची भर पडची म्हूण अध्यक्ष धांवपळ करूंक शकता. चडूच जालें जाल्यार तांचें ज्ञानेश्वरीवेलें तें भाष्य आसूं येतालें. पूण सिरसाटांकडले हे गठ्ठे सामकेच दुबावांत घालपी.

प्रोसोर सुरेंद्र सिरसाट गोंयच्या महाराष्ट्रवादी पक्षाचे अध्यक्ष. तांच्या चडश्या विधानसभा उमेदवारांनी वेंचणुकेक आपटी खाली. नैतीक जापसालदारकी घेवन तांणी राजीनामो दिवपाचो थारायलो. पूण केंद्रीय समितीन तो न घेवपाचो निर्णय घेतलो. प्रोसोराक सांगलें, पक्ष काबार जायसर तुवें अध्यक्ष रावपाचें.

निमाणें सिरसाट बावडो भिडेक पडलो. आपले बगर मगोक पर्याय ना म्हूण ओगीच रावलो. अखेरेक लोकसभेची वेंचणूक लागीं आयली. चवथ आयली म्हणटकच गणपती पुजुंकूच जाय. तशें वेंचणूक आयली म्हणटकच उमेदवार दवरूंकच जाय. नाजाल्यार पक्ष आनी पक्षाध्यक्ष आसून उपेग कितें? पूण पक्ष

बळकट जावपा बदला ताका खिंडार पडलें. खिंडार म्हळ्यार कितें तें तेच जाणात. चड करून तो बुराक आसूंक जाय. सिरसाटान जिकून हाडिल्ले चार आमदार घेवन खलप पळ्ळो. बद्द व्हरून ताणें ते काँग्रेसीच्या पदराखाला लिपयले. सिरसाटाचेर बाबड्याचेर आयलो कलकल. मगोचे चडशे जागे भाजपान आपले वटेन व्हेल्ले. अथक परिश्रमान हाडिल्ले चार जागे काँग्रेस घेवन गेली. थोड्यांनी गाय हाडप, दूद काडप आनी तें बरेंऽऽ तापोवप. त्याच वेळार कोणेंतरी येवन वयली साय घेवन वचप. सिरसाटांचे बाबतींत हे फावट सामकें तशें जालें. मगोची वयलीच साय न्हय, तर सकयली लेगीत व्हेली. असलो हो उगडो नागडो पक्ष घेवन आतां ताणें करप कितें? तरी सिरसाट सामको जिद्दी मनीस. विद्यार्थ्यांक जिद्द शिकोवन आपुणूच जिद्दी जाल्लो. खलप मगो पक्ष घेवन काँग्रेसींत गेल्यार कितें जालें? आपूण आसासर मगो पक्ष केन्नाच सोंपपाचो ना. खलपाक बुद्द शिकोवंक ताणें मगोचे दोन उमेदवार काडले. उत्तरेक बोवाळशेट जल्मी आनी दक्षिणेक रोहिदास नाईक. अध्यक्षपदावयल्यान अध्यक्षान एकदम फर्मान सोडलें. 'पट्ट्यांनो, रणांगणांत मर्दमुकी गाजवा आनी फत्ते होऊन या.' कोंकणी मनीस सिरसाटांची ती तांबडी मराठी. मगो पक्षाचें एकमेव ध्येय धोरण म्हणून वापरची पडटाली. मी मराठी जल्मी आनी रोहिदासाक माती कळटा. तांकां 'फत्ते होऊन येणे' म्हळ्यार कितें तेंच कळ्ळेंना. दोगूय फत्ते करपा खातीर वचून भाजपाक मेळ्ळे. भाजपाचे गोंयचे सगळे फुडारी एकदम देड शाणे. महाराष्ट्रवादी आमदार सदांच आपल्याक मराठी समजताले. लोकांकडेन कोंकणींतल्यान मतां घेताले आनी सोपूत मराठींत घेताले. ह्या अतीशाण्यां परस देड शाणे जावप म्हूण भाजपान थारायलें. मगोवाल्यांपरस वेगळे म्हूण दाखोवंक ताणी संस्कृत सोपूत घेतलो. दिगंबर कामतीक मात तांचीं हीं नाडेपेन्ना जमलीं ना. ताणें पक्षादेश मानिनासतना कोंकणींतल्यान सोपूत घेतलो. ताचीय म्हूण चूक ना. ताचो संस्कृता कडलो संबंद 'मम' म्हणपा इतलो. मगोच्या जल्मी आनी रोहिदासाची मराठी भाजपाक कळ्ळी ना. तरी पर्रिकरान जल्मीक सांगलें, फत्ते होणे म्हळ्यार फोंडांत घालप. खलपाक फोंडांत घालतलो जाल्यार उमेदवारी फाटीं घेयात. दोगाय उमेदवारांनी फाटीं सरून सिरसाटाक फोंडांत घालो. तीच पांयांतली तिडक सिरसाटांच्या मस्तकाक मारली. तांका चड लागलें तें जल्मी, खलपान धोको दिलो ताचें. अर्रा तूं! तुमचेर भरवंसून तर आपणें मगो हातांत घेतलो आनी ऐन वेळार अशे



प्रोसोर सुरेंद्र शिरसाटांची म्हाका काकुळट दिसली. खरें पळोवंक गेल्यार हांव महाराष्ट्रवाद्यांची काकुळट करिना. पूण म्हाका सिरसाटांची मात दिसली. पयर म्हाका प्रोसोर हातांत कसलो तरी गठ्ठो घेवन धांवतना दिसलो. त्यो विद्यार्थ्यांच्यो उत्तर पत्रिका नासतल्योच हें हांव जाणा. विद्यार्थ्यांची अपुरबाय करपी प्राध्यापक आतां कमीच. तातूंत तो शिक्षक राजकारणी आसलो जाल्यार मागीर जालेंच.

उत्तर पत्रिका न्हय जाल्यार तें दुसरें कितें आसूं येतालें?

हो महाराष्ट्रवादी गोपाळ मयेकार आशिल्लो जाल्यार गजाल वेगळी. ताच्या हातांतलें तें बाड गोंयच्या मराठी साहित्यिकांचें आसूं येतालें. साहित्यात मोलाची भर पडची म्हूण अध्यक्ष धांवपळ करूंक शकता. चडूच जालें जाल्यार तांचें ज्ञानेश्वरीवेलें तें भाष्य आसूं येतालें. पूण सिरसाटांकडले हे गठ्ठे सामकेच दुबावांत घालपी.

प्रोसोर सुरेंद्र सिरसाट गोंयच्या महाराष्ट्रवादी पक्षाचे अध्यक्ष. तांच्या चडश्या विधानसभा उमेदवारांनी वेंचणुकेंक आपटी खाली. नैतीक जापसालदारकी घेवन तांणी राजीनामो दिवपाचो थारायलो. पूण केंद्रीय समितीन तो न घेवपाचो निर्णय घेतलो. प्रोसोराक सांगलें, पक्ष काबार जायसर तुवें अध्यक्ष रावपाचें.

निमाणें सिरसाट बावडो भिडेक पडलो. आपले बगर मगोक पर्याय ना म्हूण ओगीच रावलो. अखेरेक लोकसभेची वेंचणूक लागीं आयली. चवथ आयली म्हणटकच गणपती पुजुंकूच जाय. तशें वेंचणूक आयली म्हणटकच उमेदवार दवरूंकच जाय. नाजाल्यार पक्ष आनी पक्षाध्यक्ष आसून उपेग कितें? पूण पक्ष

काँग्रेस, भाजपाकडेन साठेलोटे करतात? खलप एकलोच काँग्रेसींत गेल्लो जाल्यार प्रस्न नाशिल्लो. तो मगोंत आशिल्ल्यान सिरसाटांक म्हत्त्व मेळनाशिल्लें. एक दोग आमदारांक घेवन गेलो तरी व्हडली पर्वा नाशिल्ली. पूण हाणें आमदारां सयत पुराय मगोच काँग्रेसींत व्हेली! खलपांच्या ह्या दुष्कृत्याचे त्यांना पानवळ भोगवायलाच पायजे. प्रोसोर सिरसाटां सामकार आतां फकत तोच एककलमी कार्यक्रम. कितेंय करपाचें पूण खलपाक आनी जल्मीक धडो शिकोवपाचो. पूण कितें करप तेंच तांकां कळना जालें.

तांकां दिमयांनी उबे दवरप काय हात पट्ट्यांनी फोडून काडप? शाळा कॉलेजिंनी भुरग्यांक हात लावप ना असो कायदो केला. ताकाच लागून खूबशा शिक्षकांचो सामको नाईलाज जाला. हांगा राजकीय शाळेंत तर पक्ष नेमाची आडखळ आसा. कितेंय करतलो जाल्यार नेमावळींत बसता तशें करपाचें. सगळ्यांत पयलीं विद्वाट्यांक कारणे दाखवा नोटीस काडपाची. ते नोटिसेची जाप आयली म्हणटकच कारवाय करपाची. आनी कारवाय म्हळ्यार तरी कितें? तांकां पक्षांतल्यान भायर घालप. खलप सगळो पक्षूच घेवन काँग्रेसींत गेल्लो. भायर उरिल्लो फकत पक्षाध्यक्ष सुरेंद्रबाब.

खरें म्हळ्यार तो भायर कसो उरलो हेच खातीर ते ताका नोटीस काडपाचे. खलपाचें काळीज बरें म्हूण ताणें ती काडलिना. आतां कारणे दाखवा नोटीस पक्षाध्यक्षान काडिल्ली ती फकत खलपाकूच काय हेर सगळ्या वांगड्यांक तें कळ्ळेंना. तरीय पंक्तीभेद नाका म्हूण ताणें ती सगळ्यांक काडली. त्या कागदांचे गठ्ठे सांबाळटा सर दुसरें प्रकरण उद्भवलें. कारणे दाखवा नोटीस काड म्हूण सांगपी जल्मी भाजपाकडेन पावलो. पर्रीकराची तीन रुपयांची च्या पिवन तांकां तेंको दिवंक लागलो. खलपा वांगडाच जल्मीकूय नोटीस काडपाची पडली. पूण जल्मी पर्रीकाराकडेन वचून फकत च्या कसो पियेतलो? जल्मीच्या आरोग्याक च्या बरी पडना हें तो जाणा आशिल्लो. तो थंय च्या पिता जाल्यार ताचे भाजपाकडेन संबंद नासुये हाची पक्षाध्यक्षांक शंबर टक्के खात्री जाल्ली.

तरीपूण पक्षधोरणाक लागून नोटीस काडप गरजेची आसली. नोटीस काडपाक प्रोसोर बसलो जाल्यार आनीक प्रस्न. महाराष्ट्रवादी पक्षाचें धोरण मराठींतल्यान वेव्हार. खलप मगोंत आशिल्लो ते म्हणसर तें बरें आशिल्लें. पूण आतां तो सगळ्यांक घेवन काँग्रेसींत गेल्लो. काँग्रेसिचें धोरण भायल्यान कोंकणी भितरल्यान

इंग्लेज. इंग्लेजींतल्यान नोटीस काडटलो जाल्यार सुरेशाक इंग्लीश जमना. मराठींतल्यान काडटलो जाल्यार आनी तो खलपाक कळना. कोंकणींतल्यान काडूंक गेल्यार मराठी ताका खाता. आतां एकूच उपाय म्हळ्यार सरकारी धोरण आपणावचें. सरकारी आमंत्रणां चार भासांनी काडटात तशी नोटीस काडपाची. त्याप्रमाण मराठी वांगडा कोंकणीय चलताली. सरकारान कोंकणीकूय सहभाशेचो दर्जो दिला हें ते मानताले. ताचो पुरावो म्हूण कोर्टांचो कसलो तरी दाखलो दाखयताले. हेच मोडिचो लाव घेवन सिग्लाटान दोन भासो घेतल्यो. कारणे दाखवा नोटीस आनी कारणे दाखयात नोटीस काडली. पूण ताका तातुंतली खंयची मराठी आनी खंयची कोंकणी तें कळ्ळेना. देखून तें सगळें घेवन तो कोंकणी अकादमीत धांवतालो. इतल्यान ताका कर्मीक नोटीस काडपाचो आदेश आयलो.

कर्मी पयलीं मराठी आशिल्लो. आतां संस्कृत जाल्लो. पर्रीकार, श्रीपाद हांचेकडेन सामकी संस्कृत उलयतालो. ताका मराठी कारणे दाखवा नोटीस कळपाची नाशिल्ली. संस्कृत कळना तेन्ना कारणां कसलीं दितलो कर्मांचीं? सिगसाटाची अर्थनिकाय तर टिवींवेल्या आयतार सामकी जाल्ली. आतांच इंग्लेज, आतांच हिंदी, संस्कृत आनी मोन्यां खातीर बातमी दिवपी. मोन्यां खातीर बातमी दितात तशी नोटीस दिल्यार घात जावपाचो. ताणें चुकून हाताच्यो नाका त्यो कुरवो केल्यार घात. तें विधानसभेंत बाबू नायक आनी शशिकला काकोडकारांक पचतालें. मगो पक्षाध्यक्षांचो हो नोटीसींचो पेज सोसपाचो न्हय. नोटीस दिल्ले बगर ताका तांचेर कारवाय करूंक मेळना. कारवाय करिना जाल्यार ताचो राग न्हिवना. कितलोय जाल्यार सुरेंद्रबाब आमचो कोंकणी मनीस. म्हापशां कोंकणी संमेलनाक ताचें व्हडलें योगदान आसा. अशा वेळार ताका पावलें तें म्हजेसारकें कोंकणी मनिसूच.

म्हळें, तुमी कसलीच चिंता करूं नाकात. हांव आसा. हांव आसां म्हणना बगर ताका मात्शें बरें दिसलें. कित्याक तर आतां मगो पक्षांत ते एकटेच आशिल्ले आनी हांवेंय पुराय जिवितांत एकदांच पक्षांतर केल्लें. हांव कॉंग्रेस सोडून मगोंत गेल्यार कोण कांय म्हणचो नाशिल्लो. आनी म्हाकाय बाबूशासारकें हें निमणें पक्षांतर म्हणपाची गरज नाशिल्ली. तशें हांव म्हणचोंय नाशिल्लों. म्हाका फुडार आसा. राष्ट्रवादी कॉंग्रेस पक्ष वो आतांच गोंयांत पावल्यात. पूण हांवें प्रोमोटराक स्पश्टपणान सांगलें. हांव आसां म्हळ्यार हांव पक्षांत येवपाक ना. हांव आसां तो तुका नोटीस कोंकणी करून दितलों. ते भायर म्हाका बऱ्यापयकी मराठी बरोवंक

येता. मराठी अकादेमीच्या वांगड्यांनी वाचूंक ना तितली मराठी हांवें बरयल्या. म्हजें बाणेदार वक्तव्य आयकून प्रोसोर थंडावलो. मराठीचो प्रस्न येता तेन्ना कोंकणीवादीच पावतात हें ताका कळून आयलें. हांवें कारणे दाखवा नोटीस बरोवन दिवपाक ताका पालव दिवपाचें थारायलें.

**माजी मगोचे शींव बाब रमाकांत खलप**

**हांकां कारणां दाखयात नोटीस.**

तुमी मगोंत आशिल्ले म्हळ्यार खंय आशिल्ले?

तुमी मगो सोडपाचो निर्णय केन्ना घेतलो?

मगो सोडून तुमी एकटेच गेल्यात काय

वतना आख्खो मगो पक्ष घेवन गेल्यात? आख्खो मगो पक्ष घेवन गेल्यार हांव अध्यक्ष भायर कसो उरलों? तुमी काँग्रेसींत कोणाचे सुचोवणे वेल्यान गेल्यात? सोनियाचे, लुईझीनाचे काय रवीचे? काँग्रेसींत वचून तुमी थंयच रावतले काय परते मगोंत येतले? मगोंत येतले जाल्यार खासदार म्हूण येतले काय राजिनामो दिवन येतले? मगोंत येतना तुमी एकटेच येतले काय येतना काँग्रेसच्या वांगड्यांक घेवन येतले? तुमी काँग्रेसींत सद्या खंयची भास वापरतात? तुमकां कोंकणी भास आपली भास दिसता? काय थंय तुमी मराठीलाही स्थान द्या म्हणटले? जर मराठीक काँग्रेसींत स्थान दिलेंना जाल्यार तुमी काँग्रेसींत बंड करतले? काय ओगी बसतले?

ह्या सगळ्या प्रस्नांच्यो जापो बेगोबेग धाडच्यो. जर आठ दिसांभितर धाडल्योनात जाल्यार पक्षविरोधी कारवायो केल्लेखातीर तुमकां पक्षांतल्यान स वर्सां खातीर भायर कित्याक मारचें न्हय हाचीं कारणां दिवचीं. कारणां आमकां पटलीं जाल्यार पक्षांतल्यान भायर मारपाचीं वर्सां उणी करूं येतलीं. कित्याक, हो पक्ष स वर्सां तिगत हाची म्हाकाय खात्री ना.

**प्रा. सुरेंद्र सिरसाट**

अध्यक्ष

महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्ष



सप्टेबर १९९९



लोकसभेच्यो वेंचणुको जाल्यो आनी 'प्रदीर्घ' काळान मतमोजणीय जाली. एका म्हयन्याची ती 'निकालाची प्रतिक्षा' खरें म्हळ्यार आकांताची. मराठींत तिका जीवघेणी काय कितें तरी म्हणटात खंय! पयलीं हांव 'जिवघेणी' म्हळ्यार मराठी अकादमी समजतालों. कित्याक, कोणाचोय जीव गेलो म्हणटकच ती जिवी जाता. शोकसभा घेवन आपलें अस्तित्व तिगोवन दवरता. आता कालांतरान तोय अर्थ फाटीं पडला सो दिसता. कित्याक, पयर, म्हळ्यार आठ दिसां फाटीं रमाकांत आंगलो मेळिल्लो. दनपारच्या वता कडार खंय तरी ताकतिकेन वतालो.

हो मडगांवकार पणजे सो?

म्हूण तेच ताकतिकेन हडकिलो. वखदाचीं पाळां हीं! केन्ना उपकारत, सांगू येता? दिवाळी लागीं पावल्या. अंकाक जायरातीक तरी उपकारपाचो. ते भायर लोकसभेचो उमेदवार, जावं मागीर भाजपाचो! दामबाबाची कृपा आसल्यार निवडून दिल्ली लेगीत पावत. दामबाबाक तसो पक्षभेद लागना आनी म्हाकाय बी. हांवें आंगल्याक म्हळें, 'रमाबाब, दनपारचो वेळ. जेवया मरे?' ताका तसो फोर्सार करपा फाटल्यान म्हजेंय कारण आशिल्लें. हांवें ताका जेवणाक व्हेलो जाल्यार तसो तो म्हारग पडना. चड करून तोच आपूण जावन बील फारीक करता. हांवें आपयला म्हूण मुर्वतीक पडून फारीक करनासतना गावल्यारूय

चलता. दनपारच्या कडार एका अतिथीक जेवण दिल्ल्याचें पुण्य लाभता. ते भायर भावी खासदार म्हूण लोक आमचेकडेन पळयतात. म्हणजे, ताचे कडेन आनी ताचे वांगडा आसा म्हूण म्हजे कडेन. तेच वांगडा भावी खासदार म्हूण बील घेवंकय चडशे कोण वचनांत.

ताका लागून ताच्या धर्मान म्हजे सारक्याचें जेवण सुटटा. जेवतां जेवतां आंगल्यानूच तोंड उगडलें. 'ही प्रतिक्षा म्हळ्यार जीवघेणी रे सायबा. आनीक दोन दीस उरले.' निकालाची प्रतिक्षा हाका जीवघेणी कित्याक तें म्हाका कळ्ळें ना. ती वाजपेयी, अडवाणी बी हांका तशी थरूं येता. कित्याक तांका थंय निकालावेल्यान सरकार घडोवपाचें आसा. हांगा हे गोंयचे दोन उमेदवार वेंचून आयिल्ल्यांत जमा. तशें खासा कॉँग्रेसीनूच मान्य करून सगळे घरा बशिल्ले. तेन्ना आंगल्यान प्रतिक्षा करपाची गरजूच नाशिल्ली. केल्यारूय मंत्रीपदाची करूं येताली. पूण ती जीवघेणी कशी?

ही प्रतिक्षा जीवघेणी गोंयच्या कॉँग्रेवाल्यांची जावं येता. कारण तांची शेंडी वयर दिल्लीच्या फुडाऱ्यांच्या हातांत. सोनियाच्या हातांत माधवराव सिंधियाची, सिंधियाच्या हातांत लुईझीनाची, लुईझीनाच्या हातांत आमदार-मंत्र्यांची, तांच्या हातांत पयशे घेवन काम करपी कार्यकर्त्यांची, कार्यकर्त्यांच्या हातांत मतदारांची -अशी लांबलचक सरपळी. कोणाच्याच हातांतल्यान कोणाची शेंडी सुटना आनी दर एकलो ती सोडुंकय दिना. सोडली जाल्यार खंयचे खंय उबंत पडटले म्हणपाचें ते जाणात. कोणाक अध्यक्षपद मेळचेंना, तर कोणाक मंत्रीपद. कोणाचें फुडारपण वतलें तर कोणाचे वांटिल्ले दुडू परत येवचेनात. देखून ह्या असल्या लोकांक निकालाची प्रतिक्षा जीवघेणीच. निकाल जातकच कोण कोणाचो जीव घेत तें सांगूं नज! पूण म्हजे सारक्याक कसली चिंताच म्हणटात ती नाशिल्ली. कोण वेंचून येतले तें हांव ज्यूस्त जाणां आशिल्लों. तरी स तारकेक खलपान आपयलो तेन्ना मात्सो म्हाका दुबाव सो आयलो. प्रचारावेळार हाणें म्हजें चुकून लेगीत तोंड पळोवंक नाशिल्लें. म्हज्या घरा शेजराक जाल्ले सभेक लेगीत म्हाका उलोवंक आपोवंक नासलो. तसो हांव खलपा आदीं कॉँग्रेसिचो अधिकृत सदस्य जाल्लों. खलपाक तर सदस्य जावंक अजून वेळच मेळूंक नाशिल्लो. कारण उमेदवारी अर्ज सादर करपाचो टायम जाल्लो. उपरांत प्रचाराचे धांवपळींत खंयचें सदस्यत्व आनी खंयचें कितें!

अशे हे परिस्थितींत हे लोक काँग्रेसमॅनाक उलोवंक आपयनात. म्हज्या शेजरा येवन ते दुडू लेगीत दिवन गेले. पूण म्हज्या घरांत पायधूळ म्हणटात ती झाडलिना. म्हळें, बरें आसा. हांकां म्हजी आता गरज उरूंक ना. वो अजून तांचो कोंकणीवाद्यांवेलो राग वचूंक ना आसूं येता. मरूं ते! अशें म्हूण हांवें विशय सोडलो आनी कविता करूंक लागलों. काँग्रेसजनांनी एक तर कविता करपाच्यो ना जाल्यार दुडू करपाचे. अशा वेळार म्हाका मतमोजणेक यो म्हूण सांगलें आनी हांव भियेलों. पडेल उमेदवारा वांगडा मार खावंक कोण तरी जाय आशिल्लो तर! तो जिखून येवपी आशिल्लो जाल्यार म्हाका खंय सुवात आसपाची? काँग्रेसींत वचून तोय त्रासांत पडिल्लो आनी हांवूय. आतां दोगांनीय हे त्रास वांगडा सोंसल्यार वायटशें नाशिल्लें. देशी भासांक एकामेकांचो आदार जाय म्हणटात तेंच खरें! उठलों आनी सरळ मिनेझीस ब्रागांझांत गेलों. पोलिसांनी आडावण घाल्लें पूण म्हाका आडायलो ना. आडायतले कशे? येदो व्हडलो फुडारी!

‘आमकां मात आडयता मरे, ताका कितें काँग्रेस म्हूण सोडटा?’ गर्दी करून आशिल्ल्या भाजपांतल्या कोणें तरी विचारलें.

‘आरे, तुमचे कितलेशे गेल्यात मरे! हो काँग्रेसिचो दुसरो,’ पोलीसांनी भाजपा कार्यकर्त्यांक समजायत सांगलें. हांव फार्टी पळयनासतना तुरतुरीत चलत रावलों. हांव दुसरो म्हणटकच पयलो खलप गेला जावंक जाय सभाघरांत. वचून पळयत जाल्यार खलप एकटो ना. ताचे वांगडा धर्मा आनी जितेंद्र देशप्रभू आसात. काण्ण्यो घालूंक राविल्ले वरी तेंकून तेंकून बसल्यात. म्हाका पळोवन सगळ्यांक तोंडभर आनंद जालो. तारूं फुटून जुंव्यार अडकल्ल्यांक दुस्मानाक पळोवन लेगीत खोस जाता.

‘संकश्टांत, अडी अडचणींत धावून येवपी तुमीच रे कोंकणीवादी!’ म्हाका हात दिवन कदेलाचेर बसयत खलपान म्हळें. म्हणजे हो खलप काँग्रेसींत वचुनय आपल्याक मराठीवादी समजतालो. पूण हे तीग आसुनूय पोलीसांनी म्हाका दुसरो कित्याक म्हळो? जितेंद्र आनी धर्मा चोडणकार तांकां भाजपाचो दिसूंक ना मू? आसूं येता. ह्या काळार कोण कोणाचो म्हूण कोणें हिशेब दवरचो? आमच्या रूपाक लागून खलप आनी हांव लोकांचे तकलेंत फीट बसल्यात.

‘मतमोजणी अजून सुरू जावंक ना काय कितें? हांकां कांय पडून वचूंक ना म्हूण हांवें दुबावान विचारलें.

'ती आमकां रावता? जाली केन्ना सुरू...

धर्मान त्या प्रकाराक कांयच अर्थ ना अशें तरेन म्हळें. म्हाका दिसलें, वेंचणुकेक पडल्यार तुका डेप्युटी सीएम करतां अशें लुईझीनान म्हळें आनी थंयच सगळें पाड पडलें!

हांगाच सगळें मेळटा जाल्यार जाय कोणाक ती दिल्ली विरोधांत बसपाक? सोनियाक तेंकून बांकार बसलो म्हूण कोण गोरो जावंचो ना!

ते परस हांगा हो काळो चर्चिल आनी लुईझीनूच बरो. नातर हांव म्हजे वेंचणुकेक कितें खर्शेतालों! पयशे वाटले बगर मतां नात हें खबर आसुनूय मतांक भोंवतालों. मतपेटयेंत मतां नात हें खबर आसुनूय, म्हाका पडिल्लीं वीस-पंचवीस मतां कोण व्हरचोना हें जाणां आसुनय दरेक मतमेजणी टेबलार एजंट दवरतालों! पूण हे सगळे खांपे राजकारणी. तांकां जाल्यारूय वडे आनी मेल्यारूय.

मतमोजणी पळोवन येवया म्हूण हांव हॉलांत गेलों. इलेक्ट्रॉनिक मतदान म्हणटकच पत्रिकांची रास नाशिल्ली. बाकिच्या पडेल उमेदवारांच्या एजंटांचीय खातड नाशिल्ली. फकत भाजपाचे मतमोजणी एजंट मतदान यंत्र आपल्या दोळ्यांनी फाफशिताले. एकलोच भाजेपाचो उमेदवार श्रीपाद नायक ह्या मेजावेल्यान त्या मेजार भोंवतालो.

आंगणांत सुकत घाल्लें भात एकल्याच कोंब्याक खावपाक संद मेळटकच तो जसो करता, तशेंच शें म्हाका तें चित्र दिसलें. हांवें वचून ताचें मनसोक्त अभिनंदन केलें. पूण ताका तें वयलेचाराचें दिसलें जावंक जाय. म्हजो एका काळावयलो वर्गमित्र जावनूय तो परकी कसो वागलो. आपूण जिकतां हाची ताका खात्री जाल्ली जावं येता. हांव उठून प्रिसायडिंग अधिकाऱ्याकडेन गेलों. तो अजून टपाल आनी टेंडर मतां तपासतालो. टपाल मतपत्रिकेची मतमोजणीय जाताली. म्हळें, म्हज्या बापायची मतपत्रिका आसा जाल्यार पळोवया. खरें म्हळ्यार मतपत्रिका वळखूंक येनात. पूण सांगूं नज. ह्या राजकी मळार कितेंय जावं येता.

आतां पळयात, म्हजो बापूय भायर पडलो फाटल्या वर्सा जानेरांत. ते उपरांत एक वर्स पांच म्हयन्यांनी विधानसभा वेंचणुको आयल्यो. हांव सकाळफुडें मत मारूंक गेल्यार म्हजो बापूय मत मारून गेला! परतून लोकसभेच्या मतदानाक फाटल्या म्हयन्यांत गेलों. म्हजें नांव रोलाचेर चेक करतना बापायचें नांव तपासलें.

पळय जाल्यार आदले खेपेवरीच तो मत मारून गेल्लो. हें मात आतां अती म्हळ्यार सामकेंच अती जाल्लें. म्हजो बापूय सुरवेक सावन कट्टर शींववादी. ताणें शींव निशाणी सोडून केन्नाच दुसऱ्याचेर शिक्को मारलो ना. हे वेंचणुकेक तर पयलेच खेपे शिंवान दडी मारिल्ली. अशा वेळार खरोच बापूय आयलो जाल्यार तो तत्व बदलपाचो ना. म्हणजे, जाणें बोगस मतदान केलां ताणें ताचे भावनेचो अपमान केला, तत्वांचो उपमर्द केला. म्हज्यान ओगी रावप जालेंना. हांवें हरकत घेतली.

'चल. वच आनी बापायक घेवन यो. हांव ताका टेंडर मतदानाचो अधिकार दितां.'

वेंचणूक अधिकाऱ्यान उपकार केल्लेवरी फर्मायलें. बापूय ना जाल्यार हाडूं खंयचो, अशें हांवें ताका नाना परीन विचारलें. ताचें म्हणणें, ना जाल्यार हाडूं नाका. पूण विनाकारण वावरांत अडचणी हाडूं नाका. देखुनूच हांव हांगा आता टॅंडर मतपत्रिका पळयतालों. चाळटां चाळटां वेंचणूक अधिकाऱ्याक एका बॉक्सांत कितें तरी सांपडलें. ती टेंडर मतपत्रिका नाशिल्ली पूण एक पत्र आशिल्लें. अधिकाऱ्यान काडून तें म्हज्या हातांत चोंदलें. हांवें उगडून पळयलें आनी कपलार हात मारलो. कांय गजाली म्हजेकडेन आपूण जावन चलून येतात त्यो अश्यो. फाटल्या म्हयन्यांत मगो पक्षाध्यक्ष सुरेंद्र सिरसाट हांणी रमाकांत खलप हाका कारणे दाखवा नोटीस धाडिल्ली.

खलपान व्हड मनान ताका जाप बरोवन दवरिल्ली. पूण कोणें तरी तिरसुवादान ती मतपेटयेंत घाल्ली. आज मतमोजणे वेळार ती अशी म्हज्या हाताक लागिल्ली. खलपान पक्षाध्यक्ष सिरसाटांक सामकी मुद्देसूद कारणां बरयल्लीं.

म्हाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचे अध्यक्ष प्रो. सुरेंद्र सिरसाट **हांणी धाडिल्ल्या कारणां दाखयात नोटीसेक अनुसरून** एका मित्रान दुसऱ्या मित्राक दिल्लीं कारणां:

प्रिय मित्र सुरेंद्र,

तुजी कारणां दाखयात नोटीस पावली रे! तुवें जितलींय कारणां विचारल्यांत तितलींय आमी मेळटा तेन्ना डिस्कस केल्यांत. तें करूनच आमी कॉंग्रेसींत वचपाचें थारायल्लें. तूं अकस्मात फाटीं खंय उरलो तर?

आता म्हाका अशें विचारप मरे? हांव कॉंग्रेसींत एकटोच गेलां काय आखखो मगो पक्ष घेवन गेलां?

तो आख्खो व्हरूं नाशिल्लो जाल्यार तूं मगोचे उमेदवार दवरपाचे सोडपाचो? कॉंग्रेसींत भाशेचो प्रस्न गौण रे! आमी मगोंत कोंकणीच उलयताले काय ना?

पूण कॉंग्रेसींत सगळ्यांपरस पैशांची भास चड चलता आं! तूं जाता तितले बेगीन यो रे. गरजे भायर तूं एकटो पडलो ना?

कॉंग्रेसींत आयिल्लो जाल्यार वेंचणुकेक दोन भाशणां करूंक मेळची नाशिल्लीं? आतां भाजपांत बी वचपाची पिशेपणां करूं नाका आं!

थोडे दीस राव. शरद पवार येवपाचो आसा...

तेच खातीर हांवें मगोचे दोन आमदार भायर दवरल्यात. मराठी आनी महाराष्ट्र आमच्या रक्तांतल्यान गेला रे? आनीक आनीक तूं नोटिसेचे भानगडींत पडूं नाका. हांवच तुका राष्ट्रवादी कॉंग्रेसींत येवपाची नोटीस धाडटां. ते म्हणसर मातसो कॉलेजीकडेन लक्ष दी.

तुजो भाई



**ऑक्टोबर १९९९**



‘तूं संमेलनाक वचना रे?’

एकट्याचो न्हय, दोग-चौग जाणांचो हो प्रस्न. तांकां कळ्ळां आसतलें म्हजें ‘रूक्षप्रस्न’ पुस्तक छापून जालें म्हूण. नाजाल्यार ते म्हाका प्रस्न करपाचें धाडस करचे नाशिल्ले. म्हणजे ते म्हाका भितात-बितात अशें कांय न्हय. म्हाका व्हरून मारतात ते भिसक्यार. तांचीय म्हूण हातूंत चूक ना.

आयची गोंयची संस्कृतायूच तशी जावन पडल्या. दर एकल्याचे वळखिचो कोण तरी आमदार आसता आनी तो आयज-फाल्यां केन्नाय मंत्री जावं येता. हाका लागून आतां गोंयांत कोणाक कोणाचो भंय उरूंक ना. सरकारी नोकरांक तर मात्तूय ना म्हळ्यार जाता. एक मंत्री वचून तांकां भेश्टायता थंय आसा, तांकां भंय पडचे आदींच तो परतून आमदार जाता. पूण म्हाका प्रस्न करप्यांचें भियेवप राजकी न्हय. ते जतनाय घेतात म्हजो फायदो जावंचो न्हय हाची. हांवें तांचो प्रस्न वापरलो आनी तांचेर बरयलें जाल्यार? तांणी होच प्रस्न रूक्षप्रस्न छापचे आदीं विचारपाचो. जाल्यार हांव ‘तूं संमेलनाक वचना रे?’ हो रूक्षप्रस्न करून उडोवपाचों. पूण ह्या खपनखायऱ्यांक म्हजें बरें जाल्लें नाकाच. आतां म्हाका रूक्षप्रस्न भाग -२ काडचो पडलो. हे खंड-भाग बी म्हाका कितले जमतले हो प्रस्न अलायदा. अशे हे भाग १-२-३-४ बी काडप भिडे सारकेल्याक जमता. ताचेकडेन मुकेश थळी, घाणेकार हांचे सारके संशोधक आसात. हालींच तांणी कोंकणी -इंग्लेज शब्दकोश काडलो. बरेंऽऽ दिसलें म्हाका. असल्या गजालिंची गरज आसा. बरेंच किचकटिचें आनी खर्चाचें काम हें! गुरूनाथबाब केळेकारांचे नदरेन तर सामकें पेंवपासारकें. जो कोण पेंवूंक जाणा ताणेंच हांतूत उडी मारपाची. नकळ ताणें तडीक उबें रावपाचें. आनी कोण कसो पेंवता-बुडटा, बुचकळटा तें

पळोवपाचें. पूण हें पेंवप दर्यांतलें, न्हंयतलें, तळ्यांतलें, व्हाळांतलें काय बांयतलें हें कोण सांगना.

ते खातीर म्हजे सारक्यांक खंयचे तडीक उबें रावचें तेंच कळना. आनी तडीक रावना जाल्यार कोण बुडटा आनी कोण तरता हें कळपाची माणसुकी ना. आतां हांगा कोण बुडटलो तें काळूच सांगतलो. पूण म्हाका भिरांत लागल्या म्हज्या बुडपाची. कोंकणी-इंग्लेज शब्दकोशाचो राजहंसान एकूच खंड काडला. तोय बी अ ते न मेरेनच्या उतरांचो. म्हजी गरज सुरू जाताली न उपरांतूच. प, फ पसून. फुडलो खंड काडचे पयलींच राजहंस बुडलो जाल्यार? पयसो, पाशियेंस, पाताळयंत्री, पळवाट, पदरमोड बी हांचो इंग्लेज अर्थ हांवें खंय सोदपाचो? फटको, फुडार, फुगडी बी उतरां आनी तांचो इंग्लेज अर्थ हेरांक नाका आसत. म्हज्यानूय तांचे खातीर आनी भिडे पासत पाशियेंस काडूं येता. पूण प्रतिमा कामतीचे हाल जातात ताचें कितें?

प्रतिमान खंयच्या तरी इतिहासाचेर पुस्तक बरयलें. तें इन्स्टिटयूट मिनेझीस ब्रागांझान छापलें. छापूं बाबड्यांनी. इतिहासाचीय गरज आसाच. तो ब्रागांझान छापूंक नाशिल्लो जाल्यार आफोंस छापपाचो. पूण तो छापूंक कळाव जालो तो ताच्या नांवा खातीर. 'फारार फार' हाचो इंग्लेज अर्थ कोणाक खबर ना. भिडेचो शब्दकोश येतलो म्हणटाले तोय वेळार आयलोना. (आतां आयलो तो 'न' मेरेनूच प, फ बी फुडल्या खंडांत. आनी आतां येवनूय फायदो कितें? फारार फार जालें.) बाबड्या प्रतिमाक कोंकणीच नांव दवरचें पडलें. हें सगळें घडलें तें त्या भिडेन कळाव लायलो म्हूण. पूण तातूंतय प्रतिमाबायची तोखणायूच जाली. 'फारार फार' नांव दिवन आपलें नीज सांबाळ्ळें म्हूण!

तर हांव कितें सांगतालों? हय. रूक्षप्रस्नाची गजाल. न्हय. म्हज्या पुस्तकाची गजाल न्हय. प्रस्नाची. तांणी म्हाका संमेलनाक वचना काय म्हूण विचारलें आनी म्हाका याद जाली, फर्मागुडयेर संमेलन आसा. युवा साहित्य संमेलन म्हूण कितें जालें? संमेलनूच तें. साहित्य आनी साहित्यिक सदां युवाच आसतात. चिंतलें, हांची अपेक्षा आसा जाल्यार या संमेलनाक. अशी कोणें अपेक्षा बाळगप हातूंतच आमचें मोठेपण. नातर मेळत ताका ते कित्याक विचारनात तर? हांव साहित्यीक हें ते जाणात म्हणून तांचो प्रस्न आनी तांणी मानून लेगीत हांव गेलोंना जाल्यार तो अन्याय. प्रस्न विचारल्यांचेर न्हय. संमेलन घडयतल्यांचेर. युवा

साहित्यिकांनी म्हाका पळोवपाचो इत्सो उक्तायलो समजा. जाल्यार तो शिवदास आनी म्हाळशी खंय खंय धांवतले?

तेच पसून धंय करून नालतनाच हांव गेलोंच. हांव माटवांत भितर सरलों तशीं सगळ्यांनी म्हजेर नदर मारली. आनी रोखडोच तांणी ती म्हजेवेल्यान काडली. कोणेंतरी ताका दोळ्यांनीच धपकायल्ले वरी. म्हजो सामको म्हळ्यार सामको अपेक्षाभंग जालो. नातर फाटल्या वर्सांचें तें केपेचें युवा संमेलन. वा! अजून ताची याद काडल्यार हांव मळबाक तेंकतां. युवा साहित्यिकांनी म्हाका सामको गराडो घाल्लो. किल्ले, तरातरांचे तांणी म्हाका प्रस्न विचारचे.आनी हांवें तांच्या दरेक प्रस्नाक चोख जाप दिवंची. पूण आज एकलेंय म्हाका पळय लेगीन ना म्हळ्यार किते! म्हजेविशींचो तांचो आदर उणो जालो काय? हांवें म्हाळशी मारल्यान जें अशें ताका कळ्ळें काय? तांका म्हाळशी सारको कोणूय ल्हान साहित्यीक मेळ्ळो काय? निमित्त करून थंयच्यान कडसरचें अशें दिसलें. तशें करपाक वतालों इतल्यान एक चली आयली. म्हजे मुखार कागद दवरून स्वाक्षरी मागूंक लागलें. हांवें कडसरपाक उखल्लेलें पांय परतून घट केले. ताच्याच पेनान ताका स्वाक्षरी दिवंक लागलों. ते आदीं ताचें नांव विचारचें म्हूण ताका प्रस्न केलो.

'तुजें नांव कितें गो बाय?'

'हांव फुलू काणकोणकार.'

'तूं काणकोणा खंय शिकता?'

'हांव शिकना. म्हजें शिकून जालें.'

'तूं कितें कविता बी करता?'

'च्ये! म्हाका तातुंतलें कांय कळना.'

' कितें बग्यता-बिग्यता तर तूं?'

' ना. हांवें केन्ना ट्राय करूंक ना.'

' मागीर तूं हांगा कशें पावलें तर!'

'कशें म्हळ्यार? बसांन. म्हजी मैत्रीण घेवन आयल्ली.'

'पूण तुका हातूंत रस आसा तर?'

'तातून कितें आसा? आमी कॅम्पाक वचना तर!'

म्हाका ताची जाप दिवपाची पद्दत आवडली. ताचे भितर कसलोंच दोंगीपणा

नाशिल्लीं. नातर थोडीं आपूण कविता करतां म्हूण बडायो मारतात. आपल्याक साहित्याचें खूब कळटा म्हूण दाखयतात. जापो खबर आशिल्ले प्रस्न साहित्यिकांक करतात. तांकां जाप सांगूंक येना जातकच आपूण दितात. हांवें फुलूक अपूर्बायेन स्वाक्षरी दिली. आनी ताका नमळायेन हांवें प्रस्न केलो.

'फुलूबाय, हांव कोण तो जाणां मगो तूं?'

ताणें म्हजें कितें वाचलां हें हांव जाणूंक सोदतालों. तें म्हाका पळोवन लजेलें आनी म्हळें, 'हें कितें सर! तुमी भिकू बोमी नायक न्ही?'

आयकून म्हाका एकदम धस्स जालें. खंय भिकू आनी खंय हांव! कोणूय म्हाका एम्. एफ्. हुसेन म्हणटात तें एकवेळ हांव समजूंक शकतालों. पूण फुलून म्हाका भिकू समजुचो! भिकू समजून म्हजेकडेन स्वाक्षरी मागची? म्हज्यान आनीक आनी थंय रावूं नज जालें. स्वाक्षरी केल्लें पेन त्या कागदार चिड्डून आपार मोडचो अशें म्हाका दिसलें. वाटेर भिकून म्हाका हडकिलो पूण ताका जाप दिवपाचे मनस्थितींत हांव नाशिल्लों. भिकूक राग आयला आसूं येता. म्हणटलो, हो स्वताक कितें व्हडलो समजता? हडकिल्यार लेगीत जाप दिनासतना गेलो तो!

हांव पणजे आयलों. खंयचो त्या संमेलनाक गेलों अशें जालें. वाटेर भाई केणी मेळ्ळो. ताणें म्हाका आडायलो.

'कितें रे? संमेलनात वचूंक ना?'

आतां भाईचेर कितें तापतलों? हांसलों.

'वचून आयलों भाई.' हांवें म्हळें.

'वचून आयलो?जावपाचें आसा मरें तें!'

'आज सोंपलें न्हय भाई साहित्य संमेलन?'

'तें संमेलन न्हय रे. ताचें पडलां कोणाक?'

'मागीर आनीक खंयचें म्हणटा तूं?'

'सारस्वत संमेलन रे! मंगळूरचें!'

आनी म्हाका परतून धक्को बसलो. म्हणजे हे सगळे त्या संमेलनाची गजाल करताले! पाड पडूं! हांव विनाकारण फर्मागुडयेर गेलों.



**डिसेंबर-१९९९**



**गों**य हें संवसारांतलें एक ल्हान राज्य. व्हॅटिकन सिटी परसूय म्हाका दिसता तें ल्हान. ल्हान आसलें तरीय तें म्हजें राज्य. हांव अना सारको तें कोणालें तरी राज्य म्हणिना. तो भारत लेगीत कोणालो तरी देश म्हणटा. ह्या लोकांक देशप्रेम म्हणटात तें मात लेगीत ना. कोणें ताचेर गोंया तुज्या मोगाखातीर म्हूण बरयलां तर कोणें पुण्यभूमि गोमंतक म्हूण नमस्कार केला. गोंयचेर कोण गोंयांत रावन बरयता. कोण मुंबय बी रावन वेळ मेळ्ळो जाल्यार बरयतात. मुंबयच्यान अना गोंयचेर बरयता ताका अनाळ्यो म्हणटात खंय! गोंयांत रावून गुरूनाथ बी गोंयचेर बरयतात ताका गुनाळ्यो म्हणटात आसूंक जाय.

म्हाका मात अजून मेरेन ह्यो अनाळ्यो गुनाळ्यो जमूंक नात. हाचो अर्थ म्हजो गोंयचेर मोग ना असो न्हय. मोग आसा पूण म्हाका तो हेरांवरी दाखोवंक कळना. तेंच कित्याक, म्हाका म्हजो कोंकणीवेलो मोग खंय उक्तावंक येता तर! बाकिचे कोंकणी मोगी खंयीय खुट्ट जाल्यार रोखडेच फुट्ट करून मोग दाखयतात.

मराठीवाद्यांनी कसलीय नखलामी केली जाल्यार एक बरें आसा. तांचेर काडात तुमी पत्रकां आनी उक्तायात तुमचो कोंकणी मोग. निदान तांचे वांगडा तुमचें नांव लोकां मुखार येत रावतलें. अजून हांच्या काळजांत कोंकणी मोग खतखतता हें तरी कळटलें. पूण हे मराठीवाद्यांक सोडून कोंकणी मोग्यांचेरूच फुरफुरतात. कसली बाबा ही पाडी संवय फुर्रऽऽ फुर्रऽऽ करपाची? आपलो तो कोंकणी मोग, हेरांचो मात कोंकणी भोग! बरी न्हय, वायट ती संवय कोंकणीवाद्यांची. ते तांचे संवये पासत हांव म्हजो मोग उक्तावंक वचना. कोणूय म्हाका तांचे पंगतीक व्हरून बसयत म्हूण! देखूनच म्हाका गोंयचो उप्पाट मोग आसून सांगूंक जमना. ताचींय आनीक हेर हजार कारणां आसात. गोंय ल्हान आसलें तरी तातूंत म्हान लोक रावतात. बाकीबाबान गरजेभायर शिताफुडें मीठ

खावन उडयलें आनी गोंयचेर कविता बरयली-

'गोंयचें नाव व्हड करून ल्हान जालें म्हान
बंदखणिचीं देवळां जालीं लामणदिवे प्राण'

बाकीबाबाचे हे कवितेंत ल्हान म्हान जालें तें समजू येता, बंदखणिचीं देवळां जालीं तेंय समजू येता पूण लामणदिवे प्राण जाले म्हणटात तें विचित्रूच दिसता. लामणदिवो हो प्रकार एक्जॅक्टली कितें तें म्हाका कळना. बाकीबाबाचो हो लामणदिवो प्राण जाता. गजानन रायकार तालसुरांत गायत म्हणटा,

'लाय तुजो लामणदिवो म्हजे गर्भकुडींत.'

रायकारा पयलीं बोरकारान लामणदिव्याक प्राण म्हळा. उपरांत रायकार म्हणटा तो म्हजे गर्भकुडींत लाय. हो लामणदिवो मुखार इतल्यारूच सोंपना. कोंकणींतली थोर समिक्षक चंद्रलेखा तेय मुखार वता. ती आपलें पुस्तक आपल्या 'लामणदिव्यां' खातीर ओपता. आतां हे लामणदिवे बाकीबाबाचे प्राण जाल्ले ते काय रायकाराले गर्भकुडींतले काय आनीक खंयचे तें मात म्हाका अजून कळूंक ना. ह्या लामणदिवे प्रकरणान हांव मात गोंदळांत पडलां. खरें म्हळ्यार बाकीबाबान ती कविता बरोवंक फावनाशिल्ली. ती हालिंच्या काळार म्हजे सारक्या बोरकारान बरोवपाची.

'गोंयचें नांव ल्हान करून म्हान जाले ल्हान
तावेर्नांचीं देवळां जालीं, कदेलां जालीं प्राण.'

मागीर ह्यो खुर्च्यो सचिवालयांतल्यो आसूं, राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाच्यो आसूं, लेखकसंघाच्यो आसूं, मंडळाच्यो आसूं वा अकादेमीच्यो आसूं! त्यो जाता तितल्यो तापोवपांतूच गोंयकारांक धन्यताय. अशी ही आयची गोंयची परिस्थिती हें खरें. तरीपूण म्हजो गोंयावेलो मोग कुसकुटानूय उणो जायना. आनी तरी हांवें अजून गोंयचेर एक ओळ बरोवंक ना. बरोवंक बसतां तेन्ना दोळ्यामुखार धर्मसंकट उबें रावता. म्हजे म्हाकाच हांव संजय अशें दिसूंक लागतां. हो संजय म्हळ्यार बांदेकार न्हय वो तळवडकारूय न्हय. तितले उच्च कोटिचे गूण अजून म्हज्यांत येवंक नात. हो संजय महाभारतांतलो, दिव्यदृष्टी प्राप्त जाल्लो. कुड्ड्या धृतराष्ट्रा सामकार बसून कुरूक्षेत्रांतल्यो घडणुको सांगपी. संजयाक त्या वेळार दिसतालें तशेंच म्हाका दिसूंक लागता. दोळ्यांमुखार दिसता तें धृतराष्ट्राक सांगचें काय ना हे विवंचनेंत संजय आशिल्लो.

गोंयचेर बरयतना, म्हाका दिसता तें बरोवंचें काय ना हो प्रस्न म्हाका पडटा. हांव ज्या गोंयचेर बरोवंक सोदतां तें निखटें गोंय न्हय. गोंय मुळांतूच ल्हान जाल्ल्यान तातूंत ल्हान-व्हड गजाली येतात. कोंकणी चळवळ येता. मराठी चळवळ येता. दादले लेखक येतात, बायलां लेखिका येतात. युवा संमेलन, युवा महोत्सव येता, काणकोणचीं तरंगां येतात. ते खातीर मागीर जळामळाक फुटपी नारंगां येतात. ह्या सगळ्यांचें पाड पडूं म्हणून तांकां कुशीक काडून गोंयचेर बरोवपूच शक्य जायना. तशें बरयलें जाल्यार ताची पाशाणकळी जातली. आतां हेंच पळयात गोंयचेर बरयतना कोंकणीचेर बरोवंचे पडटा. कोंकणी वेगळावन गोंय कशें उरतलें तर!

कोंकणी खातिरूच तर आमचें गोंय राज्य जालां. मराठीक लागून महाराष्ट्र जालो, कन्नडाक लागून कर्नाटक जालो. तशेंच कोंकणीक लागून राजीव गांधीन घटकराज्य दिलें. तेन्ना हांवें कोंकणी कुशीक काडून गोंय घेतलें जाल्यार कशें जातलें? तो राजीव गांधी सर्गांत रावन म्हाका कितें म्हणटलो? तेच खातीर म्हाका गोंयचेर बरयतना कोंकणीक प्राधान्य दिवंचें पडटा. आतां हेंच पळयात. जानेर म्हयनो, जानेर काय जानेवारी?(ह्या राजहंसवाल्या भिडेन सामके भिडेक घाल्यात आमकां. जानेवारी, फेब्रुवारी, जानेर, फेब्रेर करून आमची अस्मिताय डळमळीत करून उडयल्या.) ह्या जानेर म्हयन्यांत गोंयकारांनी ओपिनियन पोल जिखलो. गोंयची अस्मिताय राखून दवरली. पूण ह्या अस्मिताय दिसाची याद खंयचोच कोंकणीवादी काडिना. ते फकत दीसरात कोंकणी कोंकणी करूंकच मेल्यात. देखून हांव जेन्ना गोंयचेर बरयतां तेन्ना म्हाका अस्मितायवाल्यांची याद येता. ही अस्मिताय सांबाळूंक ते तनमनधनात वावुरतात. आतां हातूंत मुखेल गजाल खंयची? गोंय, कोंकणी काय अस्मिताय दीस? अस्मिताय दीस मुखेल म्हळो जाल्यार कोंकणी गौण थरता. कोंकणी मुखेल म्हळी जाल्यार गोंय गौण थरता आनी कोंकणी आनी गोंय मुखेल म्हळें जाल्यार मागीर कितें? म्हळ्यार, हांवें गोंयचेर बरोवपूच ना, हें समा न्हय?

तेच खातीर हांवें अजून मेरेन अनाळ्यो गुनाळ्यो करूंक नात. त्यो आयज करच्यो पडल्यो.



**जानेवारी -२०००**



'ते इकरा जाण' कोण असो खूब जाणांक प्रस्न पडटा. तांतलो एकलो मनोहरबाब हें हांव जाणां. बकिचे धा जाण कोण हें म्हाका खबर ना. जाणा जावन घेवपाचीय म्हाका आतां गरज दिसना. ताचेर जाय जाल्यार हेरांनी संशोधन करचें. तें काम फा. स्टिफन्स बी केंद्राचें. म्हजें न्हय. पूण म्हाका एक सांगनशें दिसता. कोंकणीक आतां इकरा जाणांची खरी गरज आसा. ते कशे तयार जातले वो येतले तें पळोवंक जाय. मनोहरबाबाच्या कर्तृत्व भौमानावेळार रवीन्द्रबाब उलयाले. ते खूब भावनावश आनी सद्‌गदीत जाल्ले. कोणाचोय भोवमान बी आसलो की उलोवपी भावनावश जाता ताका लागून आयकुप्यांचीं काळजां सामकीं मोव पडटात. तीं मोव जालीं की भोवमानमुर्तिचें आयतेंच फावता. तो त्या मोव काळजाक जाय तो आकार दिता. तरांतरांच्या आकारांचीं काळजां घेवन लोक भायर सरतात. जांचीं काळजां चडूच मोव जातात ते अडचणीत येतात. आनीक कोणाचो तरी सत्कार वा भौमान करपाचें चिंततात. ताका लागून खंय तांचें काळीज चड काळ तिगता. मनोहरबाबांच्या भोवमानावेळार मोव जाल्ल्या काळजांचेंय अशेंच जालें. ते सरळ भायर आयले आनी ताणी आनीक एकल्याच्यो भोवमान रचलो. तो म्हळ्यार मणिपालच्या रमेश पै हांचो. जावं मोव काळजां संवेदनशील दवरूक पै मामाचो हात लागलो. तसो तो कोंकणी मनशाक अदीं मंदी लागताच म्हणा. पूण तांचो हात म्हज्या काळजा मेरेन अजून पावंक ना. देखून म्हजें काळीज अजून तशें मोव जावंक पावलेंना. तेच पासत तें

ह्या सगळ्या जंजाळांत घटमूट आसा. थोर विचारवंत कमलाकर म्हाळशी हांणी खंय तरी म्हळांच, 'जांचीं काळजां घट आसतात तेच सारको विचार करतात.' तांचेर भरवंसून हावेंय म्हजें काळीज मोव जावंक दिवंक ना. तशें जाल्ल्यान हांव थंडसाणेन विचार करूंक पावलां. रवीन्द्रबाब मनोहरबाबांचेर उलयतनाय तें थंड आशिल्लें. कोणाकूय दिसत तें कला अकादमीच्या एसीक लागून बी म्हूण. पूण तें तशें न्हय. कृष्णकक्षांत सदां गरमीच आसता. तर सांगपाचें म्हळ्यार, हांव रवीन्द्रबाबांचें बरप मन लावन वाचतां. तांचें खंयचेंय उलोवप कान दिवन आयकतां. मागीर ताचेर चिंतन आनी मनन करतां. तातुंतल्यो आचरणांत हाडपा सारक्यो गजाली सोदतां. तांकी प्रमाण प्राधान्य तत्त्वाचेर त्यो आचरणांत हाडटां.

रवीन्द्रबाबांच्या भाशणांतले दोन मुद्दे हांवें लक्षांत घेतले. चिंतन-मनन करूंक आनी जमल्यार आचरणांत हाडूंक. पयलो म्हळ्यार इकरा जाण कोण ताचेर संशोधन. (एकलो सांपडला. संशोधकाचेर धा जाणांचेंच टेन्शन) आनी दुसरो, गोंयाक आतां इकरा जाणांची गरज आसा. पयलो मुद्दो आचरणांत हाडप म्हाका ह्या जल्मांत शक्य ना. संशोधन म्हणटात तें म्हज्या नशिबांतूच बरोवंक ना. संशोधकाची नदर, सभाव आनी चिकाटी आगळीच. म्हज्यांत हे गूण नांत.

संशोधक गोंयचे कोंबये वरी आसूंक जाय. कोंबी जशी कोयरांत आपल्या दोनूय दोंक्यांनी उस्तिता आनी कोयरांतलो जीव अचूक उखलता तशेंच संशोधक करता. पूण आतां गोंयच्यो कोंबयो उण्यो जावन ब्रॉयलर आयले. उस्तवारी करिनाशिल्ल्यांचे व्हाय-वा जावंक लागले. कोणाचे प्रबंध कोणूय बरोवंक लागले आनी व्हाय-वाच्या नांवान जेवणावळी पडूंक लागल्यो. अशा काळार हांवें संशोधन करप म्हळ्यार म्हजीं अवचिन्नपणां. नाय म्हळ्यार म्हजे तकलेंत संशोधनाचें पिशें आशिल्लें. कोंकणी भाशेंतली सगळ्यांत पयली डॉक्टरेट हांव घेतलों अशी म्हजी भुरगेपणा सावन सुप्त इत्सा आसली. तिकाच लागून हांवें म्हाका कोंकणी चळवळींत धुकल्लो. र. वि. पंडितांक बी सांगून गोम्सबाबांक विद्यापिठांत हाडलो. गावड्यांक पंडित करून सगळेच पंडित जावया हें शणै गोंयबाबांचें मत पंडितांक पटिल्लें.

र. वि. पंडितांचें तशें मुळासावन गावड्यांचेर प्रेम. 'म्हजें उतर गावड्याचें' ही ताका जिती जागती गवाय. ताचेर आतां कोणें संशोधन करपाची गरज ना. तर म्हजे संशोधन आशेक कोंबरी हाडली ती पंडितान. ताणी ओलिव्हिनबाबांक

विद्यापिठांत कोंकणी मुखेली केलो. म्हाकाय म्हजो गुरू म्हूण असलीच त्यागी व्यक्ती जाय आसली. तांच्या हाताखाला संशोधन करूंक मेळप म्हळ्यार भाग्य! तेंच भाग्य पदरांत उडोवंक हांवें एम्.ए.क प्रवेश घेतलो. कोंकणींतल्यान एम्. ए. ती! अभ्यास कित्याक जाय? तरी हांवें दोन म्हयने रातिचे दीस करून अभ्यास केलो. आनी आठ पेपरांतल्या सात पेपरांत नापास जालों. एकाच पेपरांत पास जाल्लों तो ओलिव्हीनबाबांच्या. ताचेवेल्यान म्हाका कळ्ळें, म्हाका अक्कल आसा. अक्कल ना ती बाकिच्या सात जाणांक. कोंकणीचे खरे दुस्मान ते हेच सात जाण.

आठूय पेपर ओलिव्हीनबाबान तपाशिल्ले जाल्यार म्हजें कल्याण जावपाचें. (तरी बरें, आतां 'कल्याण' म्हूण मटको सुरू आसा) एम् ए. क हांव पास जालोंना आनी संशोधक जावपाचें म्हजें सपन भंगलें. तेंच दुख्ख हांवें खूब काळ काळजांत बाळगिलें आनी चंद्रलेखाक डॉक्टरेट मेळ्ळी तेन्ना काडून उडयलें. आतां रवीन्द्रबाबा सारके कोणूय याद करतात तेन्ना मातशें फुगासांव जाताच. म्हज्या हातांतलो काळ गेलो म्हूण दुख्ख भोगता.

पूण जयंती बी संशोधन करता तें पळोवन मनाक थाकाय लाबता. इकरा जाणांतल्या धा जाणांचें संशोधन म्हज्या कट्टुलांत ना. पूण ह्या गोंयाक इकरा जाण दिवप शक्य आसा.

कोंकणीक इकरा जाणांची गरज आसा हातूंत कोणाचें दुमत नासुंये. एकूच गजाल म्हळ्यार, हे इकरा जाण आदले काय नवे हें निश्चित जावंक जाय.

आदल्या इकरा जाणांतले सद्या कितले आसात तें खबर ना. तांचें चिवटपण आनी चिकाटी पळयत जाल्यार ते अजून खंय तरी आसूंक जाय.

जंय आसात थंय सामके दसून उरल्यात जावंक जाय. तांचेर संशोधन केल्यार ते खंय आसात तें कळूं येता. भंय एकूच. ते कोण हें कळ्ळ्यार तांच्या आसनाक धोको उप्रासूं येता. जांणी गोंयांत इतिहास निर्माण केलो ते ओगी बसले?

तांच्या कर्तुत्वाक लागुनूच तर आजूय इकरा जाणांची गरज उप्रासल्या. हे इकरा जाण कोण हाचेर संशोधन करचे परस गोंयाक फुडले इकरा जाण कोण हाचेर म्हज्यान संशोधन करूं येता आनी निवडूय करूं येता. फकत वेंचतना ते आदले पिळगेंतले, मदले पिळगेंतले काय चालू पिळगेंतले हाचेर वाद जावं येता.

म्हजे विचारांचे तांकी प्रमाण आदले पिळगेक हात घालपाची सद्या गरज ना. ते जंय आसात थंयच तांकां दवरप आयचे परिस्थितींत समा जातलें. तांकां हालयले जाल्यार ते विनाकाण चवताळटले. म्होंवा माल्याचेर फातर मारतकच म्होंवामूस चवताळटात तशे. मागीर ते कोणाक कुसां तोंपीत तें सांगू नज.

मदले पिळगेंतले तृप्त नासले तरी समाधानी आसात. तशे ते मुळांत अल्पसंतुश्टी लोक. उपाध्यक्षपद वा वांगडीपद हाचेरूच तृप्त जातात. आयज इकरा जाण वेंचपाची खरी गरज आसा ती चालू पिळगेंतल्या तरणाट्यां मदल्यान. तांकां आजून तशी कित्याची गोडी लागूंक ना. फकत साकरेचो वास तांकां खंय तरी लागला. साकरेच्या वा गोडाच्या वासान मुयो जश्यो जळामळाक धांवतात आनी मदीं आडखळ हाडटल्याक चाबत सुट्टात तशी हे पिळगेची अवतिकाय जाल्या.

देखून हातुंतलेच इकरा जाण वेंचप गरजेचें. आतां हे इकराच जाण कित्याक? चड कित्याक न्हय? सद्याचे वाडिल्ले कोंकणी लोकसंख्येंत इकराच जाण सोदप म्हळ्यार हेरांचेर अन्याय.

इकराच जाणांची मक्तेदारी करप म्हळ्यार चालू पिळगी तें सोंसून घेवपाची ना. पूण हांगा इकरा जाण म्हळ्यार फकत इकरा जाणूच न्हय. तर इकरा जाणांचें एक माप वो एक गट. सुरवेक कोंकणी चळवळ मर्यादीत आशिल्ली. देखून इकरा जाणांचेर सगळें भागतालें. पूण आतां दिशीं दिशीं चळवळ वाडटा आनी चळवळेय वाडटात. ते भायर आतां  बायलांय पदर खोवन मुखार येतात. म्हणटकच आतां इकरा जाणां वांगडा इकरा जाणींय हिसपांत घेवच्यो पडटल्यो.

अशा वेळार रवीन्द्रबाबान फकत इकरा जाण जाय म्हणप म्हळ्यार पुरूशप्रधान संस्कृतायेक उदक घालप. भर सभेंत तांणी बायलांचेर केल्लो हो धडधडीत अन्याय. (ताचो सगळ्या थरांतल्यान निशेध जावंक जाय.) पूण हांव बायलांचेर अन्याय जावंक दिवंचोना. (म्हजें बायलांवेलें प्रेम अजून उणें जावंक ना.) हांव गोंया खातीर इकरा जाण वेंचतना इकरा जाणीय वेंचतलों. मागीर तांचें कितें करप हें सवकासायेन थारावं येता.

खंयचेय संस्थेक तशे इकरा जाण जाय पडटात. एक अध्यक्ष एक उपाध्यक्ष आनी णव वांगडी. कोंकणी अकादेमी, कोंकणी लेखक संघ, कोंकणी भाशा मंडळ बी संस्थांचे अध्यक्ष- उपाध्यक्ष आजीव आसतात. सरकाराचो राजभास विभागूय तसोच प्रकार. ह्या सगळ्या विभागांनी इकरा जाणांचें माप भरून

ओतपाचें. प्रत्येक इकरा जाणांक सुखी समाधानी दवरूंक हें एक विस्कळीत लिस्ट. आदली पिळगी, मदली पिळगी आनी चालू पिळगी हांचीं उपद्रव मुल्यां, तांच्यो शेपड्यो बी तपासून घेवन सरमिसळ करूं येता.

१. कोंकणी अकादेमी

२. कोंकणी भाशा मंडळ

३. कोंकणी लेखक संघ

४. कोंकणी राजभास विभाग

५. अस्मिताय प्रतिश्ठान

६. कला अकादमी

७. मार्ग अभियान

८. युवा साहित्य संघ

९. काणकोणचीं तरंगां

१०. कर्तुत्व भौमान समिती

११. इन्स्टिट्युट मिनेझिस ब्रागांझ

म्हाका दिसता, सद्या तरी ह्या इकरांचो आंकडो इकरा जाणांखातीर भरपूर जालो.

तातूंत कितलेय इकरा जाण आनी इकरा जाणी सुखासमाधानान नंदूं येता. अशें आसतना रवीन्द्रबाब मनोहरबाबांच्या कर्तुत्व भौमाना वेळार उलयतना सद्गदीत कित्याक जाले काय? हेच येवजणेंत आसताना म्हाका प्रियोळच्यान तोबूचो फोन आयलो.

'तातोक पांच वरां बी व्हरून खंयूय बसोवन ख्यास्त करशात जाल्यार हांव ओगी रावचोंना आं! तो बरो बी ना जाता मागीर... तुमी ताचो भोवमान करिना जाल्यार जाता म्हाका ... आर्रा तूं!'

तोबूच्या फोनान हांव परतून येवजणेंत पडलों. इकरा जाण सोदूंक हांव ताकतीक बी करिना मू?



फेब्रुवारी –२०००



**म्हा**का चिंतेस्त लोकांची कॉमीक दिसता. ते कित्याक चिंता करतात तेंच म्हाका कळना. चिंता करप भलायकेचे नदरेन खूब वायट खंय! चिंता आनी चिता हातूंत फकत अनुस्वाराचो फरक म्हणटात. पूण हाचेर अजून कोणेंच कशें बरयलेंना काय? दोतोर हेदयान ना जाल्यार दोतोर घाणेकारान तरी बरोवपाचें. तांचीय किर्ते तरी अडचण जाल्या आसूं येता. कोंकणींतलें बाबडें एकूच एक दिसाळें. ताचेर हे दोतोर सप्तकांतल्यान एक तरी खेपे बरयताले. कांय तेंपा आदीं सगळें देवादयेन बरें चलतालें. खावपी तोंडां उणीं तशे बरोवपी हातूय थोडे आशिल्ले. पूण हालीं काळार कोंकणी संतत दुपेट-तिपेटीन वाडल्या. हांतले कांय जाण जाल्यार हातांत पेन घेवनूच जल्मतात. हाका लागून दिसाळ्याचेर दिसान दीस ताण पडत चल्ला. कुसमणच्या भिकू पसून दिवचलचो देमू बरोवंक लागला देखून पेपरवाल्यांक कितें छापूं आनी कितें नाका अशें जाता. तशें पळोवंक गेल्यार सगळ्यो गजाली पेपराचो खप प्रचंड प्रमाणांत वाडोवपी तरी संपादकांक कांय लेख मन मारून कुशीक उडोवंचे पडटात. ह्यो राटावळी करता म्हणसर सगळ्यांचेर ताण पडटा, वचत तो चिंतेस्त जाता.

कोंकणी भाशा मंडळाचें कितें जातलें हाची सगळ्यांक चिंता. कोंकणी अकादेमी बोरये बऱ्याक पावताली काय पणजे हाची चिंता. कोंकणी साहित्य संमेलन कोणें करचें हाची चिंता. कार्याध्यक्ष मडगांवचो आसचो काय पणजेचो, तो दादलो आसचो काय बायल, तातुंतय तो सारस्वत आसचो काय बहुजन?

ह्या साबार प्रस्नांनी जाण्टयांक, नेण्ट्यांक चिंतेस्त केल्यात.

ह्या असल्या चिंतेस्तांची म्हाका कॉमीक दिसता. म्हाका मात केन्ना कसली चिंता लागूंक नाशिल्ली. देखून म्हजो सभाव असो फकांडेर जाला जावंक जाय. फकांडेर म्हळ्यार 'मिश्कील'. पूण हें उतर हांव वापरूंक मात्सो कांचवेतां. ताचें कारण दोतोर प्रोसोर गॉमिश्. ताका म्हजी कोंकणी मराठेल्ली कोंकणी दिसता. हांवें म्हजे म्हाका मिश्कील म्हळो जाल्यार ताची हे विशीं खात्रीच जातली. म्हजी कोंकणी मराठेल्ली हें प्रोव्हार करूंक ताका हेंच एक उतर पुरो. देखून हांव 'मिश्कील'चे सुवातेर फकांडेर उतर वापरतां. पूण हें फकांडेरपद हांव भायल्यान दाखयना. हांव जाणां, म्हाका गंभीर रावपूच बरें सोबता. म्हज्या एकंदर परिपक्व रूपाक होच 'भाव' बरो दिसता. मनोहरबाब, रवीन्द्रबाब हांणी मिश्कील रावल्यार उपकारता. कित्याक, ते म्हजे परस पिरायेन खूब भुरगे दिसतात. तांकां थोडें भुरगेपण चलता. म्हाका न्हय. हांवें भुरगेपणां केल्यार अनवळखी म्हणटले, ह्या जाण्टेल्याक जालां कितें काय म्हूण!

तेच पासत हांव हालीं मुखामळार मातशें गांभिर्य दवरतां. पूण वळखिच्या लोकांक दिसता, हांव चिंता करतां. आतां आनी हांवें कसली चिंता करपाची उरल्या? सगळें ताकून भोगून, पळोवन बिळोवन जालें. दीपा मुरकुंडेचे लेख वाचून सामको तृप्त जालां. उदय देशप्रभूच्या आंगांतली ‌विरश्री पळोवन धन्य जालां. ताका पळोवन म्हजे मुखार साक्षात बाजी प्रभू उबो रावता. टी.बी. कुन्याच्या मायकाचें पाड पडलें हाची ते मुखार म्हाका खंत ना. श्रीधर, संदेश, नित्यानंद , पूर्णानंद बी सगळे संपूर्ण आनंद दिवंक लागल्यात. भास्कर, संजय बी सगळे परतून कोंकणी चळवळींत देंवल्यात. तांचो नवो दम आनी नेट पळोवन हांव निश्चींत जालां. देखून म्हणटां, हांवें आनी कसली चिंता करपाची उरल्या? म्हजें चिंताग्रस्त दिसप म्हळ्यार एका चिंतकावरी दिसप. तरी आसतना हांव हेरांक चिंताग्रस्त दिसप म्हळ्यार विचित्र कशें! म्हजे भितर कांय मुळाव्यो चिंता आसूं येतात. त्योच म्हज्या मुखामळार उदेतात जावंक जाय. हालींसराक हांव अंतरमूख जावन ह्यो चिंता सोदपाचो यत्न करतां. तेन्ना मुखेलपणान म्हाका जाणवता ती कोंकणीची चिंता. म्हजे उपरांत कोंकणीचें कितें जातलें, ही चिंता म्हाका लागल्या. म्हजें सोडात, हेर म्हालगड्यां उपरांतूय कोंकणीची चिंता आसाच. येदें व्हडलें कोंकणी भवन जालां. आमचे उपरांत ताचें कितें? बोरये

वचून कोंकणी अकादेमीची जतनाय कोण घेतलो? कोंकणीचें दायज मुखार व्हरतलों जाल्यार म्हाका भुरगीं नांत. कोंकणीची गुडी जाणी खांदार घेतली तांचीं लग्नां जावंक नांत. जांचीं जाल्यांत तांगेर भुरगीं आसून नासून कोंकणीक सारकींच. तांगेलो एकल्याचोय भुरगो कोंकणीचे कार्यावळीक तोंड दाखयना. तेंच कित्याक, थोर कोंकणी लेखकांचीं पुस्तकां तांचीं भुरगीं वाचिनांत. तीं इंग्लेज धार्जिण्यांच्या भुरग्यांनी वाचचीं अशें तांकां दिसता. अशा ह्या कठीण काळार म्हाका कोंकणीची चिंता दिसप ना? म्हाका कसलीच चिंता ना अशें म्हणप म्हळ्यार म्हजीं फटींगपणां. म्हाका म्हज्या फुडाराची चिंता नासत पूण कोंकणीची आसा. श्रीधर कामतीक, अग्नीक आसा तितलीच म्हाका आसा. गजूक, सुशांताक आसा तितलीच म्हाका आसा. कुसकूटभर उणीय न्हय आनी कुसकूटभर चडूय न्हय. पूण एक गजाल. हांव हेरांवरी चिंता करीत बसना. बाबत कोंकणी कुळांवरी हांव गळसणून वचना. हांवें कोंकणीच्या फुडाराचे चिंतेचेर उपाय सोदल्यात. गरज पडल्यार बिल क्लिंटनाचीय हांव मजत घेतलों. हालींच तो भारत भेटेर येवन गेला. गोंयांकूय भेट दिवपाची ताची इत्सा आशिल्ली. ती भेट ताची कोंकणीच्या मोगा पासतूच आसतली. बिल क्लिंटन आयलो म्हूण ताचें बील काय आमकां दिवचें पडचेंना. कोंकणीच्या नांवान पयशे वापरपाचो आरोपूय जावंचो ना. कोंकणीची म्हजे तकलेवेली चिंता पयस करूंक म्हजे उपाय अशे-

कोंकणी फुडाऱ्यांचीं भुरगीं सद्या कोंकणी चळवळींत नात. म्हणजे, तांचींय भुरगीं आसतलीं म्हणपाची खात्री ना. देखून चळवळ चालू दवरपाखातीर वावुरप्यांचें टेंडर मागोवप. जो कोण उण्यांत उणे रकमेची बोली करता तो कोंकणी मोगी. त्या पंगडाच्या हातांत कोंकणी सुरूर उरतली.

तांणी दुडू घेतले तरी तांचे कोंकणी सेवेचो कोणें दुबाव घेवंचो न्हय. हेरांचे कोंकणी निष्ठेचो दुबाव घेवपी समजा वांचून उरले जाल्यार तांणी दुबावा वांगडाच तांचेर विश्वास दवरचो. कित्याक धंद्याच्या मळार कोण केन्ना विश्वासघात करीना. भवनासारक्यो वास्तू फुडाराक उबंत पडपाची शक्यताय आसा. हालीं केरळ, मंगळूर, बंगळूर, मुंबय बी पडल्यात तश्यो. तेन्ना असल्यो वास्तू प्रदर्शनाखातीर भाड्यान दिवंच्यो. असल्या वास्तूंत तांणीं कसलेंय प्रदर्शन भरोवं येता. मात त्या वास्तुंतली एक खोली कोंकणी खातीर दवरूंक जाय. तातूंत

कोंकणी चळवळीचीं मोस्त्रां राखून दवरूंक जाय. देखीक, कांय लेखकांचीं पुस्तकां, तांचे पुरस्कार आनी फोटे. प्रदर्शनाक येवपी दर एकल्याक आयोजकांनी तीं दाखोवंक जाय. तशी तांचेर सक्ती करप गरजेचें. नातर कोंकणी चळवळ आशिल्ली हें इतिहासांत शेणटलें. 'आपलो आजो कोंकणी फुडारी वो लेखक आशिल्लो' अशें जर कोणेंय सांगलें जाल्यार तांकां वास्तुच्या भाड्याचेर सूट दिवंची. ते पिळगेक मानान आनी भोवमानान वागोवंचें. कोंकणी बरोवपी नाशिल्ल्यान पुरस्कारांचो प्रस्न उप्रासतलो. साहित्य अकादमी पुरस्कार, गोमंत शारदा पुरस्कार उरतलेच. पूण ते खंयच्च्या आनी कोणाच्या पुस्तकाक दिवप हो प्रस्न आसतलो. ज्या इंग्लेज पुस्तकांत चडांत चड कोंकणी उतरां येतात तांकां ते दिवं येतात. ना जाल्यार नातरांचें कर्तुत्व पळोवन आज्या-पणज्याक ते परतून दिवं येतात. पूण ताचीं पुराय अधिकारी नातरांच आसतलीं. पुरस्कार घेतना मात तांणी कोंकणीच उलोवपाची अट घालूंक जाय.

हे अशे कांय मुळावे उपाय घेतले जाल्यार म्हाका दिसता कोंकणी चळवळ अजरंवर जातली. मागीर आपले उपरांत कोंकणीचें कशें हाची कोणाक चिंता उरपाची ना. सगळे कोंकणी फुडारी चिंतामुक्त जातले आनी म्हाकाय ते कॉमीक कशे दिसचेंनात. खऱ्यांनीच गंभीर दिसतले. विचारवंत कशें!



**मार्च -२०००**



म्हाका सद्या आचार संहिता लागू जाल्या. आचार संहिता म्हळ्यार कोड ऑफ कंडक्ट. तो एकदां लागू जालो म्हणटकच सांबाळचें पडटा. सतत वेंचणूक आयुक्त मानेर हुमकळत रावता. नाजाल्यार केन्ना अपसरण येत, सांगूं नज.

देखुनच ह्या म्हयन्याक हो कॉलम बरोवंचो काय ना तें येवजितालों. सांगूं येता, केन्ना कोणाक कशें उस्तुऱ्यां वचत तें! कॉलम वाचून एखाद्र्याचें मत घुवलें जाल्यार घात! जिकतलो जिकून वतलो. म्हजो मात....आसूं! हे आचार संहितेन म्हाका मात पिडापीड भोगयल्या. दुश्काळांत तेरावो म्हयनो तशी ही आचार संहिता.

एकदा तो एगज्म सिकैर म्हजे फाटीक लागलो. म्हणूंक लागलो, आतां बऱ्या लोकांनी वेंचणुकेक रावंक जाय. तुजे सारके फाटीं रावतात देखून हेरांचें फावता. वेंचणूक जिकून येवपा खातीर लढपाची नासता तर ती बरेय उमेदवार आसतात हें दाखोवंक आसता. असले विचार हे आदीं एकटो लोहियाच मांडटालो. ते दुसरे खेपे हांवें आयकले ते एगज्मा कडल्यान. ताच्या ह्या विचारांनी नाय म्हळ्यार हांव भुल्लुसलों. एका गोंयकारान तरी म्हाका 'बरो' हे कातिगोरींत घाल्लो. फाटलो फुडलो विचार करिनासतना हांव वेंचणुकेक रावलों. तेन्ना सावन आचार संहिता म्हजी फाट सोडिना. हे आदीं पांच वर्सांनी एकदां वेंचणूक जाताली. तेन्ना थोडे दीस ही आचार संहिता सोसूं येताली. राजकारणांत पडिल्ल्याची ख्यास्त म्हूण.

पूण हालिंसराक दर दोन-चार म्हयन्यांनी वेंचणुको. देशांत खंय तरी लोकसभे खातीर वेंचणूक जाहीर जाता. हांगा गोंयांत म्हाका आचार संहिता लागू जाता. ते उपरांत खंयच्या तरी राज्यांत विधानसभा वेंचणूक. ती सोंपली रे सोंपली खंय तरी जिल्ला परिषदेक मतदान. फाटोफाट नगरपालिकेच्यो जाहीर करतात. आनी हें वारें गांवांत भितर सरून ग्रामपंचायतींत रिगता. हातुंतल्या एकाय लफड्यांत

म्हजो संबंद नासता. जांचो आसता तांकां मात्तूय आचार संहिता लागना. लागता ती मात म्हजे सारक्या गरीब दुबळ्यांक.

मदीं हांवें दूरदर्शनाखातीर एक लघुपट करचें चिंतलें. कसलीच अपेक्षा बाळगिनासता तांणी म्हाका कॉन्ट्रॅक्ट दिलो. सात-आठ हजारांचो आंकडो पळोवन हांवूय खूश! भुल्लुसून 'भवदीय' हाचे सकयल सही ठोकली. मैं सरकारी कर्मचारी हूँ/ नही हूँ हाचे मुखार सही करतालों. इतल्यान युसूफ आयलो आनी म्हणूंक लागलो, सय करूं नाका. हांवूय हांगा पावतना सदांच सय करूंक आडखळटां. मागीर तो आकशवाणीचो कॉन्ट्रॅक्ट आसूं वो दूरदर्शनचो. हूँ/ नहीं हूँ हातुंतलें कितें कट करचें तेंच म्हाका कळना. मागीर हांव थंय कांयच कट करिनासतना निशाणी करतां. तांका जाय तें दवरूं, जाय तें कट करूं म्हूण. ते कितें कट करतात तें हांव पळेना. फकत फी कट केल्या काय ना हाचेर लक्ष दवरतां.

युसूफान सय करूं नाका म्हळें आनी हांव रावलों. म्हळें, हो हूँ/नही हूँ हाचेर म्हाका शादूर करता जावंये! (तोय हालीं हूँ/नहीं हूँ असले अवस्थेंत वावुरता.) 'तुमकां जाय तें कट मारात रे तुमी मागीर.' पोज मारपा खातीर हांव नेटान उलोवन गेलों. मागीर म्हाकाच दिसलें, हांव कितें उलयलों काय म्हण! असलें पोज मारप फकत बाकीबाबाक पचतालें. पोएट बाकीबाब म्हळ्यार आकाशवाणीचो सम्राट.

तो स्टेशनाचीं सोपणां चडटना डायरेक्टर लेगीत उबो रावतालो. आमकां पळोवन उबे आशिल्ले प्यून लेगीत बसकण मारतात. आमी रेडियोक नागोवंक आयल्यात अशें शें चिंतून पळेतात. तांचीय म्हूण तातूंत तशी व्हडली चूक ना. ते बाबडे पुराय म्हयनो मर मर मरतात आनी तांच्या हातार पगार म्हूण चार पयशे पडटात. कोंकणींतले फुगनू कवी लेगीत चार ओळी बडबडून चेक व्हरतात. हें उकत्या दोळ्यांनी पळोवन ते थोडेच ओगी बसतले!

तर हांव दूरदर्शनाची गजाल सांगतालों. युसूफ आचार संहिता लागू जाल्ल्याची बातमी घेवन आयलो आनी म्हज्या तोंडाकडलो घांस घेवन गेलो. रातीं वेंचणूक आयोगान तडकाफडकी वेंचणूक जाहीर केल्ली. देखून आयच्यान देशभर आचार संहिता लागू जाल्ली. खरें म्हळ्यार आचार संहिता उमेदवारांकूच लागूंक जाय. पूण हांगा हे म्हाका लावन सोडटात.

एकदां उमेदवारी भरपाचीं पिशेपणां हांवें केल्लीं जायत! ताचें पानवळ हांवें

अशें आतां मरसर भोगपाचें? तिकेट दितां म्हूण म्हाका काँग्रेसीन व्हेलो ही सत गजाल. आतां ती म्हाका दिली काय ना हें हांणीं पळोवपाचें न्हय? म्हाका दारांत बांदून खलपाक तिकेट दिली हें वाऱ्यार पडलां. आचार संहिता लागू जावपाची ती त्या खलपाक. पूण तो नेटान दूरदर्शनाचेर उलोवन मतां मागता. हांगा म्हजो मात मेळिल्लो कॉन्ट्रॅक्ट रद्द जाता. म्हळें, पाड पडूं, नशीब गांडू तो क्या करेगा पांडू! निदान रेडियोचेर म्हयनोभराची कार्यावळ चालू आसा. हो म्हयनो शिताचेर न्हय जाल्यार पेजेचेर तरी वतलो. त्याच आंतरीक समाधानान हांव रेडियोर रिकॉर्डिंगाक गेलों. पळेल्यार माधव बोरकार उमेश म्हांबरेक घेवन रिकॉर्डिंग करता. 'पावला कणकणी' कार्यक्रम म्हजो. रिकॉर्ड करता म्हांबरो!

'बोरकार, आयलो? बरें जालें. हांव तुकाच सोदतालों.' माधवान म्हळें.

'कितें जालें जाणां तूं... तुका आचार संहिता लागू जाल्या.'

आपणेंच कितें तरी व्हडली चूक केल्या अशे नुरेन ताणें सांगलें.

'तुजो चान्स म्हाका पडलो.' म्हांबऱ्यान म्हळें.

माधव बोरकाराचो हातूंत मातूय गुन्यांव नाशिल्लो. उमेश म्हांबऱ्याचो तर न्हयच न्हय. तो बाबडो म्हजे सारको, हातावेल्या पोटाचो.

मागीर गुन्यांव कोणाचो? वेंचणूक आयोगाचो? म्हजो? काय पक्षाचो? रेडियो स्टेशना वेल्यान सकयल देंवतना एक कल्पना सुचली. हाचेरूय एक बऱ्या पयकीं खेळ तियात्र बरोवन सादर करपाची. ताका नांवूय म्हजे तकलेंत आयलें, **गुन्यांव कोणाचो?**

गुन्यांव कोणाचो? म्हणत म्हणत हांवें एक निर्णय घेतलो. हे मुखार वेंचणूक म्हणटात ताचो विचार लेगीत तकलेंत हाडप ना. तसो आतां हांवूय हाडिना आनी तिकेट दिवपी पक्षूय हाडिना. विचार येता तो त्या पाडपडिल्ल्या वेंचणूक आयोगाचे तकलेंत. ताणींच म्हज्या कपलार उमेदवार म्हूण शिक्को मारला. हो शिक्को एकाय पक्षाक दिश्टी पडना. तो स्पश्टपणान नदरेंत भरता आकाशवाणीच्या आनी दूरदर्शनाच्या.

आतां हो छाप पुसून काडूंक कितें तरी करूंक जाय आशिल्लें. ताका एकूच उपाय म्हळ्यार हांव उमेदवार न्हय हें सिद्ध करप. देखून हांवें लोकसभा वेंचणुके उपरांत सामकें मन मारून उडयलें. येदी व्हडली झेडपी वेंचणूक जाली. हांवें कोणालो एक थेंब उश्टायलोना. जिखून आयिल्ल्या झेडपींची पार्टी लेगीत

न्हयकारली. अण्णा झांटयो बँकेचे वेंचणुकेक फाटीक लागिल्लो. वेंचणूक लडटा जाल्यार लोन लेगीत दितां, म्हणटालो. लोन घेवन दोन पुस्तकां छापपाचोय विचार आयलो. कोंकणी अकादेमीक तीं दिवन लोनाचो इंटरेस्ट फारीक जातालो. पूण म्हज्या निश्चेवा सामकार तो लेगीत विचार फाटीं पडलो. हांव म्हज्या इंद्रियांचेर ताबो दवरूंक जैतिवंत जातालों. इतल्यांत सपनांत लेगीत नाशिल्ली भाशा मंडळाची वेंचणूक आयली. पयलीं हे वेंचणुकेक कोणूय उबो रावतालो आनी बिनविरोध येतालो.

रमेश वेळुस्कार लेगीत एकदां निवडून येवन अध्यक्ष जाला. आतां मात ही वेंचणूक म्हळ्यार एक प्रतिशठेचो प्रस्न थारल्या. वेगळे वेगळे पंगड आपली समिती हाडूंक सामके जिवार उठल्यात. कोंकणी भाशा मंडळाक एक भवन सोडलें जाल्यार कांय ना. ह्या पक्षांनी आपली शक्त खरें म्हळ्यार हेर कडेन वापरूंक जाय. पंचायती, जिल्ला परिशद, बँको, विधानसभा बी वेंचणुकांनी. तांणी काडिल्ल्या उतळतापांचें थंयच खरें चीज जावपाचें. हांगा मात विनाकारण कोंकणीवाद्यांमदीं वितुश्ट आनी मतभेद. मराठीवादी हें पळयत जाल्यार एके रातींत कोंकणीवादी जातले. तांकां खंय खबर वेंचून आयिल्ली कमिटी कितें करता ती! नेहरून 'अजीब' म्हणिल्ले ते हेच गोंयकार कोंकणीवादी आपल्या बोल्सांतले दुडू खर्चून भाशा मंडळ चलोवपी. दुडू खर्च करपा खातीर आपूण जावन वेंचणुकेंत पडपी. तांची कांय चूक ना हातूंत. तांची वाट लायल्या बाकीबाबान. 'झोमून घेवंक वैली घुडी, होमखणांत आमची उडी' अशी तांणी 'नवें युग फुलैतल्यां' खातीर कविता बरयली. हांणी तिचो भलतोच अर्थ लायलो. लावं बाबडे. करूं कितें करतात तें. म्हजें कितें वता? करतलो तो भोगतलो. पूण कोंकणीचे बाबतींत म्हज्यान अशे हात फाफडूंक जातात?

हेरां वरींच कोंकणी म्हळ्यार म्हजोय विक पॉईंट. (विक पॉईंट हाचो कोंकणी अर्थ गुरूनाथ केळेकारांचे डिक्शनरींत सोदचो) देखून वेंचणूक नाका म्हणटनाच मंडळाचे वेंचणुकेन लक्ष ओडलें. म्हजेंय रगत कोंकणीच! अलिप्त म्हूण कसो रावतलों! ते खातीर आचार संहिते कडेन दुर्लक्ष करप हांव पसंत करीन. आदीं भाशा मंडळाचे वेंचणुकेक आचार संहिता लागनाशिल्ली. खंयचोय फुलगो उबो रावतालो आनी बिनविरोध वेंचून येतालो.

वेंचणुकय तशी कांय घराण्यांपुरती मर्यादीत आसताली. आतां ती गोंयच्या

खांची गोंयडयांनी तळागाळा मेरेन पावल्या म्हणटकच उमेदवारांक आचार संहिता काळाची गरज धारल्या. नातर पयलीं कोणूय उठ्ठालो आनी कोणाकूय गाळी घालतालो. सत्री, जोतीं वो शस्त्रां घेवन एकामेकांचेर हल्लो करताले. इतलेंय करून बिनविरोध वेंचून येताले. हाची वेंचणूक आयुक्त तानाजी हळर्णकारान गंभीर दखल घेतली. सुरवेक ताणें कोंकणीच्या हिता पासत कांय जाणांक सदळ सोडले. आतां परिस्थिती हाताभायर वचूंक लागतकच धोरण कडक केलें.

म्हाका दिसता, हें घडलां तें म्हाकाच आचार संहिता लागची म्हूण! म्हणचे, खंयचीय वेंचणूक जावं, ही आचार संहिता म्हजी फाट सोडिना. आतां नशिबांतूच बरयलां जाल्यार तोंड दिवचें पडलें ना? मंडळाची वेंचणूक जाहीर जाली आनी म्हजो टिव्हीचो कॉन्ट्रॅक्ट गेलो. दूरदर्शन म्हणटा, तो वेंचणुके खातीर वचूंक ना. प्रसार भारती केल्ल्यान फंडाक कात्री लायल्या. पूण आयकूंक येता ते प्रमाण विरोधी पगडान चुटटी लायल्या. हांव टिव्हीचेर दिसत जाल्यार म्हजे मतदार प्रभावीत जातले. मंडळाचे सगळे मतदार झाडून म्हाकाच मतां दितले. हो कॉलमूय वेंचणूक जायसर बंद करचो अशीय मागणी आशिल्ली. पूण माधवीन कानामनार घेतलेंना. वेंचणूक आयोगाची सुचोवणी नमळायेन भायर मारली. अशा ह्या साबार तेंक्याक लागून म्हाकाय आतां नेट आयला. आमचो पंगड जिकून येवंक वेंचणुकेक रावला. बॅनर्स-पोस्टर्स करून गांवागांवांनी धाडल्यात.

मराठी राजभाशे खातीर ह्या दिसांनीं चळवळ सुरू जाली तें बरें जालें. ते चळवळींत भाशा मंडळाचेय कांय सर्वकाळ वांगडी आसात. ते म्हजे पोस्टर आनी बॅनर गांवांनी लायतात. तांच्या खर्चाची वेवस्ता मराप्रसवाले करतात. (ना जाल्यार कोणूय म्हणत, मंडळाच्या खुस्तार वेंचणूक लडटां!) विरोधी पंगडूय सद्या धोल-ताशे घेवन भायर सरल्यात. आलमारींतले कोंकणीवादीय वेंचणुकेंत देंवल्यात. मेल्ल्या गेल्ल्यांच्या नांवान बोगस मतदानाचीय शक्यताय आसा. तेच पासत वेंचणूक आयुक्त कडक राविल्ल्याचें आयकतां. रावूं बाबडो. आचार संहिता लादून लादून कितलो लादतलो?

म्हाका आतां आचार संहितेची संवयूच जाल्या.



एप्रिल २०००



'रेड्या-पाड्याचें झूज आनी झोपांचेर काळ' अशें कोणूय म्हणटालो तें म्हज्या कानार पडटालें.

ही म्हण काय ओपार हाचें गिन्यान म्हाका ना. असल्या किचकट लफड्यांनी पडपाचें हांवें सोडलां. एका काळार शिकयतालों तेन्ना थोडें लक्ष घालतालों. कॉलेजींतलो प्यून बी केन्नाय विचारीत म्हूण. उपरांत ह्या मळार कितलेशे जाण भितर सरून प्रा. जाले. प्र. भिडे सारके प्रकाशकूय तातूंत पडून गिन्यान दिवंक लागले. तेन्ना म्हळें, आतां हांवें असल्या लफड्यांनी आनीक पडप ना. कोंकणीचें शिक्षणीक आनी भाशीक मळ हांच्या हातांत सुगूर आसा. हांवें आतां निवृत्त जावन अचळय आंग काडून घेवपाचें. हांव निवृत्त जातलों अशें हांवें कोणाक म्हळें ना. कोणूय आयकत आनी खूक् करून हांसत म्हूण भंय! ते भायर, फाटीं फुडें पदां भोगपाची आसूय म्हाका जावं. येता तेन्ना हात दाखोवन अवलक्षण करून कित्याक घे! निवृत्ती घेवप म्हळ्यार संन्यास घेवप कांय न्हय. पयलीं सन्यास घेवन परत प्रपंचांत आयल्यार वाळींत उडयताले. ज्ञानेश्वराच्या बापायन बी कितें भोगलां तें आमी जाणांत. गोपाळ मयेकार बी तो प्रसंग बरोऽ रंगोवन सांगता. पूण तसली ख्यास्त निवृत्तिची घोशणां करप्यांक कोण दिना. आनी तसो तो आदलो काळूय आतां उरूंक ना. ते परस घोशणा-बिशणा करी नासतना अळंग पयस रावन विधायक कार्य करपाचें.

हांगा विधायक कार्य म्हळ्यार 'कोप' मारप न्हय. केन्ना केन्नाय कोणाचें

मारप जाता हें खरें. तेंय बी मनाक कांय गजाली लागून पिकासांव जाल्यार! म्हणजे कोंकणीच्या धनयांनी वावुरप्यांक सुणे बी म्हणटकच. मागीर कोणेंय म्हाका बेबदो म्हळ्यार उपकारता. शंकर भांडाऱ्याक ताचे वांगडी बेबदो म्हणनाशिल्ले? हातचें फुडारपण वता तेन्ना असले आरोप जाताच. शंकराक हें खबर आशिल्लें तरी ताणें तिसरो दोळो उगडलोना. तो मुर्वतीन तांकां माफ करीत रावलो. पूण आतांचे भुरगे सपासप तोंड उगडटात. देखून तांकां कोणें तिडकीन सुणे, बेबदे बऽरेऽऽ भशेन म्हणूं येता. तर सांगपाचें म्हळ्यार, हांव विधायक कार्यांत घालून घेवंक सोदतां. म्हाका घरा बसून कोंकणी चळवळिचो इतिहास बरोवपाचो आसा. इतिहास बरयतलो जाल्यार मनशाचें मन शुद्ध आसूंक जाय. खंयचेय व्यक्तीविशीं पूर्वाग्रह बी आसूंक फावना. इतिहासकारान निर्विकार, तटस्थ रावंक जाय. तशें जालेंना जाल्यार मागीर तो मनोहर हिरबा जाता. अशें म्हाका केन्ना तरी रवीन्द्र केळेकारान म्हणिल्लें शें दिसता. तेन्नाच्यान म्हजे भितर म्हाका इतिहासकाराचीं लक्षणां दिसलीं. तटस्थ रावपांत हांवें पुरूषोत्तम काकोडकाराक लेगीत फाटीं घालो. ना जाल्यार इतिहासांत कोणाचेर अन्याय जायत तें सांगू येता? पूण हालींसराकूच म्हजेर कसलें अपसरण आयलां देव जाणां! सग्ळ सग्ळ म्हजेर आरोप जावंक लागल्यात, हांव राजू गटाचो म्हूण. तेंय बी वृत्तपत्रांतल्यान!

फाल्यां म्हजो इतिहास वाचतले कितें म्हणटले? बोरकारान मावजो गटाचेर अन्याय केला म्हणचेनात? मागीर समाजांत म्हजी पत खंयची उरतली? हांव खऱ्यांनीच मनोहर हिरबा जावन वतलों.

हांव राजू गटाचो म्हूण हांवें वाचलें तेन्ना हांव हांसलों. हो राजू केन्नाचो? तो सगळे बाबतींत म्हाका ज्युनियर. गटबाजी जालीच जाल्यार राजू बोरकार गटाचो आसूंक जाय. म्हजेंय म्हूण कितें तरी कोंकणींत फुडारपण आसा काय ना? हें अशेंच चल्लें जाल्यार फाल्यां हे म्हाका सुशांताच्या गटाचो म्हणटले. पूण आयच्या काळार ही गटबाजी कोणाक परवडटा? म्हाका राजूय सारको आनी मावजोय सारको. आमी हातावेल्या पोटाचे, बेकार लोक. मडगांवां पावल्यार आमकां राजूगेर जेवंक जाय आनी माजोड्ड्यां पावल्यार मावज्यागेर भूस मारूंक जाय. हें गटबाजिचें राजकारण थांबोवंकूच जाय. आतां हेंच पळेयात, मावजो गटांत जायते लोक आसात. कोंकणी चळवळींत तांचें म्हत्वाचें योगदान आसा.

हांवें तें फाटलीं कितलिंशीं वर्सां बारकायेन पळयलां. चळवळिचो इतिहास बरयतना म्हाका इतिवृत्त बरोवंचेंच पडटलें आनी खरें सांगतां, हांव तें कोणाचेर अन्याय करिनासतना आसा तशें बरयतलों.

पूण इतलें करूनूय म्हजेर विस्वास दवरतलो कोण? मावजो गटाचे म्हणटले, 'हो राजू गटाचो देखून ताणें आमचेर अन्याय केला. आमचें योगदान खूब आशिल्लें, ताणें थोडेंच नोंद केलां.'

राजू गटाचे म्हणटले, 'हांवें मावजो गटाक चडोवन दवरला.'

ही गजाल हांवें म्हजो इश्ट दोतोर तानाजी हळर्णकाराक सांगली. तेन्ना ताणें तोंडभर हांसत, बोल्सांत हात घालीत म्हळें, 'आरे, कित्याक बेश्टी चिंता घेवन बसता? तुका आनी गट जाय ते कपलाक! कोंकणींत म्हूण गट आसतात रे? त्या पेपरवाल्यांचेंच कितें तरी चुकलां आसतलें... तांणी 'का'च्या जाग्यार 'रा' बी घालूंक ना मरे चुकून? दोतोराचो दुबाव सामकोच भायर उडोवपा सारको नाशिल्लो. हे दिसून तशे एप्रील-मायचे.

दोंगरार दोंगरकारानी काजू भाणाक उजो घाल्लो आसता. हाडून दितात बाबडे एखाद्री कडक काजू बाटली. पावसांत वखदाक उपकारतली घरच्यांक म्हूण. (ही गजाल पत्रकारांक चड बरी खबर आसतली.) कितेंय जालें तरी विनाकारण हांणी म्हजे वांटे घाले. उरलेंना आतां हें सासणाचें कोंकणी मनशाच्या मनांत? खंयूय गेल्यार आतां म्हणटले, 'हो राजू गटाचो मनीस.' कांय जाण म्हणटले, 'हो मावजो गटाचो विराधी.' म्हजी ही खंत भिडेकूय समजून ताका चिटमिटे पडले. 'जालां कितें मरे दिलीप, रेड्या-पाड्यांच्या झुजांत झोंपाचेर काळ येता.' ताणें म्हाका समजावंक कोंकणीची म्हण वापरली. हे म्हणिचो अर्थ कितें काय विचारल्यार तो हांसलो.

'तुमकां मरे, म्हण खंयची आनी ओपार खंयची तेंच कळना.'

'आसूं रे, अर्थ सांग तूं.' अशें म्हणत हांव हांसलों. हांव रेडो, पाडो काय झोंप हें म्हाका जाणा जावन घेवपाचें आशिल्लें.

'तूं हें कमलादेवी राव देशपांडेक कित्याक विचारिना? तीच तुका बरे तरेन समजावन सांगतली.'

भिडेचो सल्लो वायटसो नाशिल्लो. ताईन म्हणी फाटल्यो खूबशो काणयो सांगल्यात. विमल प्रभुदेसाय मागीर त्यो आपल्यो म्हणूं! हांवें ताईक रेड्या-

पाड्यांच्या झुजाची खबर विचारली. 'आरे पळय, आयक सांगतां.' ताईन उलोवंक सुरवात केली. आतां ती बेगीन थारचीना म्हणपाचें हांव जाणा आशिल्लों. आकाशवाणी वेल्यान निवृत्त जाल्ल्यांचो होच एक त्रास आसता.

'एक आशिल्लो रेडो आनी एक आशिल्लो पाडो. दोगूय वांगडाच चरताले, वांगडाच भोंवताले. एक दीस पोरांचें कितें बिनसलें, तेच जाणात. चरपाचें सोडून दोगांयचीं लागलीं न्ही रे झगडीं. शिंगांत शिंगां घालून खड्ड्यार खड्डे आपटितात. केन्ना रेडो पाड्याक फाटीं रेट्टा तर केन्ना पाडो रेड्याक. केन्ना पाडो जमनीवर शेंवटता तर केन्ना रेड्याक आपटिता. दोगूय बाबडे झूज झूज झुजले, थकले आनी उदकाक गेले. आतां जाली कितें मजा तें पळे.

रेडो-पाडो झुजतना जमनीर झोपां आशिल्लीं. तीं रेड्या-पाड्यांच्या पांयां पोंदा मस्तून इबाडलीं. झगडीं तांचीं पूण काळ कोणाचेर आयलो? सांग मरे! विनाकारण त्या झोंपांचेर न्हय! आरे ही ओपार असल्या प्रकरणात खंयूय लागता. हें पळय, एक आशिल्लो लाद्रू आनी एक आशिल्लो पेद्रू. दोगूय आपले आवयभाशेची सेवा करताले. धरूया कोंकणीचीच सेवा करताले. पुर्तुगेज कित्याक म्हणुंया? लाद्रू, पेद्रून पुर्तुगेजीची सेवा केली जाल्यार विनायक नायक आनी खलपान मराठीची सेवा केल्ल्या सारकी जाली.

तर ते दोगूय कोंकणीची सेवा करताले. एक दीस दोगांयचें कित्या वेल्यान तरी कोंत्रासांव जालें. जालें मागीर! पेद्रू गवलो एके वटेन, लाद्रू दुसरे वटेन. लाद्रू -पेद्रू सेपाराद जाले तशे तांचे इश्ट सेपाराद जाले. लाद्रूचो जालो एक गट, पेद्रूचो जालो दुसरो गट. लाद्रूचो गट लाद्रूक फुलयता, पेद्रूचो गट पेद्रूक फुलयता. खरें पळयल्यार झगडीं लाद्रू-पेद्रूचीं. ते कुशिकूच उरले. खरो वाद जालो तो ह्या दोन गटांचो. गटबाजिचो छाप पडलो तो ह्या समर्थकांच्या कपलार. हातांनी झगडीं जाल्लीं जाल्यार हे तकल्यो फोडपाचे एकामेकांच्यो. म्हणटकच हांगा रेडो-पाडो लाद्रू-पेद्रू आनी हे समर्थक म्हळ्यार झोपां. कळ्ळें मरे तुका काय आनीक सांगू? सांगतांच.

सद्या गोंयांत मराठीचो वाद उस्तला. भाजप आनी मगो एकूच हरशीं. रेडे पाडे कशे. तांचीं चल्ल्यांत आतां झगडीं. कित्याखातीर? मतांखातीर. भाजपाक मगो चीं मतां आपले वटेन हाडूंक जाय. आनी भाजपाक सोंपयले बगर मगोक चान्स ना. तर तांकां दिसलें मराठी केल्यार चान्स आसा. जो कोण चड मराठी

म्हणटा ताका लोक मतां दितले. देखून हे दोनूय पक्ष आपले परीन झगडटात. तांकां एकामेकांक सोपोवंक जाय. निमित्त केलां मराठी. पूण ह्या झगड्यांत काळ येतलो तो मराठी समर्थकांचेर. बाबडे पयशे, वेळ होगडावन मार खावन बसतले. आतां सांग म्हाका, रेड्या-पाड्यांच्या झुजांत काळ कोणाचेर आयलो? झोपांचेर.

हीं सगलीं ल्हान झोपां मरे! ताणी रूख जावंक जाय. ते मेरेने रेड्यां-पाड्यां पसून पयस तरी रावंक जाय.'

म्हाका पळयत ताई अदमास घेवंक लागली. कितले मेरेन म्हज्या बोडांत गेलां ताचो. म्हाका ओपारी फाटली काणी कळिल्ली. पूण एके गजालिचो दुबाव आशिल्लो दोनूय रेडे-पाडे मुळावेच आशिल्ले काय तांतल्या एकल्याचें कोण तरी प्रतिनिधीत्त्व करतालो? काय ह्या दोगांयकूय झुजोवपी खरे रेडे- पाडे वेगळे?

पाड पडूं मरे म्हजें, विनाकारण म्हाका झोपांची उपाधी मेळ्ळी. ते परस इतिहास बरोवंक बशिल्लों जाल्यार सुटपाचों.



**मे २०००**



**म**नशान खंय दिसभर, पोटभर हांसूंक जाय. ताका लागून हांसपी दुयेंत पडना आनी दिर्घायुषी जाता. हो सोद हालींच अमेरिकेच्या वैजकी मंडळान लायला. कसलोय सोद लायलो की ते म्हाका कळयतात अशें कांय न्हय. हांगा आमचो गजानन जोग 'सोद' म्हूण कथा संग्रह काडटा ताची हांव (आनी तोय) गोंयांत आसुनय म्हाका कल्पना ना. कोंकणी वाचक एक दीस 'सॉद' खंय मेळटा काय विचारूंक लागले तेन्ना हें कसलें प्रकरण काय म्हूण म्हाका सोद घेवंचो पडलो. तर... अमेरिकेच्या ह्या सोदाची बातमी खंयच्या तरी वर्तमानपत्रांत हालींच हांवें वाचल्या.

हांगा हांवें वर्तमानपत्र हें उतर पुराय जाणविकायेन वापरलां. ताका 'दिसाळें' हें खाशेलें कोंकणी उतर आसून लेगीत. हांव जाणां, हें वाचून रवीन्द्र केळेकारांक खंत जातली. ते म्हजे हें बरोवप 'स्वतंत्र कोंकणी भाशेंतलें' न्हय, तें 'मराठी बोली'तलें म्हूण गरजे भायर खंत काडून शिणटले. पूण 'दिसाळें' उतर वापरूंक म्हाका भंय दिसता ताचें कितें? सांगू येता, कोण, केन्ना, कसो तें उतर लावन घेत म्हूण! तर सांगपाचें म्हळ्यार अमेरिकेच्या त्या सोदांत तथ्य आसूंक जाय. ताकाय हो सोद पुलच्या मरणा उपरांत लागला आसूं येता. हो पुल म्हळ्यार कॉमिक. जितो आसतना ताणें लोकांक हांसयले. आतां मरणा उपरांतूय लोकांक हांसपाची दिक्षा दिता. पूण तांचे आनी मडगांवच्या भिकूबाबाचे संबंद हांव नकळ आशिल्लों. भिकू पै आंगल्यान तांच्या मर्णा उपरांत तांचेर लेख बरयलो. तेन्ना

कळ्ळें पुल भिकूबाबांक पत्रां बरयतालो. पर्वरीच्या श्रीराम कामतींकूय पुलन बरयलां. तेंय कामतबाबान आपल्या लेखावांगडा पेपरांत छापलां. हातूंत म्हाका कॉमिक दिसली ती मात भिकूबाबांच्या पत्राची. पुलन कामतीक पत्र बरयलां तें शुद्ध मराठींत बरयलां. आंगल्याक बरयलां ताची सुरवात आनी शेवट कोंकणींत केला. ही कितें भानगड काय म्हूण हांवें कामतीक विचारलें. ताणें जें सांगलें तें आयकून हांव पोट फुटसर हांसलों. श्रीराम कामत कोंकणी मनीस पूण बाकीबाबा वरी तो मराठीची सेवा करता. भिकू पै आंगलो मात गोंयकार जावनूय आपणाक मराठी मानता. ताच्यांतलो स्वाभिमान जागोवंक पुलन ताका कोंकणींतल्यान बरयलां. भटाच्या तोंडांत नुस्तें घालचें तशी भिकूबाबाच्या तोंडांत कोंकणी घाली पुलन.

पुलचीं हींच तिरसुवादपणां म्हाका हांसपाक पुरो जातात. 'अमेरिकेन सोद लावंचे आदीं हो बोरकार मेलो हांसतलो' हें वाचून थोडे खपनखायरे अशेंय म्हळे बगर रावचेनात. तरी लेगीत हांव सतत हांसत आसतां हें मात खरें. म्हज्या खाडा भितर तें पळयतल्यांक दिसूं नाका मागीर! तशें पळोवंक गेल्यार हालीं हांसपा सारके खीण भोवच थोडे येतात. ताचें कारण म्हळ्यार पुराय गोंयची अवतिकाय विचित्रूच जाल्या. ती पळोवन हांसचें काय रडचें तेंच कळना. रडून ही परिस्थिती थाऱ्यार पडपाची ना हें हांव जाणां. वेल्यान म्हजीच भलायकी इबाडून हांव रडकुरो दिसपाचों. गोंयच्या मराठींतल्या नांवाजत्या कवी-लेखकांवरी. नाय म्हळ्यार आमचे कोंकणींतलेय कवी-लेखक मदीं मदीं रडके दिसतात. ताचें कारण तांकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळना. हेंय पळोवन म्हाका हांसूंक येता. नानूक जशें हांसपाक कारण लागना तशें म्हजें न्हय. म्हाका कारण लागता आनी हांव तें सोदून काडटां. आतां कला अकादमीचे उपाध्यक्ष विष्णूचीच गजाल घेयात. हांगा उपाध्यक्षपदांत म्हाका कॉमिक कितें दिसूंक जाय? तसो हांव भाशा मंडळाचो स वर्सां उपाध्यक्ष आसलों. शिवदास कोंकणी अकादेमीचो आसा. फुडाराकूय आसतलो. उपाध्यक्षपदां बहुजन हिताय आसात अशें तांचो फुडारी विष्णू म्हणी. तातूंत हांसपासारकें कांय ना. आसल्यारूय रडपा सारकें आसत. तरी हांव नकळ कित्याक म्हूण, म्हाका विष्णूक पळोवन हांसो येता. चार्ली चॅप्लिनचें चलप, उलोवप, वागप सगळें कॉमिक आशिल्लें. ते कॉमिकतायेंतल्यान तो सगळ्याक वेदना फाफुडटालो.

विष्णू वाघाचें सगळें वागणें गंभीर. ताचे हे गंभिरतायेंतूच म्हाका भरपूर कॉमिक दिसता. ताका 'भास' म्हळ्यार कोण तें कळटा पूण आपली भास कळना. तरी हे संबंदान तो सगळ्यो भुमिका गांभिर्यान सोबयता आनी म्हाका ताच्यो ह्यो गंभीर भुमिका विनोदी दिसतात. मागीर मनसोक्त हांसपा खातीर दुसरे विशय जायच कित्याक?

हालींच म्हाका तो धांवपळींत वाटेर मेळ्ळो. मराठी युवा संघर्ष समितीचे बसके खातीर वतालो. ताचें हातवारें करीत भाशणाची येसाय आनी पाठांतर चलतालें. ताचो एक खांदो उमेश म्हांबऱ्या वरी सकयल जाल्लो. म्हांबऱ्याची ती एक नातुराल स्टायल. पूण हाणें सगळें सोडून म्हांबऱ्याची स्टायल शी उबारप?

'ना. रे. ह्या दिसांनी गावांगावांनी पालखी भोंवता न्ही रे'

'तीच मरे ती. उदय गुडे थर्मकोलाची म्हणटा ती?'

'थर्मकोलाची न्हीं रे, धर्मकोल्लाची.... हय हय तीच ती.'

'पूण ती पालखी ट्रकार केल्या न्ही रे चित्ररथ कसो?'

'हय रे. पूण गांवच्या लोकांक पालखी म्हणटकच देवळा कडली दिसता न्ही रे. म्हणटकच ती खांदार घेनिल्ले वरी दाखोवं नाका? खलपाक, शशिकलेक बी पळय. तींय अशींच करतात ह्या दिसांनी.'

'पूण विष्णू, आमी शिकिल्ले. आमकां भाषाशास्त्र खबर आसा. आमची भास मराठी म्हळ्यार लोक हांसनात रे?'

'हांसप आरोग्याक बरें मरे. कोंकणी भासूच रे. भास नाशिल्ली जाल्यार हांव नाटकां बरोवपाचों कोंकणींत? पूण हे भाशेंत ज्ञानेश्वर, तुकाराम बी खंय आसात?'

'ना जाल्यार तूं जा मरे! तुका चान्स आसा.'

'पिशें लागलां रे? म्हाका अजून खूब भोगपाचें आसा मरे. म्हाका इतले बेगीन मरपाचें ना. तूं जाणा मरे, ज्ञानेश्वर, तुकाराम कशे मेले?'

'हांव नकळ. कशे मेले?'

'ज्ञानेश्वराक लोकभास मराठींतल्यान वेव्हार जाय आशिल्लो. ते खातीर ताणें चळवळ सुरू केली. पूण ताका प्रस्थापितांनी विरोध केलो. बाबड्याक समाधी घेवची पडली. तुकारामाक तर ताणीं मारलो.'

'म्हणजे बळी गेले बगर जावंचेंना तर हें?'

'तुमी पयलीं कोंकणींत ज्ञानेश्वर आनी तुकाराम करात. मागीर हांव आसांच

तुमचे वांगडा.'

इतलो वेळ नीट केल्लो खांदो परतो बागोवन विष्णू गेलो. हांसून हांसून म्हज्या पोटांत मुड्डी पडली. म्हाका मराठीवादी दिसले म्हणटकूच हांसूंक येता अशें न्हय. कोंकणीची लेगीत म्हाका तितलीच कॉमीक दिसता. तिचे बाबडेच्या नशिबांत कितें वाडून दवरलां तीच जाणा. खरें म्हळ्यार ती कोणाच्या अध्यांत ना मध्यांत कशी. आपले परीन ती दीस काडटा आनी फुडेंय तशीच काडटली. तिच्या नशिबांत मानाचो पाट आसा सो दिसना. तरी तिच्या नाड्यार कोणूय फुडारी जावन मिरयता. कोंकणींतलो शेंबूड तिकाच लागून शेंबडोबाब जालो. फुडाराक कोणतरी धोणसु, धोणसुबाब जावन वतलो. तेरा वर्सां आदीं तिणें कोंकणीक केदे फुडारी दिले. कोंकणी राजभास जाली आनी दिसलें, फुडाऱ्यांचें पीक सोंपलें. येवपी पिळगेक कोंकणी फुडारी जावपाचो चान्स ना. पूण सुटके झुजाऱ्यांक अंत ना तशें हांकांय मरण ना. परतून कोंकणीच्या फुडाऱ्यांचें पीक सुरू. तांचें एक समजूं येता. बाबडे कोंकणी खातीर तळमळटात. पूण आपल्याक गाळी घालपी मराठीवाल्यांकूय लिडर करतात. काल पयर दिवचलचो दगडू तिठ्यार रावन मटको घेतालो. पोलिसांनी भितर व्हेलो आनी ताचें नांव पेपरार आयलें. दगडू भुल्लुसलो आनी दारांत आयिल्ले पालखेक ताणें हार घालो. 'देवाधिदेवा अशीच म्हजेर कृपा कर आनी चार चौगांत नांव कर.' दगडून भक्तिभावान पालखेंतल्या देवाक पराथलो. दुसऱ्या दिसा दगडूचो दगडोबा जावन पेपरार फोटू. दगडूचो फोटू पळोवन पेडणेंचो तोपयो पिरंगलो. ताणें भाशा मंडळाचो पेडणेचो प्रतिनिधी जावपाचें येवजिल्लें. पूण गटबाजीक लागून तो वेंचणुकेंत आपटलो. आपल्याचें पेपरार सादें नांव लेगीत ना आनी दगडूचो पेपरार फोटू? आर्रा तूं!

तोपयो गेलो रवळनाथाच्या देवळांत आनी पालखे मुखार उबो रावलो. भायर गड्ड्यांनी खेळपी भुरग्यांक वांगडा उबे केले. झक्कास फोटू मारून मराठी वार्ताहराक दिलो. संपादकान वार्ताहराक सांगिल्लें, 'मराठीच्या खुस्तार तूं पोट भरता. मराठी चळवळ गांवांत कर.'

वर्ताहर 'सुखवार्ता दुखवार्ता' करीत गांव भोंवतालो. तोपयाचो फोटू ताणें चार कॉलमाचे बातमे सयत धाडलो. 'चैतन्य पालखीचे पेडण्यात आगमन. प्रचंड स्वागत.' कोंकणीच राजभास जाली म्हूण हे फुडारी जावंक पावले. ती

जावक नाशिल्लो जाल्यार पेडणाचे कोणाचें नांव पेपराचेर? कोंकणी हो अशी एक कॉमिक भास.

तो म्हजाचो विकास कशींच करून घेना. हेराची मात तो वेवस्तीत उडगात करून उडयता. तिणें [illegible] ही संघटना उबारूंक उबी दिली. मराठी अकादमी स्थापन करूंक प्रोत्साहन दिलें. तें खातीर खूबशा मराठीवाद्यांक कितें तरी करूंक मेळ्ळें. नातर आयुश्यात कितें करप हो प्रस्न आशिल्लो. ते कितें करतात तें पळोवन म्हज्या मनाची करमणूक जाली. म्हाका पावला कणकणी अशल्या विनोदी लोकांची भेट घडटा. केन्ना भितरले भितर हांसूंक येता तर केन्ना मनमोकळें हांसो फुटटा होच हांसो म्हजी तब्येत बेस करून दवरता. कोंकणी आसा मर हें करमणुकेचो साधन आसात. देखून म्हाका म्हजो हांसो बंद जातलो हाची चिंताच ना. पूण भंय दिसता अमेरिका ह्या लोकांक मागणी घालीत म्हूण. रवीन्द्र केळेकार हालींच अमेरिकेक गेल्ले. देवा मायबापा, तांणी हांचो थंय उल्लेख केल्ला जाल्यार पुरो. नातर भाव म्हजे नामके नागीर हासपाक म्हारग जातले.

■ ■ ■

जून २०००





म्हज्या मेंदवाचो जाला सद्या चोथो. म्हळ्यार कितें हाची म्हाकाय बरीऽ समजणी ना. तरी हांव असलीं अर्थ कळनाशिल्लीं वाक्यां वापरतां. म्हाका तांचो अर्थ कळूं नाका. पूण तीं आयकतल्याक, वाचतल्याक जुस्त कळटात. शकुंतला, पुर्णानंद बी निवेदन, सुत्रसंचालन करतनाय अशेंच करतात. तोंडाक येतात तीं उतरां वाऱ्यार मोखतात आनी आयकुपी कानाचे पांटुले करून तीं फुलां अचळय झेलतात. देखून हळुहळू म्हाकाय मात्शें धाडस कशें आयलां. तर म्हज्या मेंदवाचो चोथो जावपाचें कारण म्हळ्यार कोंकणी भास.

शणै गोंयबाबान कोंकणी गोंयकारांची भास म्हळी. म्हाकाय बाबड्याक ताचें म्हणणें खरेंच दिसलें. तशें म्हाका कोणाचेंय म्हणणें रोखडेंच खरें दिसता. कोणें तरी एकदां म्हळें, तूं लेखक म्हूण कोंकणी अकादेमीचेर वतलो. म्हाका तें खरें दिसलें. पूण तो गेलो. हांव थंयच उरलों. आतां तो थंयच्यान परत येना आनी म्हाका वचूंक मेळना. ही केन्नाची गजाल आतां? जालीं आसतलीं कितलींशीं वर्सां! जालें तें जालें. फाटल्यो गजाली काडून खंत करपांत अर्थ ना. अकादेमीचेर वचप म्हळ्यारूच कितें अंतीम सत्य न्हय. गोपाळराव मराठी अकादमीचेर गेलो तरी खंय कितें घडलां? विष्णू कला अकादमीचेर गेलो तरीय कांय घडूंक ना. मुखारूय कितें घडटलें म्हणपाचें खरेंपण ना. तर, हांव सांगतालों ती गजाल आमचे कोंकणी भाशेची. शणै गोंयबाबाक लागून म्हाका तिचें पिशें लागलें. ती भास न्हय, ती बोली अशें जायते लोक आड्डताले. हांवें कानामनार घेतलें

ना आनी तिका हांवें भास मानली. म्हजे सारकीं पिशेपणां हाचे आदीं साहित्य अकादेमीन केल्लीं. कोंकणी स्वतंत्र साहित्यिक भास अशें तिणे मानून घेतलें त्या वेळार शशिकला काकोडकार ह्या पिशेपणाक हांसली. ती हांसता म्हूण वसंत बापट बी लोक हांसले. तीं दोगांय हांसतात म्हूण गोंयकारूय हांसपाक लागले. हे गोंयकार थोडे गोंयांत आशिल्ले तर थोडे मुंबयंत. अशे वेगळे-वेगळे रावन हांसपांत कसलेंच शाणेपण ना. ताका लागून आपली शक्त विभागून कोंकणीचो फायदो जाता अशें तांकां होलमलें आनी मुंबय आशिल्ले आंगले बिंगले गोंयां आयले. कोण म्हणटात मुंबयच्यान तांकां निरूपेगी म्हूण धांवडायले. हांचें म्हणणें आपली शक्त एकसंघ करूंक ते गोंयां आयले. पयलीं ती नाशिल्ल्यान साहित्य अकादेमीचें फावलें. आमी घाळ उगिल्ल्यान कोंकणीक स्वतंत्र भाशेचो दर्जो मेळ्ळो. आटवलें तर म्हणूंक लागलो, तांणी बाटल्यो दिवन मान्यताय घेतल्या. म्हाका हांगा दोन बाटल्यो भायर व्हरतलो जाल्यार परमीट लागता. आठवलें तेंच अडचणीक लागून मुंबय सोडून गोंयां आयलो. अशें आसतना कोंकणीवादी दिल्ली बाटल्यो कशे व्हरताले काय? हे कोंकणीवादी केन्ना कितें करीत हें सांगू नज हेंच खरें.

बाटल्यांचेर काम जातालें जाल्यार साहित्य अकादेमी गोंयां हाडपाचे. देशांतलो भाशाप्रस्न झगडीं झुजांविणें अळंग सुटपाचो. उपरांत गोंयांत राजभाशेचो प्रस्न मुखार आयलो. मराठीवाद्यांनी चिंतलें, आतां हांसपांत कांयच अर्थ ना. सगळ्यांनी एकठांय जावन आतां संगठीतपणान रडूंक जाय. कित्याक, उलयल्यार तांचे भाशेक कोण मराठी म्हणनाशिल्ले. ती भाशा जाणकारांक मराठी परस वेगळी भास दिसताली. थोड्यांनी जाणवाय करून तिका मराठीची बोली म्हळी. पांपु ते विष्णू मेरेन बोलींतल्यान बरोवंक लागले. हीं नाटंपन्नां पळोवनूय म्हजे तकलेचो चड्डच चोथो जालो. ह्या लोकांनी आपली जिंदगी गोंयांत बरबाद केली अशेय डायलॉग अदींमदीं तकलेंत येवंक लागले. येद व्हडले हे भाशातज्ञ खरें म्हळ्यार दिल्लींत आसपाचे. पूण पर्मिला आर्केडच्या चवथ्या माळ्यार लेगीत हांकां कोण व्हरना. अशे हे विचित्र परिस्थितींत कोंकणी राजभास जाली. राजीव गांधीन तर तिका मरळ आटवे वळेरेंत घाली. तशें घडचें म्हूण हांवेंय तेरा वर्सां पयलीं बोवाळ घाल्लो. आतां आनी हे भानगडींत पडप ना म्हूण निश्चिंत जाल्लों. पूण परत एकदां त्या पांडुरंग राऊतान बील हाडलें. ह्या पांडुरंगाक भाशेचें बील आनी

हेर खंयचेंय बील हातूंत फरक दिसना. झांटये आड झगडटना बाबड्यान कितलीं बिलां फारीक केलीं. त्याच बिलांची संवंय लागून ताणें मराठीचें बील हाडलें. हांवें एक दीस ताका म्हळें, 'पांडुरंगा, हें कितें चलयलां तुवें?'

तसो तो हांसलो आनी म्हज्या तोंडाक पळयत रावलो.

'कोंकणी राजभास जाली मरे? आतां मराठीय करूंया.'

'आरे, पुण कित्याक? तूं उलयता तीच राजभास पुरो.'

'तशें जाल्यार अण्णाक फुडाराक बुद्द कोण शिकयतलो?'

तो कितें म्हणटा तें म्हजे तकलेंत कशेंच वचना जालें. म्हजे तकलेचो चोथो जायत चल्ला हाची म्हाका खात्री जाली. तकली थंड दवरतलों म्हूण विधानसभेंत वचून बसलों. नवे विधानसभेचे गॅलरींत बसल्यार म्हजें भुरगेपण जागवता. भुरगेपणांत हांव शेतांतल्या ओंड्याचे धडेर उबो रावतालों. ओंड्यांतलें एखाद्रें साळक काडूंक मेळत हे आशेन. पावसांत ओंडे भरिल्ले आसतना थंय वचूंक मेळनाशिल्लें. भरिल्ल्या ओंड्यांनी तांबडींच साळकां दिसतालीं तरी मागीर शेतां लुंवली म्हणटकच ताप पडून ओंडे सुकताले. साळकांय सुकून गेल्लीं आसतालीं वो तीं कोणूय व्हरताले. म्हाका पळोवंक मेळटालें तें ओंड्यातलें वेंतभर उदक. आनी तातूंत बुडूक बुडूक करपी बेबकांचो चोंबो. तांकां मागीर हांव वरांचीं वरां पळयत बसतालों.

नवे विधानसभेचे वाटकुळे गॅलरींत बसतकच तशेंच दिसता. बशिल्लेकडेन म्हाका दयानंद मांद्रेकार उलयतना दिसलो. तो दयानंद नार्वेकाराचेर मराठींतल्यान तापतालो. ताच्या मतदारसंघांतले 'बंधारे' सगळे फुटून गेल्ले खंय! नार्वेकार म्हणटा ताच्या मतदारसंघांत बंधारेच नांत. ताचेंय बरोबर. बंधारे नात जाल्यार ते फुट्टले खंयचे! मागीर मांद्रेकार म्हणूंक लागलो, बंधारे म्हळ्यार 'खांवटीं.' ताचे भाशेंत बंधाऱ्यांक 'खांवटीं' म्हणटात खंय! 'बंधारे म्हणचे परस ताणें 'खांवटीं' पडटात म्हणिल्लें जाल्यार? विधानसभेंत मतदारसंघाचे प्रस्न केन्नाच सुटपाचे. पूण मांद्रेकाराक तुजीच भास खरी भास हें कोण सांगतलो? ते खातीर मोर्चा काडूंक जाय अशें हीत-राखणकार सांगतात. ह्या लोकांक आपल्या मतदारसंघाचें हीत कळना. ते खातीर हांवें मोर्चा काडून म्हजें हीत कित्याक होगडावप? तेरा वर्सां पयलीं तर मोर्चा काडून सगळ्यांचें हीत राखलें. सगळे आतां सुवात मेळटा थंय वेवस्तीत बसल्यात. तांतले थोडे म्हाका ओंड्यांत,

सॉरी, विधानसभेंत दिसताले. ह्या लोकांचें हीत राखपा खातीर हांवें म्हूण कित्याक झगडप? ते परस म्हज्यान एक गजाल करूं येताली. ज्या सगळ्यांची भास मराठी आशिल्ली तांकां बुद्द शिकोवप. म्हणचे तांकां म्हजी भास वापरूंक दिवप ना.

जो कोण मराठीवादी कोंकणी उलयता ताका सोडप ना अशें हांवें थारायलें. म्हजे तावडेंत सगळ्यांत पयलीं सांपडलो विष्णू वाघ. ताका पळयले बराबर हांवें अचळय कूस मारली. तो वाग म्हूण न्हय, तर ताका हांव वळखतां म्हूण. तो आमच्या शेजारच्या गांवचो, डोंगरेवेलो. ह्या गांवांत दर वर्सा कितलींशीं नाटकां जातात. पयलीं ह्या नाटकांक हांव चुकनासतना वतालों. शाळेंत वचनाशिल्ले लेगीत भाशण पाठ करून सवंग करताले. तांच्या आंगांत संभाजी, शिवाजी बी संचारतालो. ही संचारीवृत्ती एकदां गेली म्हणटकच सगळे आसा तशे थंड. होच संचारी भाव विष्णू भितर वयर सकयल भरला. ताच्यांतल्यान तो केन्ना भायर सरता हें कळूंक कुस्तार. गरजे भायर नाटकां नाकात म्हूण हांवच ताका टाळटां. विष्णूची ही गत जाल्यार गोविंद नायकांतूय तोच संचारी भाव. ह्या लोकांक सुदारतलो जाल्यार तांचीं नाटकां बंद करूंक जाय. ते परस सगळ्यांत शाणो म्हणटात तो विनायक नायक. तो मराठी म्हणटा पूण चुकून लेगीत मराठी उलयना. हाकाच पयलीं धरतलों आनी म्हज्या कार्याक आरंभ करतलों अशें चिंतलें. म्हाका तो जुस्त साहित्य सेवक मंडळा भायर सांपडलो. आपले फियाट गाडयेंत बसून कसलो तरी विचार करतालो. तो कितें विचार करता हें फकत हांव एकलोच जाणां. साहित्य सेवक मंडळांत वचपा खातीर तो हांगा येता. मिनेझीस ब्रागांझा सभाघरा सकयल तागेलें हे मंडळ. थंय केन्नाच साहित्याची सेवा जायना. जाता तें भाशाकारण. तेंच करूंक ताणें येवप आनी पुर्तुगेजांक गाळी घालप. ताच्या मतान प्रवेशद्वार मातशें व्हडलें आसूंक जाय जाका लागून आपली गाडी सरळ मंडळांत वतली. पूण पुर्तुगेजांनी इमारत बांदतना राजकारण केलां. दार ल्हान दवरून मराठीवाद्यांचेर अन्याय केला. तो आपले गाडयेंतल्यान पुर्तुगेजांक गाळी घालीत देंवतालो. इतल्यांत ताचे मुखार हांव उबो जालों.

'हांव तुका न्ही आं, पुर्तुगेजांक गाळी संवतालों.'

'तूं कोणाकूय गाळी घाल, पूण त्यो म्हजे भाशेंतल्यान घालचोना.' हांवें आवाज चडोवन ताका सांगूं नाका तसो तो भियेलो. विनायक नायक तसो विनाकारण कोणाकूय भियेता. तो गोपाळ मयेकाराक भियेता, गोविंद नायकाक

भियेता. इतलेंच कित्याक, तो केन्ना केन्ना आपल्याकूय भियेता.

'हें कितें? तुजी आनी म्हजी कितें वेगळी भास तर?' म्हाका पळोवन विनायकराव तोंडभर हांसलो. ताच्या हांसपांत आनी रावताच्या हांसपांत फरक आसलो.

'तुजी भास मराठी. तुवें तेच भाशेची सेवा करूंक जाय.' म्हजें कितें जालां हें बाबड्याक खीणभर कळ्ळें ना.

'हांव आनी कितें सेवा करतलों? सेवा तुमी करपाची.'

'हांव म्हजे भाशेची सेवा करतां. हांव बरयतां. ते परस चड उलयतां.' हड्डें तायट करून हांवें म्हजी सेवा अभिमानान सांगली.

'तुमचेर आमचो भरवंसो आसा. आमी आनी सेवा कित्याक करूंक जाय?'

'कित्याक करूंक जाय? मागीर राजभास कशी जातली?'

'आनीक राजभास कित्याक जाय? कोंकणी राजभास जाली न्हय.' अजून विनायक नायक कितें उलयता तें ताकाच कळनाशिल्लें.

'कोंकणी राजभास आमी केल्या. मराठीविशीं म्हणटां हांव.'

'ती व्हय? ती आतां जातली. बील हाडटले न्हय आतां?'

'तूं म्हजी भास उलोवन मराठीक राजभास करूंक सोदता?'

'ती तुजी भास तशी म्हजीय भास. ते बगर कशें जातलें?'

'मागीर तुका वेगळी राजभास आनीक कित्याक जाय?'

'आसल्यार केन्नाय तोंडाक लावंक उपकारतली.'

'अशें! मागीर मराठी जाय जाल्यार मराठींत उलय.'

'पूण ती उलयल्यार कोणाक कळना. गैरसमज जाता.'

'तुमच्या मराठीवाद्यांकडेन तरी उलय. तांकां कळना?'

'ना. ते मराठी मनीस न्हय. मराठीवादी ते.'

'तशें जाल्यार निदान जोशी, घवी हांचे कडेन तरी उलय.'

'ते मराठी मनीस. तांकांय आमची मराठी कळना.'

विनायक नायक आतां सामको काचाबूल जाल्लो. ह्याच लोकांक लागून म्हज्या मेंदवाचो चोथो जावंक लागला. म्हणजे कितें? देवाक खबर! म्हाकाय कळना.



जुलै २०००



दिशिल्लें सुटलों म्हूण एकदांचो. संवसारांतल्या जंजाळांतल्यान न्हय. फाटलीं दोन वर्सां जागाक कॉलम बरयतां. फाटल्या सहस्त्रकांत चोवीस म्हयन्यां आदीं सुरू केल्लो. ह्या हजारकाच्या ऑगस्टांत तो बंद जावपाचो आसलो. खरें म्हळ्यार फाटल्या सहस्त्रकांतूच तो बंद जावपाचो. एक कॉलम वर्सभर चलोवप हो (वावुरपी) संपादिकेचो नेम आसलो. पूण पयलें वर्स भरतकूच संपादिकेक म्हजी आनी कोंकणी कार्यकर्त्यांची काकूट आयली.

कार्यकर्त्यांचें एकवेळ समजून घेवं येता. बाबड्यांक तांचीं कर्तुपां इतिहासांत नोंद करपाचीं आसलीं. खोंटलोभर कार्यकर्ते एका वर्सान कांय आवियार जावपाचे नासले. पूण म्हजे मारक्याक आनीक एक वर्स संद दिवप म्हळ्यार अतीच! पानवेलीच्या नांवान मसंगाक पडटा केन्नाय उदक अशें! मेळ्ळ्या संद तर कांडुया यथेच्छ म्हूण कांडीत गावलों. त्या उदय गुडेन 'तिरा तूं सणसणत राव' म्हणिल्लेंच न्हय म्हाका. पोरा तूं फणफणत राव म्हणत हांवूय बरयत गावलों. केन्ना दुसऱ्या वर्साचो जुलय सोंपलो तें म्हाका कळ्ळें ना. खरें म्हळ्यार हांवें जुलयांतूच तीर भात्यांत घालूंक जाय आसलो. कसो म्हूण कोण जाणां. म्हजो म्हयन्यांचो हिशेब चुकलो. दोन वर्सां ऑगस्टांत पुराय जातात अशें धरून गावलों. ह्या घुस्पागोंदळाक लागून परतून तीर भायर काडचो पडलो. तो सणसणटलो काय सुवाद होगडावन बसनलो तें देवूच जाणां. एक गजाल मात खरी. म्हाका हो कॉलम चालू दवरप आवडटा. तो केन्नाच कोणें बंद करचो न्हय अशेंय म्हाका

दिसता. ताचें कारण तो वाचप्यांक खूब आवडटा असो म्हजो समज ना. जागाक आनी दुसरें कांयच मेळना अशेंय म्हाका दिसना. खूबश्या कवी-कथाकारांक आपली निर्मणी दवरूंक घरांत सुवात ना. छापतलो म्हळ्यार कोंकणींत मासिकांच नांत म्हूण ते शीण काडटात. जाग हें एकूच म्हयनाळें म्हूण सगळ्यांची भिस्त जागाचेर आसा. हें मासिकांचें प्रकरणूच सामकें कुम्प्लीकाद.

थोड्या संपादप्यां कडेन जायराती चड जाल्ल्यान मॅटराक सुवात ना. थोड्यां कडेन मॅटर आसा पूण जायराती नाशिल्ल्यान छापप जमना. आपसूक तांचेर पानांची मर्यादा येवन पडटा. म्हजे सारकेलो म्हयनाळें म्हयनाळें करीत दिवाळेकूच 'बिम्ब' काडटा तेंय 'बुरशें' असो समज जाल्ल्यान कोण ताका साहित्य धाडिनांत. राजय पवार आनी प्रकाश पर्येकार लेगीत. कित्याक काय म्हळ्यार तें भुरग्यांच्या हातांत पडत म्हूण तांकां भंय दिसता. 'बिंबा'त छापून हाडचे परस तें तशेंच भुरग्यांक दिल्लें बरें खंय! आसतात एक एकल्याचे स्वतंत्र विचार. तांच्या विचारांक मान दिवन आमी संपादप्यांनी दीस सारूंक जाय. ह्याच लोकांची भलायकी सांबाळूंक सुवादीक कॉलम चलूंक जाय. आतां हेंच पळयात, भिकू बोमी नायक हो एका काळावेलो कवी. खंयच्च्याय नेमाळ्यांत ताची कविता आसतालीच आसताली. वा म्हणुया, ताची कविता नासल्यार नेमाळेंच येना आशिल्लें. देखून ताचें नांव ल्हान-व्हडांच्या तोंडार घोळटालें.

एक दीस एके चलयेन म्हाका नदर सकयल व्हरत विचारलें. 'तुमच्या बामणांगेर भिकू बिकू असलीं नांवां आसतात?' म्हाकाय तें बामण समजल्लें देखून म्हाका सूऽऽ दिसलें. अशा प्रसंगार त्या काळार एक रणनिती म्हाका खबर आसली. खंयचेय चलयेन जर असली चवकशी केली जाल्यार शादूर जावपाचें. जाची तें चवकशी करता ताची जाता तितली बदनामी करपाची. तर सांगपाचें, तो कवी? शे! सामक्यो फूंच कविता करता. ते परस आमच्या घाणेकाराच्यो कविता कास्ताद! ह्या प्रसंगार खंयच्या कविची तुस्त करप तेंय कळूंक जाय. सर्तींत ना अशा जाण्टेल्या कविंचींच नांवां घेवपाचीं. आनी वांगडा आपूण कितलो उच्च साहित्यिक हाचीय सुलूस दिवपाची. भिकूची चवकशी करपी ते चलयेक हांवें नदरेन सांसपिली. म्हज्या सारक्यांक सोडून हेरांची चवकशी करपी हें कोण मूर्ख?

'आसतात काय खबर ना. पूण आमच्यांत तीं नासतात आसूंक जाय.' नरोऽ वा कुंजरोऽ वा करीत हांवें खांदार बामणाची शाल उडयली.

'तशें न्हय. नायक बामण आसतात. नाईक हे वेगळे न्हय?' म्हाका त्या वेळार जातीशास्त्राचें आयचे वरीं खोलायेन गिन्यान नाशिल्लें. दत्ता नायक, भिकू नायक बी सगळेच नायक म्हाका एक आसले. आतां हें भिकूचेर संशोधन कित्याक करता हेंवूय हांव नकळों आशिल्लों. कवी-लेखकांचेर संशोधन करूंक तेन्ना कॉलेजींत कोंकणी नाशिल्ली.

'ताचें कितें आसा. कोंकणींत 'ई' स्वराचो उच्चार 'य' असो जाता.' हांवें म्हजें नादशास्त्राचें गिन्यान ताचेर मोखून मारलें.

हालींसराक भिडे वापरता तितलेंच त्या वेळार म्हजें तें मर्यादीत गिन्यान. ताका तें सारकें कळचें म्हूण हांवें कांय देखीय दिल्यो. आमी देसाई बरयतात पूण उलो मारतना देसाय म्हणटात. तशें नाईक बरयतात आनी नायक म्हणटात. म्हणटना 'य' उच्चार करप आनी बरयतना 'ई' कित्याक बरोवप? हांवेंच उलट ताका असो घुस्पागोंदळाचो प्रस्न केलो. (बाब रमेश वेळुस्काराचो त्या काळार म्हजेर प्रभाव नासतना लेगीत!)

'म्हणचे अशें तर! नांवावेल्यान जात कळूंक मार्ग ना तर!'

'ना. कोंकणींत निखालूस ना. गरजूच आसल्यार पालेकाराक मेळ.' हांवें ताका मागनासतना सल्लो दिलो आनी तें गेलें.

ताचें उपरांत कितें जालें आनी भिकूचें कितें जालें तेंय खबर ना. कित्याक, ते उपरांत भिकू बोमी नायक हाच्यो कविताच मेळनांत. दिसाळ्यांत मेळनांत, म्हयनाळ्यांत मेळनांत तें जालेंच, दिवाळी आंकांनीय मेळनांत.

खूब वर्सांनी भिकूचें नांव नदरेक पडलें तें हालींच मराठी दिसाळ्यांत. क्षत्रिय भंडारी समाजाची एक समिती जाहीर जाल्ली. असल्या जातीय पत्रकांचेर हांव व्हडलोसो लक्ष दिना. पूण हालींसराक दितां कारण खूबशो जाती हालीं हेर मागासवर्गांत वचूंक लागल्यात. ताचे वेल्यान कोण कोण मागासवर्गीय तें कळटा. (विष्णू वाघ मागासवर्गीय हाचेंय गिन्यान म्हाका तशेंच मेळ्ळां.) पत्रकांत सगळ्यांचीं आडनांवां 'नाईक' आशिल्लीं. सोडून भिकूचें. ताचेंच नांव फकत 'भिकू बोमी नायक' अशें छापिल्लें. खूबशा साळोऱ्यांमदीं एक काटाकोय आसता तशें तें झळकतालें. म्हळें हो अनादीकाळाचो 'नायक' आतांच 'नाईकां'त खंय फसलो? कितलेंय जालें तरी भिकू कोंकणींतले मुस्तींतलो कार्यकर्तो. जाती-धर्माविरयत समाज घडोवंक फुडें सरल्लो कोंकणी गडो. तेन्नाच हांवें देवाकडेन

मागलें, देवा 'जाग' म्हजो कॉलम बंद करिना जाल्यार पुरो.

ह्या असल्याच उदाहरणांक आनी घडणुकांक लागून म्हाका कॉलम जाय. खंय तरी बरोवन मनांतलो ओग काडूंक मेळटा. पूण बरोवंक बसकतकच कशेंच म्हणटा तें लक्ष लागना. बरी साहित्य निर्मिती करतलो जाल्यार मनाक़ शांती जाय. रवीन्द्रबाबाक तीं लाभता कित्याक तो कोणाचें लावन घेना. मुंबयकार आनंद वर्टीचेंय लावन घेना आनी प्रभाकर वैद्याचेंय लावन घेना. म्हाका मात मेळटा ते गजालीचें विनाकारण टेन्शन जाता. ताचो मोठ्या प्रमाणांत परिणाम म्हज्या कॉलमाचेर पडटा. बरोवंक जाय पडटा ती शांतताय भायरूय ना आनी घरांतूय. भायली कटकट नाका म्हूण थोडे दीस हांव घरातूंच रावलों. घरांत रावलों म्हूण हांव दीसभर बैठक मारून कितें बयरतलों? तें बरोवंक हांव कांदबरीकार न्हय आनी श्रीराम कामतूय न्हय. घराकडेन आसलों म्हणटकच वाचप-बरोवप सोडून दुसरो उद्‌देग ना. नाय म्हळ्यार टीवी आसा आनी ताचेर कार्यक्रम आसतात. ते सगळे हालीं देवांचे आनी रडारडिचे, खून-अपघातांचे आसतात. केन्नाय बटन दाम, विष्णू, नारद नातर खंयची तरी देवी, बॉम्बस्फोट, रेल्वे अपघात, रक्तान भरिल्लीं मडीं वो रडपी बायल. नाच जाल्यार अटल बिहारी वाजपेयी नातर राक्षस दिसतलेच. म्हजे सारकेल्या आनंदयात्रीक हें पळोवप रूचपाचें ना. तें पळोवन विनोद करपूय म्हज्या सभावाक पटना. देवांक पळोवन विनोद केलो जाल्यार हांव नास्तीक. असुरांचीं फकणां करीत जाल्यार हांव सुरांचो मनीस. मड्याक पळोवन हांसलों जाल्यार हांव पाकिस्तान धार्जिणो, देशद्रोही, तोयबा, हिजबुल, विरप्पन बी हांच्या पंगडाचो. कौटुंबीक रडारड पळोवन तीरसुवादपणां केलीं जाल्यार म्हाका काळीज ना.

म्हाका टीवी पळोवंक एकांत मेळटा तो फक्त बुधवारा. पुराय घरांत हांव एकलोच कोंकणी कार्यावळ पळयतां. त्या कलाकारांची तोंडभर उप्पाट तोखणाय करतां. बाकीचीं सगळीं त्या वेळार आपल्या दोळ्यांक रॅस्ट दितात. तीं रॅस्ट घेवं. पूण निदान बुधवारची कार्यावळ ताणी पळोवंची. अमिता सलत्री रूच्चीक कितें तरी करून दाखयता तें पळोवन तसलेंच कितें तरी म्हाका करून घालचें हो उद्देश. कोण ते पळयना म्हूण एक दीस बायलेक मुद्‌दम पळय सांगलें. तिणें घरच्यांक आफोवन हाडलीं आनी टीवी सामकार बसयलीं. त्याच दिसा पाडपडिल्लें चिकनाचें कितें तरी रूच्चीक आसलें. मनोहर सरदेसायान पयलींच

मिटकी मारली आनी 'बरेंऽ जालां' म्हळें. हातांतली वाटी चाखी नासतना काडून कडेन दवरली. मागीर परतून एकदां तें चिकन कशें करप तें दाखयलें. तें तांबडें तांबडें जितें चिकन पळोवन सगळीं भितर पळ्ळीं. आमच्या घरांत चिकन-मटन कोण खायनांत. हरवें मांस लेगीत पळयल्यार सगळीं जेवण सोडून उठ्ठात. बापूय तर टीवीचेर कोंबी दिसल्यार टीवीक हात लेगीत लायनाशिल्लो. असलीं हीं मनशां अमिताचें रूच्चीक कितें पळयतलीं? कर्म! हांवेच बाबड्यान सदांच तें पळोवप आनी तोंडाक उदक हाडप. अमिताची तोखणाय आमी कलाकार करिनांत जाल्यार कोण करतले? तें हे पिरायेर लेगीत फिल्म महोत्सवांत बेस्ट कलाकार थारता. कोणाच कडेन उतर घालिनासतना आनी फावोर नासतना. तेंच अपुरबायेन हांव हें रूच्चीक पळेतां. एक दीस कळ्ळें रूच्चीकांत मुगां गांठी दाखोंवपाचे आसात. हांवें मुद्दाम जबरदस्तीन सगळ्यांक टीवीमुखार बसयलीं. बारकायेन पळयात आनी रांदून वाडात म्हूण सांगलें. इतलोय अधिकार गाजयना जाल्यार घरांतलो दादलो कसलो! मुगां गांठी दाखोवचे आदीं सोयरो दोतोर ज्यो डिसौजा दिसलो. सगळ्यांच्या कपलार एकदम आटयो चडल्यो. तरीपूण पासियेंसान मुगां गांठिचें प्रात्यक्षिक पळयलें. म्हाकाच बाजारांत धाडून बरेंऽ मूग हाडूंक लायले. दुसऱ्या दिसा सकाळीं हुनहुनीत मुगां गांठी. हांवें त्यो अमिताची तोखणाय करीत खाल्यो. पूण हेगांनी खायना बरोबर घरांत ओका ओक सुरू. विषबाधा बी जाल्या आसत म्हूण हांव भियेलों. धांवत वचून आमच्या दोतोर घार्सेक हाडलो. ताणें तपासून सांगलें, मुगां गांठी खावन गांठ विटल्या तांची.

'अशें कशें जालें, म्हजी कित्याक विटलिना तर?' हांवें बायलेक विचारलें.

'तुका कितें जातलें? तूं सदांच युनिव्हर्सिटींत वता.'

'आतां विद्यापीठाचो आनी मुगांगांठिचो संबंद कितें?'

'आमची गांठ विटली ती डॉ. ज्यो डिसौजाक पळोवन.' फट्ट करून तिणें म्हळें. नाका जाल्लें म्हाका टेन्शन. खंयच्यो मुगां गांठी अशें जालें. तर हीं असलीं म्हाका पाड पडिल्लीं टेन्शनां. अशें आसतना कॉलम कितें कर्म बरयतलों? तरी पूण फुडलो जुलय मेरेन बरोवंक जाय. नशिबांतलें चुकना म्हणटात तेंच खरे!



**ऑगस्ट २०००**



दिवाळी लागीं आयली की जीव कलकलूंक लागता. एक सोंसूं नज अशें विचित्र टेन्शन तकलेर येता. म्हजे अकले प्रमाण टेन्शन म्हळ्यार तकली जड जावप. दर वर्सा चवथ सोंपली की म्हाका ही पिडा जाता. सुरवेक दिसतालें, हीं लक्षणां वैचारीक प्रगल्भतायेचीं. भरिल्ल्या कळशाक वजन तसो म्हजे तकलेक पेज. ह्या भरिल्ल्या कळशाची खबर एकदां दोतोराक सांगली. म्हजो समज चुकिचो जावन कित्याचेरूय पडूं येतालें. तकलेर असोच पेज येवन खंय खंय कोण खंवसल्ले. तांचे सारको उठून वचूंक हांव सामान्य मनीस न्हय. म्हजें तेन्ना चार-चौगांत बरेंच नांव जाल्लें. (चार चौगांत म्हळ्यार दोन पणजेकार, एक मडगांवकार हे तीग जाले. चवथो मसणो-फोणो कोण तें याद जायना.) कवी म्हूण भिकाजी घाणेकारान लेगीत म्हजें नांव घेतिल्लें.

दोतोरान म्हळें हवामानांत बदल जाल्ल्यान तकली जड जाता. ताका लेखकाची अवस्ता माती कळटा अशें म्हजें मत. असल्या दुस्वासी मनशांक सांगून कांय अर्थ ना. ते परस दोतोर जावनूय दोतोर घाणेकार बरो. म्हजे सारक्याक कविचे पदवेक तरी बसयता. फुडें फाटीं असल्याच दोतोराक तकली दाखोवप (मलेरियाचें निदान केल्यार लेगीत पर्वा ना.) नातर सोंस रे मना म्हणत भितरले भितर सोंसप. हें अशें म्हाका केन्ना पसून जाता हाची म्हाका बरीऽ याद ना. स्वताक हांव लेखक मानूंक लागलों तेन्नाच्यान जावंये! बरोवंक लागलों तेन्ना हांव मराठींतल्यान बरयतालों. पयलेंच बरयलें आनी मडगांवां राष्ट्रमताक धाडलें. धपक्याक फार तशें राष्ट्रमतार छापून आयलें. थंयच्यानूच स्फूर्त घेवन बाकिच्याय पेपरांक धाडलें. पूण एकाय खपन खायऱ्यान एक ओळ लेगीत छापलिना. राष्ट्रमत तर छापता मागीर हेरांक कसली पिडा मारल्या! पूण बरोच काळ सरलो तरी म्हजें नांव खंयच झळकना. धाडिल्ले कथेचें नांव पाठ आसतालें तरी म्हजें नांव पळोवप. कित्याक, जायते खेपे संपादक नांव आपल्याक जाय तशें दितात.

ते वासत लेखकाचें नांव वाचूनूच कथा वळखुची पडटा. एक दीस गोमंतकाचेर आयताराचे पुरवणेंत नांव. म्हजें न्हय म्हजे कथेचें. 'घड आला पण केळमा गेला' हावें वसवशा ती कथा वाचून मागीर लेखक पळयलो. लेखकाचें नांव कोण तरी बोरगांवकर.

कथेचें नांव म्हजें, कथा आनीक कोणाची, लेखक भलतोच. बोरगांवकरांतलो म्हजो गांव. हांवें पेनान खोडलो. आनी ती कथा कांय काळ हांवें म्हजीच मानली. खरें म्हळ्यार गोमंतकान म्हजेर खूब अन्याय केल्लो. (ताचें पानवळ तो आतां भोगता) हें एक उदारण सोडलें जाल्यार धाडिल्लें कांयच छापून येना. छापिनात मरे, छापूं नाकात! निदान साभार पोंच धाडात. कुरैंकाराक तरी म्हाका किते तरी येता अशें दिसुंदे. पूण साभार पोंच आयल्यारूय गरजेभायर देवनूच एकदां हांवें सिक्किमाक एक पत्र घालें. तें थंयच्यान परत आयलें. मनस्तापान म्हाका म्हयनोभर न्हीद ना. जाल्लें कितें–

हांव म्हयनोभर सिक्किमाक गँगटोकाक आशिल्लों. थंय म्हजी वळख गायत्री नांवाच्या चलयेकडेन जाल्ली. गायत्रीन म्हाका येतना आपल्याचो पत्तो दिल्लो. हांवें ताका लग्नाची मागणी घालून पत्र बरयलें. वांगडा एक बरोसो फोटो (राजेश खन्ना टायप) धाडलो. पत्र पावना बराबर तें लग्न जावंक धांवत येतलें अशें दिसिल्लें. तें ना तें ना. निदान ताचें पत्र तरी येवचें. तेंय ना. एक दीस कुरैंकार सायकलीर टीन टीन करीत दारांत. ताणें म्हज्या हातार एक वाटऱ्यो जाल्लें पाकीट दवरलें. म्हजेकडेन पळोवन तो यशवंत पालेकार कसो हांसलो आनी गेलो. कोणाचें पत्र तें पळोवंक म्हूण हांवें तें उकतें केलें. म्हाका गायत्रीच्या पत्राचो हुमको आशिल्लोच. उकतें करून पळयत जाल्यार तें म्हजेंच पत्र. दुसऱ्या एका पाकिटांत घालून म्हाकाच आयिल्लें. त्या पत्रा वांगडा हांवें धाडिल्लो म्हजो फोटोय आशिल्लो. मात त्या फोटवाचें मामकें भोगणार जाल्लें. ताका दोन शिंगां काडिल्लीं. दांताचे मुळे काडिल्ले. म्हजोच फोटो पळोवन हांवें आंग काडलें. कुरैंकार कित्याक हांसलो तें म्हाका कळ्ळें. गायत्री लग्न जायना जाल्यार जाव नाका आशिल्लें. पूण म्हजो कुरैंकारकडेन पत वगडावंक फावना आशिल्ली. त्या अपमानान हांव म्हयनोभर न्हिदलोल्लों. देखूनच साभार पोंच येना तेंच बरें अशें दिसतालें. पूण लिखणाचें कितें जालें काय हाचो हुसको लागता. देवा, हांवें पत्तो बरोवंक चुकयलो काय अशें दिसता. तशेंच आसतलें. नातर एकूय

लेख कसो छापून येना?

पोस्टाचें झंझट नाका म्हूण मागीर हातान व्हरून दिवंक लागलों. शेवटीं म्हजी लायकी ह्या संपादकांक केन्नाच कळ्ळिना. देखून हांवें राष्ट्रमतूच म्हजी काशी आनी म्हजी पंढरी मानली. तातूंत अकस्मात म्हजी कविता केन्ना तरी म्हाका दिसताली आनी ती म्हजीच काय कितें ह्या दुबावान टेन्शन वाडटालें. कितेंय जावं, पूण हांव लेखक, कवी म्हूण राष्ट्रमतान म्हाका खात्री दिली . तातुंतल्यान म्हज्यो म्हजेच विशिंच्यो अपेक्षा तेंगशेर पाविल्ल्यो.

दिवाळी आयली काय सगळ्यांक कविता कथा धाडपाचीं पत्रां येतालीं. जाग धाडटालो, कोंकणी, कुळागर, कोंकण भारती धाडटालो. जांकां ते धाडटात ते कवी लेखक म्हाका येवन विचारताले, तुजे कडल्यान दिवाळी अंकाक कोणें कांयच मागूंक ना रे? आयकून म्हाका खूब म्हळ्यार खूब वायट दिसतालें. दोग-तीग जाणांनी मागलां रे, पूण सद्या वेळूच ना, हांवें हड्डें मुखार करून तांकां बंडलां फोडप आनी कुरैंकार कोणाचें तरी पत्र हाडटलो म्हूण वाट पळोवप.

कोंकण भारतीन लेगीत म्हाका केन्ना एक पत्र धाडलेंना. तांचे कडल्यान अपेक्षा बाळगुपाचेंय कारण आशिल्लें. पालेकाराचो कोंकण भारती स्वयंभू दिवाळी अंक आसतालो. ताचो संपादक, मुद्रक, प्रकाशक, लेखक, कवी तोच आसतालो. (इतलेंच न्हय, थोडे कोंकणीवादी म्हणी वाचकय तोच म्हूण.) नशीब म्हळ्यार तातूंत जायराती ताच्यो नासताल्यो, हेरांच्यो आसताल्यो! म्हजी एक कथा छापल्यार पालेकाराचो लेखन भार उणो जावपाचो. ताचो तोच वेळ आनीक जायराती घेवंक सत्कारणी लागपाचो. हांवें एक दीस आपूण जावन ताका ती गजाल सांगली. ताणें पयलेच खेपे कोणाचें तरी आयकून कोंकण भारती बंद केलें. सगळो वेळ तो आतां जायराती जमोवंक दिवंक लागलो. कोंकण भारती म्हूण उपरांत एक ट्रस्ट जाल्ल्याचें आयकलें. कितें जालें खबर ना. पूण हातुंतल्यान बरेंच घडलें. जायरातदार जायराती दिवन निश्चिंत जाले. नातर घरांत विनाकारण रद्दी येवन पडून तांकां त्रास जातालो.

पालेकार कसोय आसूं, पूण ताचे कडल्यान हांवें एक गूण घेतलो. तुजें कोण छापिना मरे? छापूं नाका. तुजेंच छापून चार पयशे जोड. ताचेच कडल्यान स्फूर्त घेवन हांवें दिवाळी अंकाक सुरवात केली. पयलीं दुसऱ्यांचीं पत्रां येवचीं म्हूण टेन्शन आसतालें. आतां दुसऱ्यांक पत्रां बरय आनी साहित्य येना म्हूण टेन्शन.

पाड पडिल्लो काणकोणचो फुगनू कवी लेगीत कविता धाडिना.

पालेकारबाबाचे गूण घेतले पूण म्हाका पालेकार जावपाचें नाशिल्लें. कित्याक, कोंकणीवादी दिवाळी अंकाचो सर्वेसर्वा म्हणत म्हूण! निमाणेकडेन उपाय नासतना तेंच करचें पडलें. एकूच केलेंना म्हळ्यार अंक बंद करून ट्रस्ट केलोना. दिवाळी अंक सुरू केलो आनी दर दिवाळेक टेन्शन सुरू. जायराती घेवंक भोंवलों जाल्यार चड घेवंक भंय. दिवाळी अंक हातांत पडना बरोबर सगळे जायराती मेजतले. कोणा कोणाकडल्यान कितल्यांची जायरात घेतल्या हें कळटलें. बरें, जायरात छापिनासतना कोण दुडू दितलो? तेंय ना. म्हणटकच ही सगळी कसरत करून तकलेक ताप. दिवाळेच्या दिसांनी सचिवालयांत वचपाची माणसुकी ना. कसल्याय कामाक वच, जण एकल्यान दुबावान पळोवप. म्हजे सारके हेरूय कसल्या न्हय कसल्या कामाक येताले. म्हाका दिसप ते सगळे जायराती घेवंक आयल्यात. आनी म्हाकांय ते आपले मदलो समजत म्हूण म्हाका भंय. देखून हांवेंच कोणूय दिसलो जाल्यार कूस मारप. एक दीस तर सामकी मजाच जाली. घडलें कितें– तुकाराम शेट म्हाका मंत्री जुवारकाराच्या दारांत दिसलो. कवी जुवारकाराच्या दारांत दिशिल्लो जाल्यार गजाल वेगळी. मंत्र्याच्या दारांत दिसप म्हळ्यार फक्त जायरात. हांवूय ताचेकडेन जायरात घेवंकूच वतालों. आतां दोगांयनी वांगडा वो एका फाटोफाट वचप बरें न्हय. विनाकारण जुवारकाराचेर कोणाक कितें दिवचें हें टेन्शन. म्हळें, तुकाराम पयलीं आसा, ताका वचुंदी, हांव कडसरलों. मागीर कळ्ळें, तुकारामबाब जायरातीक वचूंक नाशिल्लो. ताणें हालींच नवी स्कुटर विकती घेतिल्ली. नवी जावनूय ती खूब धुंवर काडून बंद पडटाली. तेन्ना ह्या धुंवराचें कितें करप हें विचारूंक तो गेल्लो. येरादारी मंत्री म्हणटकच असले प्रस्न जुवारकारा कडेन येतात. पूण म्हाका पळोवन तुकारामबाब जुवारकारा कडेन गेलो ना. ताका दिसलें, हांव जायरात घेतां जाल्यार घेवं. तो उठलो आनी सुभाष शिरोडकारा कडेन गेलो. ताचे कडल्यान जायरात घेवन सरळ घरा गेलो. असलें हें दुबावाचें वातावरण दिवाळे दिसांनी उप्रासता. एकल्याक लागून खूब जाणांक विनाकारण त्रास जातात. तांकां जाता काय खबर ना, पूण म्हाका मात टेन्शन जाता. आतां दिवाळी लागीं पावल्या. फुडल्या म्हयन्यांत येता. म्हजें टेन्शन अणभवांतल्यान आतां थोडें कमी जालां. हांवें ते खातीर थंड तकलेन प्लॅनींग केलां.

जायरात घेवपाचे दीस, सुवात थारावन दवरल्या. जेन्ना हेर कोंकणीवादी

सचिवालयांत वतात तेन्ना हांवें वचप. मुद्दाम आडावन विचारप, जायरात घेतली रे? मागीर दर एका मंत्र्याक वचून खाजगींत मेळप. तांकां ल्हवू म्हणप, कोंकणीवादी तुजेर कोंत्र मरे! कोंकणीवादी कोंत्र म्हणटकच सगळे मंत्री भितात. मराठीवादी मंत्री तर सगळ्यांत चड थरथरतात. कितें जालें? आमचेर कोंत्रसाण कित्याक तांची? ते म्हणटात, सरकाराचे दुडू तुमीच खातात सगळे. आयकतकच मातशे लजेल्लेवरी जावन वतात. तेन्ना मागीर हांव तांकां एक बरी आयडिया दितां. ते वर्सांतल्यान एक दिवाळी आंक काडटात. दी जायरात. तांकांय म्हजो सल्लो मना पसून पट्टा. आमी कोणाक ना म्हळां. दितात मरे. अशें म्हणटात. तेन्नाच हांव म्हज्या बोल्सांतलें कागद मुखार काडटां. जायरातिचो प्रस्न असो सोडयता सर दुसरो प्रस्न.

कालचो पयरचो कवी लेगीत हालीं हड्डें फुडें करून भोंवता. अपुरबायेन एक कविता मागल्यार शाणेपणां सांगता. पंदरा वर्सां फाटीं म्हाका दिसतालें कोणें तरी कविता मागची. कविता बरोवंक जमलेंना तरी आयिल्लें पत्र लोकांक दाखोवचें. पळय म्हाका कितलीं पत्रां येतात. व्हडलो कवी हांव. पूण खयन खायऱ्या एकल्यानूय केन्नां पत्र धाडलेंना. आज हांव ल्हानांतल्या ल्हानाक पत्र बरयतां आनी वाट पळयतां. वाटेर मेळ्ळ्यार पत्र मेळ्ळें काय विचारतां. हय मेळ्ळें अशें म्हणत पाड पडिल्ले चलूंक लागतात. मागीर म्हाकाच तांचे फाटल्यान धांवचें पडटा. मागीर धाडटा मरे कितेंय? मानधन आसा. हांवें अकलेक येवन निमाणें शस्त्र वापरप. ‘पळोवया’ अशें म्हणत तांणी किंकोंत करप. हांच्या रागान दिवाळी अंकूच बंद करचोसो दिसता. पूण हुंदराच्या रागान घराक उजो कित्याक घालप? वर्साक कांय जायराती मेळटात त्यो कित्याक सोडप? तर असलीं हीं सगळी टेन्शनां दिवाळेक येतात. थोड्यांक दिवाळेक पेन्शनां येतात म्हणटात. म्हजे सारख्याक हीं नाका जाल्लीं टेन्शनां. आतांय हांव हींच टेन्शनां घेवन बसलां. जायराती आयल्यात. लेख पावंक नात. लेख पावल्यात पूण जायराती उण्यो आसात. पाड पडूं! हांवेंय आतां पालेकारूच जावप. आनीक एका ट्रस्टाची गोंयाक गरज आसा. निदान दिवाळेक काळीज कलकलता तें तरी बंद जातलें म्हजे वांगडाच गोंयच्या लेखक -कविंचें...!



सप्टेंबर २०००



पुरस्कार सदांच खुशालकाय भोगयता अशें न्हय. तो केन्ना केन्ना मनशाक मनस्तापूय दिता. हेरांक नासूं. पूण म्हजे सारक्यांक दिताच दिता. म्हजो एक इश्ट आसा. तो सदांच म्हणटा, 'देव मोठो नाटकी. तो मनशाक सगळें दिता उशीकांड्यांतल्यान साकर करपाची अक्कल दिता आनी गोडेंमुतूय दिता. दुडू दिता, गाडी दिता तसो मलेरिया आनी एडसूय दिता.' तीच गत म्हजे बाबतींतय केन्ना केन्ना घडटा. (एड्स बी जावपाची न्हय, मनस्ताप जावपाची.) 'तो देव मोठो नाटकी. पुरस्कारूय दिता आनी मनस्तापूय.' म्हज्या त्या इश्टाक आतां आनीक एक वाक्य म्हणूंक मेळटलें. आतां तुमी म्हणटले, पुरस्काराक आनी मनस्तापाक संबंद कितें? कोंकणी लेखकाक पुरस्कार मेळप म्हळ्यार ल्हान गजाल न्हय. ते कितलेय खरडूं तांकां मानधन म्हणटात तें केन्ना मेळना. अशा वेळार तांकां वाट पळोवची पडटा ती पुरस्काराची. आतां पुरस्कार मेळटलो आनी बुडकुलो रांदनीर चडटलो अशें न्हय. कोंकणी लेखक तशे आजून खावन पिवन सुखी आसात. अशें आसलें तरी लेखनाचेर दुडू मेळपाची गोडी आगळीच! आनी तें फकत शक्य जाता कसलोय पुरस्कार मेळटकच. म्हाका हे गोडयेची म्हळ्यार खोशयेची एक याद जाता. हांवें धा वर्सां पयलीं एकदम म्हजीं पांच पुस्तकां उजवाडायलीं. एकदम पांच पुस्तकां छापलीं म्हूण म्हजी तोखणाय जाली. अशें हे आदीं फकत र.वि. पंडितान केल्लें खंय!

आपलीं कवितांचीं पांच पुस्तकां एका दिसा उजवाडायलीं. ते खातीर ताणें आपले मालकिचो एक दोंगर विकिल्लो. (ह्या दोंगराचो 'दोंगर चंवल्ला' पुस्तका कडेन संबंद ना.) तेन्ना हांवें कितें विकलें होच प्रत्येकाक प्रस्न पडलो. तेंच समजून घेवपाक जण एकलो म्हजी तोखणाय करी. कांय जाण पडलो फोंडांत म्हणून म्हाका पंप मारताले. (हांचे भितर गुरूनाथबाब केळेकार बी नाशिल्ले. गैरसमज नाका.) ह्या पांच पुस्तकांचें मोल हांवें देडशें रुपया दवरिल्लें. यशवंत

पालेकार तेन्ना भाशा मंडळाचे अध्यक्ष. एक दीस धवेच कपडे घालून बॅग हातांत घेवन ते म्हाका मेळ्ळे. हातांतलें बॅग ताणीं आपल्या दोनूय पांयांनी चिड्डून धरलें आनी दोनूय हातांनी म्हजो एक हात दामून अभिनंदन केलें. ताणी आपलें बॅग जमनीर दवरूं येतालें. तांचें बॅग म्हळ्यार रावणाचें, म्हळ्यार शंकराचें लिंग नाशिल्लें. जमनीर दवरलें आनी थंयच घट जालें अशें जावपाक. शिवाय आमी उबे आशिल्ले ते डामराच्या चकचकीत रस्त्यार. तरी आसतना ब्रिफकेस दोनूय पांयांनी चिड्डून धरप? ती दाव्या हातान धरून उजव्या हातान अभिनंदन करूं येतालें. आसता एकएकल्या अध्यक्षाचो आगळो वेगळे सभाव.

पालेकारांच्या अभिनंदनान हांव सामको भुल्लुसलों. म्हळें चल, आयज हातांत देडशें रुपया पडलेच. हांवें बोटव्यांतल्यान पुस्तकांचो सेट काडून मुखार धरलो. अपेक्षा पालेकारबाबान तो घेवन देडशें रुपया दिवंचे. त्या देडशें रुपयांचेर म्हजो दिसाचो फुडार थारपाचो! धा वर्सां पयलीं म्हजे कडेन स्कुटर आशिल्ली. हांव तेन्ना दर दिसा देडशें रुपयांचो एक सेट विकतालों. तातुंल्यान स्कुटरीक पेट्रोल आनी म्हजें जेवण जातालें. (आतांय परिस्थिती वेगळी ना. फरक इतलोच– तेन्ना स्कुटरीक पेट्रोल घालतालों, आतां गाडयेक घालतां.)

पालेकारबाबान म्हजीं पुस्तकां घेवन आरतीं परतीं तपासलीं. पुस्तकांचें मोल बी बारकायेन पळोवन घेतलें. दिसलें हो आतां पांयांनी चिड्डल्लें बॅग काडटलो, म्हजो पुस्तकांचो सेट त्या बॅगांत घालतलो, त्याच बॅगांतले वो बोल्सांतले देडशें रुपया काडून दितलो. पालेकारबाबान बॅग हातांत घेतलें आनी पुस्तकां म्हाका परतीं दिलीं. म्हाका दिसलें, बॅग उगडूंक तीं म्हाका धरपा खातीर दिल्यांत. हांवें पुस्तकां हातांत घेतलीं तरी हो बॅग उगडना. पालेकारबाब चावी भाशा मंडळांतूच विसरून आयिल्लो जावंये!

'तुवें पांच पुस्तकां काडून बरें केलें. आतां तूं अशें कर.' पालेकारबाबान म्हाका म्हळें आनी 'कशें कर' तें पळोवंक लागलों. 'भाशा मंडळाची पुरस्कार येवजण आसा. पुस्तकां धाडून दी.' ताच्या सल्ल्या प्रमाण हांवें पुस्तकांच्यो तीन तीन प्रती धाडल्यो. हय सांगू येता! नशीब उगडपाचें आसल्यार अशेंच घडटा. भाशा मंडळाच्या अध्यक्षान म्हाका रस्त्यार अशें मेळप, पुरस्कार येवजणेची खबर सांगून पुस्तकां धाड म्हणप म्हळ्यार पुरस्कार मेळपाची खूबूच संद आशिल्ली. कांय दिसांनी भाशा मंडळाचे पुरस्कार जाहीर जाले. म्हाकाय कोणाच्या तरी

नांवान दवरिल्लो पुरस्कार मेळ्ळो. पांच पुस्तकां मदल्या फकत एका पुस्तकाक. म्हणजे म्हजीं चार पुस्तकां फुकट गेल्ले भशेन जालीं. देडशें देडशें देडशें म्हळ्यार साडेचारशीं रुपया जाल्ले आनी पुरस्कार मेळिल्लो म्हाका अडेजशें रुपयांचो. पूण त्या साडेचारशीं रुपयां मुखार हे अडेजशें म्हाका व्हड. कितलेय जाले जाल्यार पुरस्काराचे दुडू ते. अनमोल! पुरस्कार वितरण सुवाळो फोंड्यां शारांत दवरिल्लो. भरगच्च गर्दी. लोकांच्यो ताळयो. म्हाका तोखणायेन पळोवप! हांव सपनां रंगयत स्कुटरीवेल्यान फोंड्यां गेलों. तरी म्हजें नशीब बरें! टॅक्सी करून वचपाचें येवजलें ना. फोंड्यां वचून सुवाळ्याची सुवात सोदून काडली. तो सुवाळो एके शाळेंतल्या क्लासरूमांत आशिल्लो. थंय बांकांचेर चार-पांच बोडकां आशिल्लीं आनी मेजाचेर एक भरिल्लो उदका तांबयो आशिल्लो. त्या तांबया कडेन पळयत अध्यक्ष कितें तरी येवजितालो. हांव भितर सरना फुडें थंयचो प्रत्येकजण उठलो. म्हाका दिसलें ते आतां घरा वचूंक उठल्यात काय म्हण. पूण ते म्हजें अभिनंदन करूंक उबे राविल्ले. चवकशी केली तेन्ना तांकांय पुरस्कार मेळिल्लो तें कळ्ळें. हांवें तांच्या पुरस्काराची रक्कम विचारून तांचें अभिनंदन केलें. तांतुंतल्या एकल्याक देडशें रुपयांचो पुरस्कार मेळिल्लो. म्हाका तेय परिस्थितींत समादान भोगलें.

जावं, म्हजे परस सकयल कोण तरी आशिल्लो. पूण ताच्या पुस्तकाचें मोल धाच रुपया आशिल्लें आनी ताणें एकाच पुस्तकाच्यो तीन प्रती धाडिल्ल्यो. थंयूय पाड पाडिल्लो म्हाका मनस्ताप. पूण सोंसलो हांवें. पुरस्कार जैतवंतां मदींच अध्यक्षान पुरस्कार भेटयले. हांव अडेजशें रुपया घेवन थंयच्यान भायर सरलों. शंबर रुपयांचें पेट्रोल घालें. देडशें रुपयांची पार्टी केली. तरी लेगीत म्हाका त्या पुरस्काराचें केदें व्हडलें अप्रूप! अशीच गजाल हालींच म्हळ्यार फाटल्या म्हयन्याक घडली.

म्हजें 'रुक्षप्रस्न' पुस्तक छापून तयार जालें तेन्नाच मनिपालच्या पै फावंडेशनान सर्त जाहीर केली. बऱ्या पुस्तकाक पंचवीस हजार म्हणटकच आस जाली. गेल्यार तीन पुस्तकां गेलीं नातर पंचवीस हजार आयले. पुस्तक छापणावळिचो अर्द खर्च तरी सुट्टलो. पुस्तकां धाडलीं आनी पुरस्कार मेळ्ळो दोन हजारांचो. पाड पडूं म्हळें. गरजे भायर लज करून घेतली. ना म्हळ्यार फावंडेशनाक एक पत आसा. कलावृंदाच्या गोमंत भूषणा परसूय चार आंगळां चड. लज दिसली ती वेगळ्याच कारणाक लागून. होच दोन हजारांचो पुरस्कार हे आदीं जायत्या

जाणांक मेळिल्लो. ह्यो विजेत्यो म्हाकाय आपले पंगतीक बसोवपाच्यो. देखून म्हळें ही बातमी छापून येना जाल्यार पुरो. लोक पुरस्कार मेळटा आनी फोटो येता काय पळेतात. हांगा म्हाका पुरस्कार मेळून फोटो-बातमी नाका आशिल्ली. एकल्याक पंचवीस आनी दुसऱ्याक फकत दोन हजार! श्रीमंती आनी गरिबी हांचे मदीं हें इतलें अंतर!

एकूच समाधान म्हळ्यार पंचवीस हजार रवींद्रबाबाक मेळिल्ले. तांचे वांगडा तो पुरस्कार घेवंक म्हाका मोठेपणूच भोगपाचें. देखूनच हांवें तो पुरस्कार घेवंक मनिपालाक वचपाचें थारायलें. मनिणपालाक वतलों अशें हांवें बायलेक म्हळें. पयलीं ती मातशी भियेली तेन्ना कित्याक वतां तें सांगलें. पूण मनिपालच्यान आयिल्लें पत्र दाखयलें ना. दाखयलें जाल्यार ते दोन हजार ताका दिसपाचे. दोन हजार घेवंक मनिपालाक वचप वेव्हारीक नाशिल्लें. ते खातीर हांवें गाडी घेवन वचप म्हळ्यार म्हजीं मूर्खपणां. 'ना, तांणी टॅक्सीन यो म्हळां' अशें सांगपूय पिशेपणां. दोन हजार दिवंक कोण पांच हजार खर्च करचोना. लायन्स क्लब बी करतात ती गजाल वेगळी. म्हणटकच सगळें लिपोवन म्हाका मनिपालाक वचूंक जाय. हांव मनिपालाक वतां म्हणपाची गजाल गांवभर जाली. आतां मनिपालाक वचप म्हळ्यार गांवांत वेगळेंच. आतोनीक कॅन्सर जाला म्हूण मनिपालाक व्हेल्लो. तो पंदरा दिसांनी मागीर वयर गेलो. केसराक पोटांत दुखता म्हूण बांबोळे घाल्लें. थंय दोतोरांनी ताका मनिपालाक व्हर म्हूण सांगलें. हांव मनिपालाक वतां हें आयकून पयलीं आवय भियेली. तो बरो आसा मगो? ह्या दिसांनी खांकतालो म्हूण म्हणटां. आवयन बायलेक हळूच विचारलें. हळूच म्हळ्यार म्हाका आयकूंक येता तशें. 'सिगारां ओडून तें. ताका कांयच जायना.' बायलेन राग काडलो. तें पळयतालें आपल्याक यो म्हणटा काय म्हूण! व्हरूं येतालें. पूण व्हेल्यार ते दोन हजार कळपाचे. हांगा निदान वीस हजार म्हूण बंडल मारूं येतालें! तो मनिपालाक वता पुरस्कार घेवपा खातीर. 'कितले मेळ्ळ्यात? खर्च भागतलो मगो?' तिका म्हजे दिल्लीचे पंचवीस हजार खबर आशिल्ले. ते हाडूंक बँगलोराक विमानान गेल्लों तेन्ना वांगडा बायल आशिल्ली. विमानाचे पयशे कॅश दिल्यात ते बायलेन पळयले. आतां हांगाय आपल्याक व्हरतलो अशें तिका दिसतालें. पूण 'केन्ना वता, केन्ना वता' करूनय हांव तिका तयारी करूंक सांगनाशिल्लों. निमाणें तिणेंच म्हाका विचारलें, 'वांगडा कोण वता?' हालीं म्हाका एके चलयेचे

सातत्यान फोन येताले. तें म्हजें विद्यार्थी. दिवाळी आंकाचीं प्रुफां तपासता. ताचे फोन अचूक बायलूच आसता तेन्ना येतात. हांवें म्हळें, 'वांगडा रवीन्द्र केळेकार वता. ताकाय मेळ्ळां.' अशें म्हणटकच हांव बंडलां मारतां हाची ताका खात्री जाली. पूण रवीन्द्रबाबाचो फोन आयलो तेन्ना ताची खात्री जाली, आमी पुरस्कार घेवंक न्हय, तर रवीन्द्रबाब नाक दाखोवंक वता आनी हांव ताची सेवा करूंक वांगडा वतां...! रवीन्द्रबाब काकासायबांची करतालो तशी.

घेऽ सगळ्याक बोवाळ. हांव रवीन्द्रबाबाक घेवन मनिपालाक वतां. कितें जालां, कितें जालां अशें जायत्या जाणांनी विचारलेंय बी. पुरस्कार घेवंक वतात अशें स्पश्टपणान सांगपूय जमना. दिसलें, पेपरांचेर दोगांयचे फोटो छापून बातमी दिवंची. 'केळेकार आनी बोरकार हांकां पै पुरस्कार.' पूण एकल्याक पंचवीस आनी दुसऱ्याक दोन कशे छापचे? ते परस कोणाक दाखोवंक व्हरतात होच समज बरो. रवीन्द्रबाब आनी हांव मनिपालाक वचून आयले. तीन दीस बऱ्याऽ हॉटेलांत रावले. खाले-पिले. खाले-पिले हो हांगा सर्वसामान्य टर्म. रवीन्द्रबाब वांगडा आशिल्ल्यान फकत खालें. पिवपाची संद आसतनाय पिवंक मेळ्ळेंना. तो कांयच म्हणचो नाशिल्लो पूण आमी वांगडा रावताले. एकाच रूमांत रावून गजाली मारताले. हांवें खूब जाणांक पिवपाक शिकयलां अशें लोक म्हणटात. हांगा तांचीं उतरां म्हाका खरीं करपाचीं नाशिल्लीं. देखून हांवें म्हजेंच मन मारून उडयलें. उपरांत ल्हानशा सुवाळ्यांत पुरस्कार घेतलो. धा वर्सां पयलीं पुरस्कार क्लास-रूमांत घेतिल्लो. हांगा घेतलो तो मातश्या व्हडल्या हॉलांत. त्या वेळार भाशा मंडळाचो अध्यक्ष हाजीर आशिल्लो. हांगा ह्या वेळार फावंडेशनाचो अध्यक्ष हाजीर नाशिल्लो. पूण म्हाका व्हडलोसो फरक पडलो ना.

आमी पुरस्कार घेवन घरा येवन म्हयनो उलगलो. आनीक कोणूय जाल्यार रोखडी बातमी दिवपाचो. हांव हे भानगडींत मात पडलोंना. प्रसिद्धी नाका अशें न्हय. ती जायच. पूण दोन हजारांची गजाल लोकांक कळटली. तीय कळ्ळ्यार उपकारताली आतां म्हाका. पूण कोणेंय म्हळें जाल्यार, 'तातूंत कितें? म्हाकाय मेळ्ळा तो पुरस्कार!' तोच मनस्ताप चड त्रास दिवपी. पुरस्कारान मनस्ताप भोगयला तो असो म्हाका!



**नोव्हेंबर २०००**



**जा**वं, नातलां पयलीं आमचे सगळे दिवाळी आंक आयले. दुसरे, म्हळ्यार मराठी बी, केन्नाय आयल्यार जातात. पूण कोंकणी नातलांक आयले जाल्यार टिकेक संद. पळेलें मू, कोंकणी म्हणटात ती किरिस्तांवांची. हिन्दूंची जाल्यार ते आंक दिवाळेक काडपाचे नाशिल्ले? मराठी हिन्दूंची देखून पळयात, सगळे मराठी आंक दिवाळेक येतात. हेच टिकेक वो बकच्छायेक लागून कोंकणीवादी धडपडटात. नातलां पयलीं दिवाळी आंक काडून विरोधकांचीं तोंडां शिंवतात. कोंकणी भाशा मंडळाचो आयला तो हांवें अजून पळोवंक ना. बरोऽ आयला अशें पूर्णानंद आनी भाई म्हाका म्हणटाले. ते म्हणटात तेन्ना खऱ्यांनीच तो बरोऽ आसतलो हातूंत दुबाव ना. म्हज्या हाताक तो लागलोना तेन्ना प्रती हातोहात गेल्यात आसतल्यो अशें मानू येता.

मेळटलो केन्नाय तरी खंयचेय एके लायब्ररींत. नातर आंतोनबाब मोरायसागेर केन्नाय पावल्यार वाचूं येता. कोणें तरी भिकू बोमी नायकाचो 'जैत' म्हजे गाडयेंत सोडिल्लो. म्हापशां युवा संमेलनांत वतना गाडयेंत सैलबाब बशिल्लो. चुकून ताच्या हातांतल्यान सुळसुळून पडला जावंये! कित्याचें तरी कवर म्हूण हांवें तो काडून भायर उडयलो. सकयल पडना बराबर वाऱ्यान तो उसवलो आनी जायराती दिसल्यो. हातांत घेवन उगडलो जाल्यार भितर लेखूय आसात. चार पानां जायराती पांच पानां साहित्य म्हळ्यार वायटशें न्हय. अचळय उखलून आंक आशिल्लो तसो फाटल्या सिटार दवरलो. तर, कितेंय आसूं, नातलां पयलीं दिवाळी आंक

येवप हें कोंकणीचें जैत. शिवदासबाबूय आपूण दिवाळी आंक काडटलों म्हणटालो. म्हज्या आंकाच्यो प्रती खपयतां खपयतां तो म्हाका मेळ्ळो. ताच्या आंकाची खबर घेवंची अशें दिसुनूय हांवें तें टाळ्ळें. खऱ्यांनीच ताणें तो काडिल्लो आसलो आनी ताचे कडेन ताची प्रत आसल्यार! ताचो घेवन, म्हजो ताका दिवन गरजेभायर लुकसाण! चित्रंगी बी आंकाचो हुसको हांव करिना. तें बायलां खातीर ओंपिल्लें बायलांचें प्रकरण. हांवें नाक घालप म्हळ्यार आंगार अपसरण ओडून घेवप. तरी लेगीत कोंकणीच्या मोगाक लागून उत्सुकताय आसता.

पूण म्हजें कोंकणी प्रेम अजून कोणाक सारकें समजूंक ना. लोकांक दिसता, हांवें मन उक्तें करप म्हळ्यार बकच्छायो करप. जगार सोडात, म्हाका समजून घेवपी कोंकणी समाजांत लेगीत कोण नासप? हाकाच लागून हांव एकएकदां भितरले भितर खंती जातां. जयंती नायक म्हणटालें, तेच खातीर म्हजे केंस पिकल्यात म्हूण! तर सांगपाची गजाल, दिवाळी आंक नातलां पयलीं आयले. सद्या म्हज्या हातांत तीन आंक आसात. तातुंतलो एक, म्हजो 'बुरसो' बिम्ब. दुसरो जागाचो आनी तिसरो दिवाळी आंक न्हय दिवाळी आंका वांगडाच आयिल्लो नोव्हेंबराचो जाग आंक. म्हजो बिम्ब हांवेंच वाचून म्हळ्यार प्रुफां तपासून पाठ केला. देखून वाचपासारके आसात ते हेर दोन आंक. ह्या आंकांत हांवें सगळ्यांत पयलीं लेख वाचले ते म्हजे. ते उपरांत हांव सदांच रवीन्द्रबाबाचे लेख वाचतां. ताचें कारण, रवीन्द्रबाब सदांच आपल्याले लेख पयलीं वाचता मागीर तो म्हजे वाचता अशें तोच म्हाका सांगता. रवीन्द्रबाब तशें करता जाल्यार ताची गादी कोणेंय चलोवं नाका? ताचे लेख वाचून जाले म्हणटकच हांव हेरांचे चाळटां. भास समजली जाल्यार एक वेळ बारकायेन वाचतां. जाग दिवाळी आंकांतलो अना म्हांबऱ्यालो लेख वाचलो. ताणें तो रवीन्द्रबाबाचेर बरयला. रवीन्द्रबाबाचेर कितलेशे जाण बरयतात. गोंमतकांतले मराठीवादी बरयतात, मावजो बरयता, अना बरयता. म्हाका तें सगळें वाचचें पडटा. कारण, हांव रवीन्द्रबाबाचेर बरयतां.

'श्रेयार्थी' पुस्तकाक बरें श्रेय मेळटलें जाल्यार तशें करूंक जाय. तेच पासत हांवें 'पांथस्थ-कांय प्रस्न' हो लेख वाचलो. लेख वाचलो आनी हांव सामको अंतर्मुख जावन गेलों. अनाक पांथस्थ वाचून कांय प्रस्न पडले हें बरोबर. म्हाकांय तें वाचून खूब प्रस्न पडिल्ले. पूण त्या प्रस्नांक हांव खंय आनी कशी वाचा







फोडटलों? वाचा फोडिना जाल्यार हांव घुस्मट्टलों आनी आनीक प्रस्न निर्माण जातले. अनाचे प्रस्न वाचून तर म्हाका भलतेच प्रस्न आयले. सद्या हें युगूच प्रस्न निर्माण करपाचें आनी जापो दिवपाचें. म्हाका कसल्याच प्रस्नांच्यो जापो कळनांत म्हूण हांव टिवी पळयना. टिवी पळेतकच म्हाका हांवूच अज्ञानी दिसूंक लागतां. जे कोण जापो दितात तांकां भरपूर दुडू आनी भेटी मेळटात. 'कौन बनेगा करोडपती' पळोवन तर हांव पिसो जावंक पावलों. तेन्ना म्हाका दिसलें, असलें, कितेंय आतां कोंकणीत येवंक जाय. म्हजे सारकेल्याचें वाचन कोंकणी पुरतेंच मर्यादीत. प्रस्नांच्यो जापो दिवन कितेंय सुट्टलें आनी वाचनूय जातलें. गोंयकारांमदी कोंकणी वाचनाची गोडी लागतली. म्हजी ही इत्सा पुराय केली ती अनान, पूण अर्दकुटीच. वाचप्यांक ताणें प्रस्न दिले, पूण जापो दितल्यांक कितें?

जापो दितल्यांक कांय न्हय जाल्यार जुवारकाराचीं पुस्तकां तरी भेटोवपाचीं. भुरगीं आसलीं जाल्यार मायाची 'कोलेदादाची पालखी' तरी. पूण अना ह्या जुगारी युगांत फकत प्रस्नूच विचारता. ताच्यो जापो कोंकणींवाद्यानी दिवंच्यो अशी अपेक्षा करता. अपेक्षा नाशिल्ली जाल्यार ताणें प्रस्न विचारपूच कित्याक? बरें, आमचे सारकेल्यांनी तोंड धांपलें जाल्यार आमी अज्ञानी जालेना? बाकिचे कोंकणींवादी अनाक किकोंत करीतय बी! पूण म्हजे सारकेल्यान तांचे कडेन दुलर्क्ष करप समा न्हय. ताणें निर्माण केल्ल्या प्रस्नांक जापो दिवप म्हजें कर्तव्य. ह्योच जापो दिवपाचें काम हांगा करतां.

केळेकारांचो आदलो धंदो केळीं विकपाचो देखून ते केळेकार. ते आंबे विकताले जाल्यार तांकां कोण आंबेकार म्हणचोना. हांवें केन्नाच बोरां विकलिंनात वा बोरयेय हांव रावलोंना. तरी लेगीत हांव बोरकार. हांवें पणस विकिल्ले जाल्यार हांव पणसांकार जावंचो नासलों. चडांत चड कोणेंय भिकणांकार म्हणूं येताले. तशे आमचे खूबशे म्हालगडे पसरो चलयतात. तांकां कोण पसरकार म्हूण पाचारनात. अना लेगीत. पूण घसरतात केळ्या साल सोडून बाबडचा केळेकाराचेर. खावन पिवन सुखी भाटकारांच्या भुरग्यांक कसले छंद? होय एक आमसाण तिखसाण लावन जाप दिवपाचो प्रस्न. भाटकारांच्या भुरग्यांक कसले छंद लागतात ते हांव नकळों. कित्याक, हांव भाटकार पूण भाटां मुंडकारांनी खालीं. तशी वेऱ्यां एक भाटकार फामील म्हजे वळखिची आसा. तांचो एक

एक छंद पळयत जाल्यार म्हाका भाटां गेल्ल्याचें दु:ख जायना. तरी पूण म्हज्या वळखिच्या भाटकारांचे छंद म्हळ्यार कोंकणी. गोंयचे खूबशे भाटकार कोंकणीचे चळवळींत आसात. तांच्या भुरग्यांक मात तो छंद लागिल्लो दिसना. वेल्यान ते कोंकणीवाद्यांकडेन तुच्छ नदरेन पळेतात. र.वि. पंडितान भाटां विकून पुस्तकां छापलीं हें ताचें कारण आसूं येता. रवीन्द्रबाबाक बापायन चंद्रकांत नांव दवरिल्लें. आज्यान तें बदलून रवीन्द्र दवरलें. लिंगूबाब दळवी हांकां गोंयचो फुडार पारखुपाची नदर आशिल्ली. जर तें चंद्रकांत दवरिल्लें जाल्यार गोंयचो इतिहास बदलपाचो. सुंद-उपसुंद हांची गोंयांत पुनरावृत्ती जावपाची. कोंकणीवादी दोन गट करून तांकां प्रोत्साहन दिवपाचे. सुरेशबाब आमोणकार सुंद-उपसुंदाचेर आख्यान बरोवपाचे. शिकीत कार्दोज गरगर करून मळबाक कसो तेंकलो हो एक प्रस्न. मनीस जावं भोंवरो गरगरता तेन्ना घुंवता आनी पडटा. तो असो गरगर करून मळबाक तेंकप शक्यच ना. तेनेन्तिच्या थापटा वांगडा तो गरगर करून पडला आसतलो. मरतकच मनीस वयर वता ही कल्पना पुरातन काळाची. संत तुकाराम सदेह वैकुंठांत गेलो बी म्हणटात तशें.

रवीन्द्रबाबान साहित्यिक दर्जो वापरला तो अनाक कळूंक ना. ताणें पळयल्यात ते गरगरीत पोटां वाडिल्ले कोंकणीवादी. कोंकणीच्या नांवान तांणी मळबाक हात लायला हें खरें! रवीन्द्रबाब गोंयां परततात तेन्ना गोंयचें वर्णन अना सांगता. रवीन्द्रबाबान तें खंय पळयल्लें तो अना वांगडा म्हाकाय प्रस्न पडला. तांबडीगुंज माती मात जायत्या लोकांनी पणजे पळयल्या. बाकिचें वर्णन चड करून देऊळवाड्या वयलें आसूं येता. गोंयांत पयलीं पसून खूबशीं युगां चलत आयल्यांत. तांतुतलीं मुखेल म्हळ्यार सत्ययुग, असत्ययुग, सादें युग, विचित्र युग आनी तिरसुवादीक युग. रवीन्द्रबाब गोंयांत पावले तेन्ना थंय सत्ययुग चलतालें. तेन्नाच मडगांवां असत्ययुग सुरू जावन वाडीक लागिल्लें. पणजे तिरसुवादीक युगाचो प्रचार सुरू जाल्लो. गोंयच्या कांय वाठारांनी सादें युग चलतालें. ह्याच वेळार जंय विचित्र युग चलतालें थंय कोंकणीवादी जल्मले. रवीन्द्रबाब गोंयां पावले तेन्ना गोंयांत म्हारगाय नाशिल्ली. बांगडे आण्याक बारा आनी रुपयाक शंबर मानकुराद मेळटाले. रवीन्द्रबाब मुळांत चड वसवसो म्हळ्यार खावपी दिसना. म्हारगाय वाडली ती कोंकणीवाद्यांचो आंकडो वाडटकच आनी ..., तिंबलो बी कोंकणीवादी जातकच. फोंडेचें युग रवीन्द्रबाबा...गराचें दिसलें





खरें. तें रुप्याचें आनी पितळेचें जावंकच शकना.

आमच्या गोंयांत मिना खणी आसात त्यो हांच्यो दोनांच्योय न्हय. पूण त्या काळार सुटके झुजारी धाडी घालताले ते फोंड्यांच. ते खातीर पांथस्थ बारकायेन वाचप गरजेचें. 'कोंकणी भाशेचें जैत' पुस्तक पळोवन 'हे राम' उतरां येवं येता. तीं कित्याक आयलीं हें फकत मराठीवादी सांगूंक शकतात. गांधी सिनेमांत हीं उतरां मात कोणेंच म्हणूंक नांत. गांधीजीक गुळी लागता तेन्ना ताणें म्हणिल्लें तें 'हराम'. भोवतेक रवीन्द्रबाबान पुस्तक वाचून तशें म्हळां आसतलें.

'दत्ताराम आनी ताची तकली' हाचेर निबंध बरोवप शक्य ना. हांगा संपादिकेन पानांची मर्यादा म्हजेर घाल्या. पूण ताचेर एक प्रबंध बरोवन हांवें ओलिव्हीन्यबाबाक दिला. जयंती नायकाचो प्रस्न सुट्टकच ताचेर विचार जातलो खंय! आतां निमाण्या कांय प्रस्नांच्यो जापो अशो.

प्राणवान म्हळ्यार प्रकाश थळी. हिमालय मोखून मारप म्हळ्यार अशोक भोंसलो करता तें. म्हजे कडेन कोणेंय हिमालय दिलो जाल्यार हांव तो प्रियोळा मोखून मारतलों. २५ वे खेपेच्या रडपाचें प्रात्यक्षीक करून दाखोवपाची गरज ना. तो अणभव घेवपाक कांय जाणांचीं तोंडांच पळोवंचीं. करंट आनी हेडक्वार्टर हांकां लिंगां नांत. तीं फादर फ्रेडी पीट हाणें आपले वांगडा व्हेल्यांत. रवीन्द्रबाबान एके कडेन वर्णन केलां तें हातुंतल्या कोणाकूच लागना. जायच जाल्यार विसू लवंद्याक तें लावं येतलें. पूण तें खरें वर्णन आजेंत मोन्तेरोचें.

रवीन्द्रबाबाल्या अंतरमनाचें क्षेत्रफळ लांबाय-रुंदायेन सांगप शक्य ना. ते सारस्वत संमेलनाक वचत सावन समता आंदोलन तें मेजीत आसा. तें हांवें सांगलें जाल्यार तांचें म्हजेर रागणें पडटलें. म्हाका 'जातीयवादी' म्हणून घेवपाचें ना. वाल्याचो वाल्मीकी जालो हें नाटक हे आदीच बरोवप सुरू जालां. रमाकांत खलपान ताचो देड आंक बरयला. तातूंत खासा रवीन्द्रबाब काम करतात म्हळ्यार, तशी खलपांची इत्सा आसा. हांगा हावें अनाचो मान राखूंक जापो दिल्यात. बरोबर काय चूक तें तांणी थारावचें. शेवटी पेपर सॅट करपीय तोच आनी तपासपीय तोच. हांव कोण? ताणेंच थारावंचें.

■ ■ ■





पुरस्कार सदांच खुशालकाय भोगयता अशें न्हय.
तो केन्ना केन्ना मनशाक मनस्तापूय दिता.
हेरांक नासूं, पूण म्हजे सारख्यांक दिताच दिता.
म्हजो एक इश्ट आसा. तो सदांच म्हणटा,
'देव मोठो नाटकी. तो मनशाक सगळें दिता.
उशीकांड्यांतल्यान साकर करपाची अक्कल दिंवि
आनी गोडेंमुतूय दिता.
दुडू दिता, गाडी दिता तसो मलेरिया आनी एड्सूय दिता.'
तीच गत म्हजे बाबतींत केन्ना केन्ना घडटा.
(एड्स बी जावपाची न्हय, मनस्ताप जावपाची)
'तो देव मोठो नाटकी, पुरस्कारूय दिंवि
आनी मनस्तापूय.'
म्हज्या त्या इश्टाक आतां आनीक
एक वाक्य म्हणूंक मेळटलें.
आतां तुमी म्हणटले, पुरस्काराक
आनी मनस्तापाक संबंद कितें ?
कोंकणी लेखकाक पुरस्कार मेळप म्हळ्यार
ल्हान गजाल न्हय.
ते कितलेय खरडूं तांकां मानधन म्हणटात
तें केन्ना मेळना.
अश्या वेळार तांकां वाट पळोवंची पडटा ती पुरस्काराची.
आतां पुरस्कार मेळटलो आनी
बुडकुलो रांदनीर चडटलो अशें न्हय.
कोंकणी लेखक तशे आजून खावन पिवन सुखी आसात.
अशें आसलें तरी लेखनाचेर
दुडू मेळपाची गोडी आगळीच.

केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान सन्मानीत
साहित्यिक दिलीप बोरकार हांचो एक वेगळो साहित्यप्रवास

बिम्ब
प्रकाशन